**प्रकाशक** / बिम्ब प्रकाशन, 'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी - गोंय ४०३ २०४.
**दूरध्वनी** / (०८३२) २४३८३५५.
**प्रकाशन क्र.** / **१२५.**
**अक्षर जुळणी** / बिम्ब प्रकाशन.
**छापणावळ** / इम्प्रेशन्स - बेळगांव.

**पयली आवृत्ती** / फेब्रुवारी २०१७.
**मुखपृश्ठ** / रोहित च्यारी
**धुमक्यार धुमके** (विनोदी ललित) कृ. म. सुखठणकार
Dhumkyar Dhumke (Satire) *by* ***K. M. Sukhtankar***
**मोल** : रु. २००/-




**ISBN : 978-93-85654-13-8**

म्हज्या बापायक
हांव लाला म्हूण पाचारतालों
तांचेच कडल्यान हांवें
विनोदाचें आंग घेतलें
मागीर तें
कुस्कूटभर काय जायना!
तांकांच हें पुस्तक भेटयतां...!

# धुमक्यार धुमके

कृ. म. सुखठणकारांचें ***धुमक्यार धुमके*** हें तिसरें पुस्तक. ह्या आदीं तांचें ***चिमटे धुमके, धंयार धुमके*** अशीं दोन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत आनी तांकां हांवेंच प्रस्तावना बरयल्या. चिमटे धुमके हें सर्गेस्त सुनापरान्तांत बरोच काळ चलपी कृमच्या लोकप्रिय सदराचें नांव आशिल्लें. एखाद्रें नेमाळें सदरांचे वांटे घालता तेन्ना त्या त्या सदरांत अमके जातकुळीचें लेखन आसचें अशी अपेक्षा आसता. सदराच्या नांवां वयल्यानूच त्या सदरांत कितें आसतलें हाचो अदमास वाचकाक येता आनी मागीर वाचक आपले जातकुळी प्रमाण सदरांच्या वाचनाचो क्रम थारायता. *चिमटे धुमके* हें सदराचें नांवय भोवतेक विनोदी प्रकारच्या, त्रोसात्मक लिखाणा खातीर संपादकान वेंचिल्लें आसतलें आनी कृमन त्या सदराक अक्षरशा न्याय दिलो अशें म्हळ्यार अतिताय जावंचिना. खरें म्हळ्यार वृत्तपत्रीय सदर एका लेखका खातीर फक्त एक वर्स आसचें असो संकेत आसता आनी त्या सदराची लोकप्रियता वाडोवंक जर तो लेखक यशस्वी थारलो जाल्यार आनीक एक वर्स बरय म्हूण त्या सदरकाराक संपादक विनयता. कृमन तें सदर इतलें लोकप्रिय केलें की चिमटे धुमके म्हळ्यार कृम अशें समिकरण जालें. म्हणटकच कृमन तें सदर बंद केल्या उपरांत त्याच नांवान तें मुखार व्हरपाचें धाडस खंयचोच शाणो मनीस करपाचो ना हाची म्हाका खात्री आशिल्ली.

हांव कृमचो एक फॅन. कृमचें हें सदर वाचून सोडून दिवपाचें न्हय तर तें पुस्तक रुपान चडांत चड वाचकां मुखार पावपाची गरज आसा अशें म्हजें मत जाल्लें. कृमक हांवें तें सांगलें. कृम फकत हांसलो. ताच्या हांसपांत म्हाका म्हजें पुस्तक कोण काडटलो? असो प्रस्न दिसलो. पुस्तकांच्या बाबतींत सद्या गोंयांत बरे दीस आयल्यात. सरकारचीं वेगवेगळीं खातीं आनी हेर संस्था-

अकादम्यो बी प्रकाशकांक पालव दिवपा खातीर तांचे कडल्यान पुस्तकां विकतीं येवपाक लागले तेन्ना दरेक लेखक, प्रकाशक जावन आपलीं पुस्तकां आपूणच छापून येवंक लागलो. कृम काय असले भानगडींत पडपाचे कालेतींचो न्हय म्हणपाचो म्हाका अदमास लागलो तेन्ना हांवेंच ताच्या लेखांक पुस्तकांच्या दोण्यांत घालपाचो निर्णय घेतलो आनी तो ताका सांगलो तेन्ना ताच्या मुखामळावयली खोस लिपून उरली ना.

भुरगें जल्माक आयलेंच म्हणून जायना ताका समर्पक नांव दिवपाचीय गरज आसता. तें नांव हेरां परस वेगळें आनी समर्पक आसप हें खूब म्हत्वाचें आसता. कृमच्या सदराचें नांव चिमटे धुमके आशिल्ल्यान आनी कृम उपरांत त्याच नांवान तें सदर हाताळपाचें कोणा भितर धाडस आनी सामर्थ्य नाशिल्ल्यान तेंच नांव हायजॅक करपाचें हांवें थारायलें. कृम त्रोसां मारून बरोवपा खातीर फिशाल आसलो तरी दुसऱ्याची वस्त आपली म्हणपाक तितलोच खाकुडपी. तें नांव बरें आसा पूण तें तांचें न्हय अशें म्हणत फाटींफुडें जावपी कृमक ह्या नांवा खातीर तयार करपाक नाय म्हळ्यार त्रास पडलेच. पुस्तक छापून आयलें,तें वाचकांनी माथ्यार घेतलें, पुस्तकाक नांवूय समर्पक आशिल्लें आनी सुबोध केरकाराचें मुखपृष्ठय मुदयेर थींक कशें जाल्लें.पुस्तकाक खूब येवकार मेळ्ळो.

चिमटे धुमके आयले उपरांत फुडलें केन्ना रे असो प्रस्न वाचपी कृमकय विचारूंक लागले आनी म्हाकाय. मागणी आसता तेन्ना पुरवठो करप हेंच शाणेपणाचें आसता. हांव वेव्हारी न्हय अशें म्हाका लेबल लागिल्लें आसतनाय म्हाका तें कळूंक लागिल्लें. म्हळें चला कृमचें आनीक एक पुस्तक लोकां मुकार दवरूंया. पर्थूनय नांवाचो प्रस्न आयलोच. चिमटे धुमके सुंदर पुस्तक जाल्लें, लोकांनी ताका सुंदर येवकार दिल्लो, प्रकाशन सुवाळोय सुंदर जाल्लो, कृमची लोकांनी सुंदर पयकी प्रशंसा केल्ली आनी सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार खपूय सुंदर जाल्लो. हें सगळें सुंदरच सुंदर जाता तेन्ना खोसयेचो,तृप्ततायेचो एक धेंकर येता. हो असो प्रकार घडटा तो भोवतेक भूस मारपाचे बाबतींत. भूसान सगळीं इंद्रियां तृप्त जालीं म्हणटकच जो निमणो आडवो हात मारतात आनी तो भोवतेक धंय वो कडयेचो आसता ताका धंयार धुमको म्हणटात असो म्हजो

समज. त्या भायर चिमटे धुमके,धंयार धुमके हो ताल बरो जुळून येतालो आनी तातूंतल्यानूच फुडल्या पुस्तकाक धंयार धुमके हें नांव हांवें निश्चित केलें. सुबोधान व्हडा खोशयेन ताकाय मुखपृष्ठ तयार केलें. चिमटे धुमक्याचें स्वागत जाल्लें तशें धंयार धुमक्यांचेंय जालें.

आतां फुडें कितें.. कृम बहुप्रसवी. कृमचें सदर ना अशें आयज गोंयांत एकूय कोंकणी प्रिंट मेडिया ना. रोमी जावं नागरी तातूंत कृम दिसतलोच. विनोदी व्रोसात्मक बरोवपी कृम हो एकलोच लेखक अशें आतां लोकांनी मान्य करून घेतलांच. आतां कृमक खंयचें सदर, सदराचें नांव कितें असो प्रस्न पडना. नेमाळ्यांनी छापून आयिल्लें ताचें सदर कोणांक सोदचेंय पडना. कृमची खाडयाळ छबी होच ताच्या सदराचो ट्रेडमार्क जाला. तीच गत पुस्तकाच्या नांवां संबंधान. आतां कृमच्या पुस्तकाक नांवाचीय गरज पडत अशें दिसना. मुखपृष्ठाचेर एक थारावीक तरेचें खाड दिसलें म्हणटकच नांव पळयनासतना कृमचें पुस्तक म्हूण विकतें घेवपाचे प्रक्रियेक आरंभ जाल्लो आसा. अशें आसतनाय हांवें कृमन वेगळें नांव सुचयल्लें आसतनाय ताच्या ह्या तिसऱ्या पुस्तकाक *धुमक्यार धुमके* हें नांव आसचें असो आग्रह धरलो. ताचे फाटलें म्हजो व्यक्तीगत सुवार्थ आसा. कृमच्या ह्या तिसऱ्या पुस्तकाक आतां म्हजेच न्हय तर हेर कोणाचेच प्रस्तावनेची गरज ना अशें म्हजें मत जाल्लें आसतनाय फाटल्या दोन पुस्तकां वरींच ह्याय पुस्तकाक हांव प्रस्तावना बरयतलों अशें हांवें सांगलें तेंय बी म्हज्या सुवार्था पासत.

म्हजो सुवार्थ कसलो..? हांव एक विकारमुक्त समाज आंवडेतां. आयज समाज भोगवादा दिकेन,चंगळवादा दिकेन सुसाट धांवता. खंयचींच नितीमुल्यां तो मानून घेवपाक तयार ना. हीं सगळीं काळाची गती वा गरज अशें म्हणत ह्या सामाजीक बदलाकडेन आडनदर करूं येता, जायच जाल्यार येवकारूय दिवं येता. पूण हे सगळें हातासपाचे सर्तीत मनीस सोसणिकाय वगडावन बसला. मनीस कोणाचेंच सोंसून घेवपाक तयार ना आनी असले हे मानसिकतेक वखद ना. कितलेय बरे विचार मांडले आनी मानसिक बदल घडोवन हाडपाचो कोर्णेय करपाचो प्रयत्न केलो तरी तें आयकून घेवपाचे सोसणिकायेचो मात्तूय

अंश जर मनीसकुळये भितर नासलो तर मागीर करप किर्ते..? त्या पासत हीं जी मानसिकता आसा तिचें विरेचन करतलो जाल्यार एका सशक्त माध्यमाची गरज आसा. गांवगिरे भार्शेत विरेचनाक भायरी म्हणटात. सोसणिकाय शेणोवन बशिल्ल्यांक सॉलीड अशे एके भायरेची गरज आसा आनी ती भायरी म्हळयार विनोद हें ह्या आदीं विचारवंतानी, समाजसुधारकांनी मान्य केलां आनी म्हजोय ताचेर विस्वास आसा. कृम बरयता तातूंत हीं सगळीं तत्वां मोठ्या प्रमाणांत आसपावल्यांत. पयलीं दिशिल्लें हाका वखद म्हळयार चिमटे धुमकेच. पूण समाजांत चिमटेय लागनात आनी धुमक्यांचोय परिणाम जायना अशे दाट कातीचे लोक आसात. तांचेर फकत चिमट्या धुमक्यांचो असर जायना. तांकां आतां जाय धुमक्यार धुमके. तेच पासत म्हज्यांतल्या तिरसुवाद्यान धुमक्यांची ही माळ चालू दवरली. म्हाका खात्री आसा, कात कितलीय दाट जाली तरीय धुमक्यार धुमके घालपाचे कृमन सोडचें न्हय.पापडांची पिठी लेगीत फारार फार पडटकच कशी बरी मोव जाता तशीच कृमचे धुमक्यार धुमके पडत रावून सोसणिकाय शेणोवन बशिल्ल्यांची दाट कात मोव जावंची आनी एक हांसतो खेळटो समाज निर्माण जावंचो आनी तो आयज ना जाल्यार फाल्यां जातलो अशी म्हजी खात्री आसा. फक्त कृमन आनी हेरांनीय धुमके, चिमटे चालूच दवरपाची गरज आसा. कोणाक जाय चिमटे, कोणाक जाय धुमके अशें विचारी नासतना.

**- दिलीप बोरकार**

# अध्यात्म

**"तुमकां** पन्नास जालीं आं, तुमी बरे बशेन आतां अध्यात्माकडेन वळात.'' हिणें तव्यार कल्लेचे कुडके उडयत म्हाका म्हळें.

''अध्यात्मा कडेन वळचें पडटा? तें आड वाटेर आसा तर? सरळ वचत जाल्यार थंय पावना?'' हांवें फॅना सकयल बसत विचारलें.

''आतां फोंड्यां सावन कवळ्यां वतना दोन खांब्यां कडेन उजवे वटेन वळचें पड्ना? सरळ वचत जाल्यार दुर्भाटा तारीर पावतले. जशें दोन खांब्यां कडेन वळटात तशें अध्यात्मा कडेन वळचें पडटा.'' हिणें कल्लेचे कुडके परतीत अध्यात्माचो मार्ग म्हाका सांगलो.

''दोन खांब्यां कडेन वळना जाल्यार दुर्भाटा पावता, अध्यात्मा कडेन वळना जाल्यार खंय पावतात?'' हांवें आतां सिंग्लेट काडली.

''तें म्हाका खबर ना, तें आनीक कोणाक विचारात.''

''आनीक कोणाक विचारूं? आसाराम बापू कादये कडेन वळ्ळा.''

''अध्यात्माची अशी बाला उडोंव नाकात आं तो वयल्यान पळेता!''

''कोण? आसाराम बापू?''

''तो म्हळ्यार He व्हो. विथ कॅपिटल H आं.''

“बरें.”

“वळटात मूं तुमी अध्यात्मा कडेन? प्रॉमीज?”

“पळेतां जमता जाल्यार.” अशें म्हणलें आनी हांव न्हांवपाक गेलों.

सांजेचो हो विशय हांवें वितोरीगेर काडलो. सावळ्यान आनी दत्तान सिग्नेचर घेतली आनी हांवें काजू घेतली. वितोरीगेर काजू ओरिजिनल आसता. तें म्हाका लागून भाजिल्ली शेप दवरता, ती खातकच तोंडाक तितलो वास येना.

“आरे ही म्हाका अध्यात्मा कडेन वळ म्हणटा.” हांवें विशयाक हात घालो.

“तुजे लार्गी आतां कांय जमना तर?” दत्ता.

“अशें कित्याक म्हणटा तूं दत्ता?”

“कांय जमना जातकच मागीर ‘शेवटाक’ मनीस अध्यात्मीक जाता. तुकाराम महाराजान दिवाळें काडलें, तो अध्यात्मा कडेन वळ्ळो. ‘बरे झाले देवा निघाले दिवाळे बरी या दुष्काळे पीडा केली. अनुतापे तुझे राहिले चिंतन झाला हा वमन संसार. बरे झाले देवा बाईल कर्कशा बरी हे दुर्दशा जना मध्ये.’ अशें ताणींच म्हळ्ळां.”

“वाल्यान सगल्यांक लुटले शेवटाक तो वाल्मिकी जालो.” - सावळो.

“आरे ताणें घरच्यांक विचारलें मरे आपल्या पापांत वांटेकार जातात काय म्हूण. थंयच ताका शॉक बसलो.” - हांव.

“हांगां तुवें विचारपाक कांय दवरूंक ना घरच्यांनीच तुका शॉक दिला वाल्मिकी जा म्हूण.” - दत्ता.

“आरे अध्यात्म तशें सोपें न्हय विश्वास जाय पडटा, तुजो आसा?” - सावळो.

“विश्वास म्हळ्यार? विश्वास पानीपतान गेलो अशें आई म्हणटा. शांताराम मडवळान तिका बापायच्या कोटाचीं बॉल्सां कित्याक सांसपिता

काय विचारतकच, तिणें ताका हें सांगिलें.''

''घोर कलियुग!'' -दत्ता भिकणां तोंडांत उडयत.

''हो दुसरो इंडियन ओपनर, बॅट घाल्यारुय आवट, बॅट घालना जाल्यारुय आवट ... एक प्लेट चिली हाड गो.'' (हें सावळ्यान वितोरीक म्हणलें. वितोर बरें माणक्यांचें चिली करता.)

''तुकां, हांव कोण, असो बी प्रस्न पडटा? दीस रात तुका हो प्रस्न सतायता?'' - दत्ता.

''सद्याक म्हाका, आयतारा बाजाराक रेडये गेल्यार, धवे कांदे मेळटले काय ना हो प्रस्न सतायता.''

''आरे पापया भुरगें जाल्या बरोबर कोऽहम म्हूण रडटा.'' सावळ्यान आवाज चडयलो.

''हांव जाल्या बरोबर रडुंकूच नाशिल्लों म्हणटकच हो प्रस्नूच उप्रासना.''

''मागीर तूं अध्यात्मा कडेन कसो वळटलो शाण्या? कोऽहम हो अध्यात्माची बेज. हांव कोण!'' अशें म्हणून दत्तान मेजार मूठ मारली.

''म्हाका तोच्च प्रस्न पडला, ही तर सामकी फाटल्यान लागल्या ... आनीक एक घाल गो.'' (हें हांवें वितोरीक म्हळें.)

''Spirituality is not part time business अशें म्हणलां.'' - सावळो.

''म्हळ्यार?''

''आतां बरड पसऱ्यार वर्सांतल्यान एकदांच लक्षीमपुजन करता. बाकिचे ३६४ दीस तो दुसरे तरेन लक्षीमपुजन करता फुल टायम. कळ्ळें?'' - सावळो.

''कळ्ळें.''

''आतां अध्यात्म तूं खंय प्रेक्टिस करपाक सोदता?'' दत्तालो प्रस्न.

''अध्यात्म प्रेक्टिस करचें पडटा?''

''हय तर! शेजारच्या राज्यांत करता जाल्यार फकत तुळशी माळ

घाल्यार पुरो. गोंयां करतलो जाल्यार सोमार, बिरेस्तार करचे पडटले. बायलांनी सुक्रार, अंगारीका, संकश्टी. आडवो जाल्यार पंचम. उबो जाल्यार एकादस. वर्सांतल्यान एकदां सत्यनारायण, देवळान सवळें न्हेसून अभिशेक. जात्रेक रथार नाल्ल. चडूच अध्यात्म खर धरतलो जाल्यार लेपाचो हात सांबाळचो पडटलो.''

''आरे बरी याद जाली अध्यात्मान गुरु जाय पडटा.'' सावळ्याक एक पेग वतकच गुरुची याद जाली. ''तुका गुरु करचो पडटलो. आशिकुशीक नदर मारल्यार सद्याक कोण दिसना, अर्दे कादयेंत आसात आनी जे भायर आसात तांच्यांत राम ना.''

''आनीक एक घेतलो?'' दत्तान सावळ्याक विचारलें.

''मागीर हांव कितें करुं? गुरु ना जाल्यार म्हाका कोण शिटकायतलो तर कुरवांनी?'' हांव काकुळटेक आयलों.

''तूं ताका शरण वच.'' सावळ्यान वयर बोट दाखयलें.

''केपिटल H आशिल्लो He?'' – हांव.

''काजू पोटांत वतकच पळे सावळ्या अध्यात्म कशें तोंडांतल्यान भायर सरता तें? पळेलें मरे, काजू सामकी बरी अध्यात्माक.''.... दत्तान सॉद घालें... ''जितली पोरनी तितली चड बरी.'' वितोर चिली घेवन आयलें.

''हांव ताका शरण वचूं म्हणटा?''

''वद जाऊ कुणाला शरण मन लावन म्हण, अध्यात्मांत मन लावन केल्यार कामां जातात. शरण वतना आपूण कोण तें लेगित आपणें विसरपाक जाय आं.'' – सावळो.

''आमचो दादो एक दीस तणार मन लावन बांगडे भाजतालो. बांगडे भाजतां भाजतां मन लावन ताणें 'उगड दार देवा आता उगड दार देवा' पद म्हळें. देवान सोमतें दार उगडलें, आपल्या हातांनी भाजिल्ले बांगडे खावपाक लेगीत तो उरलो ना. सांगपाचें म्हणल्यार पद म्हण वद जाऊ कुणाला शरण.''

– दत्ता.

"अध्यात्मान तुंवें देहभान विसरपाक जाय. कवळ्यां जात्रेक म्हाजना कशीं भांगरा लकोवन येतात तीं पळोवंक ना तुंवें? तीं तेन्ना देहभान विसरुन देवाक पांयां पडपाक पसून विसरतात. देवळाच्या प्राकारांत फिरत रावतात. आतां हांव म्हाका विसरपाक आनीक एक घेतां आं." – सावळो.

"चार पेगां उपरांत हांव कोण तो म्हाकाय याद उरना. पूण हो अध्यात्म न्हय, ही नशा. अध्यात्मूय थोडो भोव नशाच. भगवो रंग, गळ्यांत तुळशी माळो, रुद्राक्ष घालतकच नशा येता, ना न्हय." – दत्ता.

"सद्याक, टू स्टार्ट विथ आस्था चेनल पळे आनी सकाळीं उठून ध्यान कर. ध्यान अध्यात्माक सामकें पोशक." – सावळो.

"हांव सकाळीं हांड्याक उजो घालपाक उठ्ठांच. नो प्रोब्लेम, पूण ध्यान जमतलें मरे म्हाका?"

"न जमपाक कितें जालां? आसरमांडी घाल, दोळे धांप, कान बंद कर, ताट कोणो कर आनी बस. पोंग कितें घालां? आमचो कोणो ताट नासल्यान सगले प्रोब्लेम."– दत्ता.

"भाईक पळे रे इतले प्रोब्लेम तरी कोणो टायट. आवट शर्ट करता देखून कळना तें." – सावळो.

"हांगां पळे, दोळे धांप, नदर नाकाचेर दवर मागीर तुका एक पोयंट दिसतलो ना जाल्यार तुका ऊँ दिसतलो. ट्राय ईट." – दत्ता.

हांवें दोळे धांपले पूण म्हाका तशें कांयच दिसलेंना, दोगूय म्हजेर बेजार जाले.

"दत्ता दोळ्यां सामकार ऊँ येना."

"कितें येता?"

"संध्या."

"तें मर्दीं खंय आयलें? हांवें सांगलां ऊँ दोळ्यां सामकार हाड, मर्दींच

संध्या खंय आयलें? आयज सुक्रार, बरडालो पसरो लेगीत बंद. नाका तें दोळ्यां सामकार येता, हाचें मनूच घाण! 'परद्रव, परकांता नाताळे जयाचिया चित्ता' अशें तुकाराम महाराजानी म्हळां तेंच खरें.'' - दत्ता तापलो.

''ग्लास रिकामो कर, आगो हाका ब्लॅक डॉग घाल पळोवया. ताणें तरी दोळ्यां सामकार कितें येता जाल्यार पळोवया!''

''एऽ नाका रे, सगलें भितर कॉकटेल जातलें मरे.'' हांव काकुळटेक आयलों.

''सगलें घुसळून मागीरुच रत्ना भायर येतात, समुद्र मंथन कशें जालें खबर ना तुका? आमीं पिता तो ताचोच प्रोडक्ट. अध्यात्मांत हें रागलें खबर आसपाक जाय बाबा.'' - सावळो.

''आतां परत ट्राय मार पळोवया, केल्यानी होत आहे रे आधी केलेची पाहिजे अशेंच मरे तें ?'' - दत्ता.

हांवें परत दोळे धांपून ट्राय मारली.

''जागी जाली?'' - सावळो.

''हांव खंय न्हिदलां तर?''

''हांव तुका म्हणिना, तुजी कुंडलिनी जागी जाली काय म्हणटां. ती जागी जावप अध्यामांत गरजेचें.''

''इतले बेगीन कशी जातली सावळ्या ताचे दोन जाता थंय आसा.'' - दत्ता.

''तें पेगाचेर निंबून आसा तर? म्हजे दोळे धांपल्या बराबर जाता.'' - सावळो

''कितें दिसलें रे आतां?''- दत्ता.

''परवरीचो हायवे दिसता. नायजेरियन दिसतात....''

''हो फ्लेशबेकान कॉमेण्ट्री सो दिता? कोणो टायट ना काय कितें रे? नायजेरियञ दिसले म्हूण विचारतां.'' - दत्ता.

''म्हाका दिसता हाचे भितर षडरिपु भरला.'' - सावळो.

''मागीर हांव कितें करुं रे? तुमीं म्हजे भितरले अवगुणूच सांगतात उतारो सांगांत मरे.'' हांवें आनीक एक पेग घेतलो.

''वायट पळोंव नाका, वायट उलोवं नाका, वायट आयकूं नाका.'' - सावळो.

''तूं ताका माकड जा म्हणटा?'' - दत्ता.

''आनी कितें तर? तो आतां अध्यात्मा कडेन वळटा म्हणटकच माकड जावचोच पडलोना.'' - सावळो.

''अध्यात्मा कडेन वळप म्हणचे माकड जावप तर?''- हांव.

''आनी कितें तर तुजे बाबतींत ती माकडचेश्टाच. जे खरे जीण जगतात तांकां अध्यात्मा कडेन वेगळे वळचें पडना. तांचे बाबतींत हें सगलें आपशींच घडटा. बाकीबाब कितें म्हणटा तें पळे 'जीवन त्याना कळले हो मी पण ज्यांचे पक्व फळापरी सहजपणाने गळले हो' - दत्ता.

''हांचें सगलें आपशींच जाता न्ही रे?' - हांव.

''तांचें तुजे सारकें वळूया बी अशें कांयच नासता रे. ते जीण सरळ जगतात, तांकां खंयच वळचें पडना. ते कितें उलयतात तें तांच्या ह्याच अणभवांतल्यान.'' - सावळो.

''ढेकर जेवण दिसे साचे नाहीं तरी काच कुन्था कुन्थी, हे ही बोल ते ही बोल कोरडे फोल रुची विणं अशें तुकाराम महाराजानी म्हणून दवरलां.'' - दत्ता

''तुमीं म्हाका घुस्पायतात मरे, मागीर हांव कितें करुं? अध्यात्म सोडूं?... आगो आनीक एक पेग हाड.'' हें हांवें वितोरीक म्हळें.

''आरे अध्यात्म धरपाची आनी सोडपाची वस्त रे?''- सावळो.

''मागीर करुं कितें?''

''पावलाक पावलाक ताका याद कर He व्हीथ कॅपिटल H.''- दत्ता.

''आनी कांय करपाची गरज ना?''

''ना. आनी हें करपाक पन्नाशी साठी बी लागना. केन्नाय करूं येता, खंयूय करूं येता, हांगां लेगीत ...''

''जाहिद शराब पिने दे मस्जिद में बैठकर
या वो जगह बता दे जहाँ पर खुदा न हो.'' - दत्ता.

''कळ्ळें ! चियर्स !!''



# आमची विनोद बुद्धी-
# एक अभ्यास

**गोंयकार** विनोद बुद्धी जल्माक येतनाच घेवन येता अशें म्हजें मत. सावळो म्हज्या मता कडेन सहभागी आशिल्ल्यान म्हज्या ह्या मताक मात्शें वजन येता. गोंयकार जेन्ना विनोद करता तातूंत sarcasm भरिल्लो आसता. ते सरदारजींच्या विनोदा सारखे उथळ नासतात.

'सरदारजी कितने बजे?' अशें म्हणटकच सगळे पिशे कशे हांसतात.

'सरदारजी बारा बजे.' अशें म्हणटकच लोळून हांसपीय हांवें पळेल्यात. आमीं असले पचके विनोद करिनात.

''दत्ता कितले वाजले?'' विठ्ठल बाबल्याल्या हॉटेलाच्या गल्ल्या वयल्यान विचारता.

''कालचे इतले.'' दत्ता म्हणटा. हो गोंयचे मातयेंतलो विनोद. हातूंत बिरबलाची विद्धत्ता आनी हजरजबाबीपणां दिसून येता. आतां सरदारजींक, पारश्यांक आपल्याचेर विनोद करपाची सवंय. ते आपल्याचेरुच विनोद करतात आनी ताचो आनंद घेतात. आमी ताका स्पोर्टींग स्पिरीट म्हणटात. आमकां तें 'तसलें' स्पोर्टींग स्पिरीट बी ना, आमी दुसऱ्यांचेर विनोद करतात

आनी तो आनंद सगळे घेतात. ज्याचेर आमीं विनोद करतात ताणें तो स्पोर्टींगली घेवंचो अशी आमी अपेक्षा करतात. कशें तें पळेया, हांव सद्दां बाबल्याल्या होटेलार च्या घेवपाक वतां. सावळ्यान एक दीस दत्ताक च्या घेवपाक आफयलो.

''दत्ता च्या घेतलो रे?''

''सोर्त फुटल्या काय कितें रे?'' दत्तान विचारलें. ह्या विनोदाक होटेलांतले सगळे खोऽ खोऽ करुन हांसले. तातूंत सावळोय आशिल्लो. विनोदांत टायमिंग म्हत्वाचो. जो मनीस सदां दुसऱ्याच्या खुस्तार खाता वा च्या मारता तो आज च्याक आफयता हो पोयंट. तो दत्तान कसो विनोदी ढंगान मांडला तें तुमी पळेयात आनी हातूंत कितलो sarcasm भरला ताचोय अंदाज घेयात.

केन्ना केन्ना आमचो विनोद below the belt type आसता. आतां तो आमकां दुखोवपा खातीर केल्लो आसता अशें न्ही, आमची स्टायलूच ती. वयल्यान ताका लागून आमी सुधारतात अशें हांव म्हणन. देखीक, आमचीं तिगांय शिकपाक तितलीं बरीं ना हें सगले जगाक खबर आसा. आतां ह्या भुरग्यांचो रिजल्ट केन्ना आसता तें म्हाका खबर नासता. त्यो तारखो आमचो शेजारी पोरोब कॅलेंडराचेर मार्क करुन दवरता. ज्या दिसा रिजल्ट आसता त्या दिसा पोरोब भायर रावता,

''दांडी यात्रा रे?'' तो आमगेल्याक विचारता (हो प्रस्न नंबर एक, दोन, तीन कोणांकूय जावं येता, व्हडलें आसल्यार दांडी यात्रा गो अशें जाता इतलेंच तुमी मतींत दवरात.) हांव भायर आसल्यार मागीर ह्या विनोदाक हांसतां. आतां हो विनोद बारीक विचार केल्यार उच्च दर्ज्याचो. हातूंत pun intended आसा 'दांडी' ह्या शब्दांत. गोंयकाराच्या जाग्यार आनीक कोणूय आशिल्लो जाल्यार 'विकेट पडली रे?' असो हलक्या दर्ज्याचो विनोद करतलो आशिल्लो. हांगां 'यात्रा' हो शब्द वापरला, यात्रा परत परत करची आसता. म्हणजे 'तुजी दांडी वचून तुका परत परत तेच परिक्षेक वा वर्गात बसचें पडलें रे?' हें ताणें आपले विनोदी बुद्धीन कशें विचारलें तें पळेया. ही किमया फकत गोंयकारुच

करुंक शकता. दांडी यात्रेक ऐतिहासिक म्हत्व आशिल्ल्यान आयकुप्याक वायट दिसना. आपूण फेल जावन सुद्दां आपलो संबंद खंयच्च्या तरी ऐतिहासिक घटणे कडेन जोडला हाचो ताका मागीर आनंद जाता.

आमगेर जेन्ना सोयरो येता तेन्ना आमी पयलो ताका च्या दितात. सोयरो च्याचो घोंट मारता आनी म्हणटा 'म्हाका डायबेटिस ना आं!' मागीर आमी सगळीं पोटभर हांसून घेतात आनी च्याचे कॉपांत दोन कुलेरां साखर घालतात. कितलो गोड विनोद हो! ताच्या जाग्यार आनीक कोणूय आशिल्लो जाल्यार 'च्यांत साखर घालूंक ना' अशें रुक्षपणान सांगतलो आशिल्लो. पूण आमचो सोयरो गोंयकार, ताणें आपल्या विनोदान दोन शेवणीं मारलीं. एक च्यांत साखर ना हें सगळ्यांक सांगलें आनी आपल्याक डायबेटीस नाशिल्ल्यान दनपारच्या जेवणाक कांय पथ्य ना हें इनडायरेक्टली घरच्यांक सांगलें. आमी गंभीर गजाली लेगीत आमचे विनोदी बुद्धीन कश्यो मांडटात तें पळेया. ताका लागून वातावरण पसून मातशें लायट जाता. म्हाका खूब तेंपान म्हजो एक आमीग मेळ्ळो, ताचे कडेन हांवें म्हज्या आनीक एका आमिगाची खबर घेतली,

''आरे रमेश मेळटा रे तुका?''

''रमेश केन्ना किल्ललो.'' हांव तेय परिस्थितींत हांसलों. आतां ही कितली वायट खबर पूण विनोदाक लागून ती कानांक तितली वायट लागली ना. ताणें रमेश मेलो, भायर पडलो, खंवसलो असले शब्द वापरलेनात. ताणें तो किल्ललो म्हळ्ळें. किल्लप रोखडें जायना ताका वेळ लागता म्हणजे रमेश गेल्यार खूब तेंप जालो. किल्लप हातूंत जीवन आसा म्हणजे तो मरुन ताणें दुसरो जल्म सुद्दां घेतला आसतलो असो ताचो अर्थ. विनोदांत सुद्दां कितले सुंदर विचार!

आमचे आईक विनोदी बुद्ध भरपूर. ती म्हजेर भरपूर विनोद करता. आमगेर सोयरे आयले म्हणटकच तिच्या विनोदांक वोतो येता. देखीक, हांव बाजारांत वचपाक भायर सरतां तेन्ना तिचे कडल्यान सामानाची यादी घेतां.

''आई आनीक कितें जाय गे?''

''बरडागेर वचून तुजे खातीर रात भर अक्कल हाड.'' हाचेर म्हाकाय हांसूंक येता, आमगेर आयिल्ले सोयरेय हांसून घेतात. म्हाका अक्कल कमी तें कशें तिणें सांगलें पळेया. बारीक विचार केल्यार तुमकां आनीक एक गजाल कळटली, बरडागेर अक्कल मेळटा हाचो अर्थ ताच्या परस्यार pin तें plane मेरेन मेळटा.

हांव एक दीस म्हजे केंस डाय करुन आयलों. म्हाका पळेल्या बरोबर सावळ्यान प्रस्न केलो, 'हॉट मिक्स करुन आयला काय कितें रे?' म्हाका वायट दिसलें ना. उलट ताचे तकलेचें कवतूक दिसलें. 'काळे केंस करप' हाका हॉट मिक्स शब्द कितलो सूट जाता तें पळेया. असो विनोद फकत फीन तकलेचो गोंयकारुच करुंक शकता.

गोंयकार सहसा आपल्याचेर विनोद करनात अशें हांवें म्हळां खरें पूण अशी केस हांवें एकदां पळेल्या. दत्ताली धूव, ती तिरशी आशिल्ल्यान तिचें खंयच जमऽ नाशिल्लें. शेवटाक तिचें मुंबय, तिचे परस पंद्रा वर्सांनी व्हड आशिल्ल्या चल्या कडेन लग्न जालें. आषाढ पावळेक जेन्ना ती गोंयां कुळारा आयली तेन्ना वाड्यावयल्यो धवलुको तिका मेळपाक आयल्यो.

''भावोजी कसो गो?''

''मैं क्या करुं राम मुझे बुड्ढा मिल गया.'' तिणें कपलार हात मारुन म्हणलें. तशीं सगळीं हांसलीं. आतां हे जापेंत करुण रस काठोकाठ भरला पूण तिणें तातूंत हास्य रस भरशिल्ल्यान ताचो एफेद कळ्ळो ना आनी गंभीर जाप विनोदी जाली.

आमी आकारा वयल्यानूय विनोद करपाक आयकनात. मागीर तो विनोद कोणाचोय जांव. आमगेर अचकीत एक दीस सोयरो आयलो (हो दुसरो सोयरो). जेवणाक नुस्तें कांय नाशिल्लें. विस्वणाच्या ल्हान कळाव्याचे दोन तळिल्ले कुडके आईन ताच्या पानार वाडले.

''केदीं पोस्तां गे!''

''हय जाणां, तीं पचपाक जड म्हणून तुका दोनूच वाडल्यां.'' आईन म्हणलें. आमचे पंगतीक मुंबयकार बशिल्लो. ताका तो विनोद कळ्ळोना.

''जेवण ते, त्याला कोणी नावं ठेवतात का?''अशें कितें तरी पचकलो. सोयऱ्यान ल्हान दोन कुडक्यांक पोस्तां म्हणलीं आनी आईन तीं पचपाक जड वतलीं अशें म्हणिल्ल्यान हास्य रस तयार जालो.

आमगेर सोयरे येवपी सगळेच विनोदी बुद्धीचे. एकदां असोच एक सोयरो आमगेर रावपाक आयिल्लो. ताणें कपडे हाडूंक नाशिल्ले म्हणटकच हांवें ताका न्हेसपाक म्हजो लेंगो दिलो. तो फाटल्यान पिंजिल्लो, हांवें तें पळेलें ना.

''आरे तुमच्या घराक ए.सी. ना म्हणून कपड्यांक घाल्या?'' ताणें विचारलें.

आतां हांगां तो विनोदी बुद्धीचो नाशिल्लो जाल्यार ''आरे हो लेंगो पिंजला मरे.'' अशें म्हणटलो आसलो आनी घडये हें म्हज्या मनाक लागतलें आसलें.

मोठेपण वा बारीक आसप हें तशें शारिरीक व्यंग न्हय तरी आसतना तुमकां कोणेंय रगडो वा सवळ्यां बडी म्हणत जाल्यार वायट दिसता वा राग येता. पूण हेंच सांगतना विनोद जर वापरलो जाल्यार तुमकां ताचें व्हडलेंशें कांय दिसना. म्हज्या लग्नाक एक सोयरो सव्यार जेन्ना आमकां परबीं दिवपाक आयलो तेन्ना ताणें म्हळ्ळें 'जिसकी बिवी मोठी उसका भी बडा काम है. आगो हाका व्हंकल पावणे वेळार हांडीर मारुन व्हर.' हें आयकून स्टेजी सकयल बशिल्ले सगले हांसले. मागीर हो सोयरो फकत हात दिवन लग्नाचो लाडू घेवन गेलो. विनोदाचे कितले फायदे तें पळेयात.

आमचे सगलेच विनोद वयल्या दर्ज्याचे आशिल्ल्यान ते आमकां सगल्यांक कळटाच अशें ना. तें प्रत्येकाचे बुद्धीचे तांकिचेर निंबून आसा. केन्ना केन्ना ते समजले ना जाल्यार विसकटावन सांगचे पडटात. एकदां पोरोबाल्या पोर्सांतलो घड कोणें तरी मारलो. पोरोबाक वाड्यावयल्या दत्ताचेर दुबाव. ताणें दत्ताक विचारलें लेगीत. दत्तान हड्डें फुडें काडून म्हणलें, ''हांव म्हाळशेच्या देवळांत

घांटी पोंदां उबो रावन सांगतां हांवें घड सोड केळें पासून पळोवंक ना.''

सांजेचो सावळ्याक अख्खो घड दत्ताले पडवेर कोयते सकट सांपडलो. दत्ताक विचारल्यार ''येदोळ हांवें विनोद केल्लो तुमकां तो कळ्ळो ना जाल्यार हांव कितें करूं?'' दत्तान घडाचें केळें सोलून तोंडांत उडयत म्हणलें. आमीं म्हाळशे कडेन आमकांय बी दत्ता भशेन विनोदी बुद्ध दी अशें मागलें आनीक आमच्या हातांत कांय नाशिल्लें.

आमी ल्हानपणांत देवळा कडेन चवखेर वसंत पुजा, आवळा भोजन आसतकच जेवपाक वताले. जेवणाक व्हडल्यो पंगती आसताल्यो. रांदपी आचारीमाम एकटो ह्यो पंगती वाडटालो. वोणोव घेतिल्ल्यान ताच्या भेंडांत येतालें. शेवटाक जेन्ना तो जेवपाक बसतालो तेन्ना तो वाडप्याक 'पयलीं म्हाका iodex वाड' अशें म्हणटालो. आतां हो विनोद पळेयात, आपल्या भेंडांत आयलां, कसकस भरला अशें पिरंगुच्या एवजीं iodex वाड ह्या दोन शब्दांनीच ताणें आपल्याक कितें भोगलां तें सगल्यांक सांगलें. 'मुन्नी झंडू बाम हुई तेरे लिए' असलीं पदां आतां आयल्यां, आमचो आचारी माम काळाच्या कितलो फुडें आशिल्लो हें आमकां आतां कळटा.

पयर आमगेली रांदचेकुडींत 'मन डोले मेरा तन डोले' गायताली. आई जपाक बशिल्ली. तिणें जप थांबोवन म्हाका म्हणलें ''आमचो रेडवो मोडला काय कितें रे?''

हांवें म्हणलें ''ना. कित्याक?''

''लताच्या आवाजाक कितें जालां तर?'' हें आयकून ही भितर पदेवपाची बंद जाली. आमी आमच्या विनोदान दुसऱ्यांचीं तोंडां कशीं बंद करतात हाची ही बरी देख.

आमचो विनोद अडेचो न्हय. हेवटेन मात्शें लोकांक पोट सुटल्यार पुरो, 'कितें रे, पयशें जाल्यात काय कितें?' अशीं उतरां गोंयकाराच्या तोंडांतल्यान तेवटेन सुट्टा. आमी पु.ल. क 'कोट्याधिश' म्हणटात. गोंयांत पावला पावलाक

पु.ल. सापडटात. हांवें सावळ्याक म्हळें, "कितें रे, मोबाईल घेतलो?" "कितें करतलों? बायल निगरगट्ट मेळ्ळी म्हणून मोबायल घेतलो."अशी उच्च कोटीची कोटी गोंयकारानूच करपाची. बँकेची पिग्मी कलेक्ट करपी शशिकांताक पळोवन 'आरे आमचो कलेक्टर आयलो रे.' असो उलो मारपी आमीच.

आपले चलयेच्या बांयटेराक अमेरिकेक वचपी काकीबायन नाश्तो दिवपी हवाई सुंदरेक, "Today is my panchami, you prepared this after bath and purification?" (आज म्हजी पंचम, तुमी हें न्हावन आनी सवळ्यानी केलां मूं?' तुमचे खातीर अणकार) अशें विचारलें. हवाई सुंदरेक हो विनोद कळ्ळो ना आनी तिणें आपले ओले केंस दाखोवन आपूण माथ्यार न्हाल्यां म्हण सांगलें. आतां ताणीं आपली जायरात Fly with us on panchamis अशी केल्या म्हूण सावळो सांगतालो.

घर की मुर्गी दाल बराबर अशें म्हणटात. आमी पि.जी.वोडहाव्जाचे circumstantial विनोद माथ्यार घेवन नाचतात. आमचे विनोदी बुद्धीची आमकां कदर ना हेंच खरें. मराठी विनोदी लेखक चि.वि. जोशी हांणी एके कडेन शाब्दीक विनोद प्रसंगनिष्ट विनोदा बद्दल बरयलां. असले विनोद मराठींत सोदचे पडटले, हांगां ते पावला पावलाक जातात. देखीक हरीलो पूत अनंत पियेवन सदचे भशेन घरा येता. मागीर तोंडाक तोंड लागता आनी हरी पुताचेर दोन फुलयता. 'दादो तुंवें म्हजेर दोन फुलयलीं हांवें तुजेर एक तरी फुलयलां?' पूत हरीक विचारता. आतां ह्या पुताच्या प्रस्नातूच कितलो विनोद भरला तें पळेया. आनीक एक प्रसंग पळेया. दत्तालो आठवेक शिकपी सुर्या सांतानाल्या बारांत हुर्राक पियेतना निकम गुरुजीन पळेलो. ताणें वेळ केलो ना. सोमतो दत्तागेर वचून खबर दिली. 'आज त्याने खाऊ साठी म्हाझ्या कडून पैसे घेतले नाही, त्याने कुणा कडून पैसे घेतले असेल बरे?' दत्तान परतें निकम गुरुजींक विचारलें. ह्या विनोदान निकम गुरुजींची दातखिळी बसली अशें निकम बाईन मागीर दत्ताक सांगलें. 'सत्य ऐकल्यावर अशीच दातखिळी बसते' अशें दत्तान

तिका सांगलें. मागीर निकम दांपत्य दोन दीस दिसलें ना, तें गांवाक गेलां अशें सावळ्याक मागीर कळ्ळें.

पोरुं आमगेर सत्यनारायण पुजा केल्ली. पुजा जातकच बाबुली भटान शेवटाक 'हे देवा, वेळे अभावी पुजेक हांवें पुरयत ह्या नात्यान दोन तीन कडें शोर्टकट मारल्या. ताचो दोश यजमानाच्या माथीं न मारतां तांकां ह्या पुजेचें फळ दिवचें आनी ते दोष न मानता तुज्या पांयां सकल दवरचे आनी पुजा मानून घेवची' अशें सांगणें केलें. हें सांगणें आयकतकच म्हाका 'Good humor makes all things tolerable' अशें कोणें तरी म्हणिल्ल्याची याद जाली आनी म्हाका तें पटलें. हांवें बाबुली भटाक पंचवीस रुपया दक्षिणा चड दिली.

अशे आमी गोंयकार आनी आमची मार्मिक विनोदी बुद्धी. ते बाबतींत आमचो हात धरपी कोणूच ना. मराठी दिसाळ्यांत हांवें एक विनोद वाचिल्लो,

माणूस : काय भैया आज दुध पातळ कसं?

भैया: आज पाऊस पुष्कळ पडला त्या मुळे झालं असावं.

हांवें हो विनोद वाचतकच ताचो प्रयोग आमच्या दुदकाराचेर केलो.

हांव: आरे आज दूद पातळ शें?

दुदकार: हांव दूद काडटना हें मात म्हशीक विचारपाक विसरलों आं फाल्यां विचारतां.

आमी गोंयकार ते........ आमचो विनोद आमचेच भशेन......वेगळोच!



# एकला चोलो रे

**'ज्योदी** तोर डाक शुने क्यो ना आशे तोबे एकला चोलो रे'

हें गुरुदेव रविन्द्रनाथ टागोर हांणी बरयल्लें फामाद पद (हांव रविन्द्रनाथ टागोर हांच्या नांवां आदीं गुरुदेव आनी मोहनदास करमचंद गांधी हांच्या नांवां आदीं महात्मा लायतां.) कित्याक कोण जाणां जेन्ना जेन्ना हांव हें पद आयकतां तेन्ना तेन्ना गुरुदेवान हें पद म्हजेच खातीर बरयलां अशें म्हाका दिसता. हें पद खंय महात्मा गांधीक खूब भावलें तशेंच तें म्हाकाय खूब भावलें. आतां तुमकां हांव म्हजी तुलना महात्मा गांधी कडेन करतां बी अशें दिसत. कांय हरकत ना कारण आमच्या मदीं कांय गजाली कॉमन आसात, ना न्हय. तांकां पिटर्समारिट्जबर्ग स्टेशनाचेर गाडयेंतल्यान धुकलून भायर उडयल्ले, म्हाकाय मडगांव-मुंबय व्हाया मिरज हे ट्रेनींतल्यान, आरक्षण ना ह्या साद्या कारणाक लागून धुकलून भायर उडयल्लो. आतां महात्मा गांधीक वर्णभेदाक लागून भायर उडयल्लो म्हणटकच तांकां आयतोच चांस पडलो. म्हाका आमच्याच मनशांनी भायर उडयल्ल्यान हांवें धाडवल्ल्या कमराक जिरें वांटून लावंचे शिवाय दुसरें कांयच केलें ना. आमचो देस स्वतंत्र जाल्लो, गोंय मुक्त जाल्लें म्हणटकच मडगांव-मुंबय व्हाया मिरज प्रसंगाक व्हडली प्रसिद्धी मेळ्ळी ना. एक एकल्याचें नशीब! महात्मा गांधीन ट्रेनीच्या प्रसंगाचो लाव घेवन तरेतरेचीं आंदोलनां सुरु केलीं

आनी तो महात्मा जालो. थोड्यांचो तो बापुजी जालो. ताचो फोटो नोटीर पावलो. म्हजो फोटो 'आपण भरल्या संवसारातून गेल्यास बारा दिवस पूर्ण होत आहेत' ही बातमी दिसाळ्यार येतली तेन्ना उपेगाक येतलो. आसूं.

तर, आमीं एकला चोलो रे बद्दल उलयताले. हें पद गुरुदेवानी बरयलां. आयचे पिळगेचें वाचन साप्प ना अशें म्हज्या कानार पडलां. हाका लागून म्हाका आतां तांकां गुरुदेव रविन्द्रनाथ टागोर कोण तें सांगचें पडटलें. आतां हांवें जर 'गितांजली' जाणें बरयल्या तो गुरुदेव रविन्द्रनाथ टागोर अशें सांगलें जाल्यार तांकां कळचें ना. गितांजली म्हणजे कितें असो प्रस्न तांचे कडल्यान परतो म्हाका येवं येता आनी म्हाकाय बी ताची जाप सारकी दिवंक येतली ही खात्री ना. हाका लागून म्हाका दिवंक जमता आनी तांकां समजतली अशी गुरुदेवांची वळख हांव करुन दितां. आयनॉक्सांत सिनेमा सुरु जावंच्या आदीं 'जन गण मन' लागता आनी तिरंग्याक फावो तो मान दिवपाक उबें रावचें अशी विनवणी करपी दोन वळी पड्ड्यार झळकतात. मागीर आमीं एका हातान कोला, दुसऱ्या हातान पॉपकॉर्नान भरिल्ली बाल्दी आनी आमचो देह हांचो तोल सांबाळीत उबीं रावतात. मागीर पड्ड्यार तिरंगो झळकता आनी जन गण मन सुरु जाता. हें जन गण मन जाणें बरयलां तो गुरुदेव रविन्द्रनाथ टागोर. थोडे म्हणटात हें पद ताणी इंगलंडचो राजा पंचम जॉर्ज हाका येवकार दिवपाक बरयल्लें. खरें फट देव जाणा म्हाका त्या वादांत पडपाचें ना, हांव असल्या वादांनी केन्नाच पडऽ ना. फाटीं भर बाजारांत, सावंतान, नुस्तेमारीचेर कितल्या दिसांची बंदी आसची काय विचारलें. हो प्रस्न विचारल्या बराबर अख्ख्या बाजारान आपल्या कानांक एण्टीना लायल्यो. हांव तेन्ना सदचेवरी एक माप तिसऱ्यो घेतालों...

"इजाबेल, तिसऱ्यो बऱ्यो कटऽ कटऽ कटऽ करुन उलयतात न्ही गो?" हांवें विशय बदलपाचो यत्न केलो.

"त्यो तुका विचारतात नुस्तेमारीक बंदी कितल्या दिसांची आसची

काय म्हूण.'' इजाबेलान तिसऱ्यो म्हजे पोतयेंत ट्रान्सफर करीत म्हणलें. हांवें पोती घेवन धांव मारली (पयशे दिवंक ना म्हाका खबर आसा). सोड.

आतां मनशान आपली वाट एकट्यानूच चलची पडटा अशें म्हजें मत. थोड्यांक हाची जाणीव खूब बेगीन जाता थोड्यांक तें खूब उसरां कळटा. आमी हांगां वाल्ह्याची देख घेवया. वाल्ह्या हो वाटमारी करतालो आनी आपले फामिलीक बरो पोसतालो. ताचो धंदो बरो चलतालो आनी तो धंद्यांत बरो सेटल जाल्लो. एक दीस ताका दुर्बुध्दी सुचली आनी भर जंगलांत ताणें लुटपाक नारद मुनींक आडायलो. नारद मुनी कडेन ताणें लुटपा सारकें कितें पळेलें ताकाच खबर (हांव दुर्बुध्दी म्हणटां ती ह्या खातीर.) नारद मुनीन केन्ना कोणाचें बरें केल्लें तुमीं आयकलां? ताणें वाल्ह्याक सांगलें तूं घरा वच आनी बायल भुरग्यांक विचार की तीं तुज्या ह्या पापांत वांटेकरी जावंक तयार आसात काय म्हणून. वाल्ह्या जरी दरोडेखोर जालो तरी तो सादो आसलो. ताणें नारद मुनींक थंयच उबो राव म्हणून सांगून तो घरा गेलो आनी नारद मुनींन घाल्लो प्रस्न घरच्यांक घालो. घरच्यांनी फट्टऽ करुन सांगलें, 'ना रे बाबा तुज्या पापांचो तूंच धनी आमीं तातूंत ना.' हें आयकून वाल्ह्याक चिर्रऽ जालें. ताणें नारद मुनींक वचून जें कितें सांगलें ताची डिटेल म्हजे कडेन ना. पूण ताका ह्या जगांत आपूण एकलोच हाची जाणीव जाली आनी ताणें फुडें 'एकला चोलो रे'आपणायलें. ताणें रोखडीच आपली कुराड (मनशांक मारपा खातीर वापरतालो ती) कोनश्याक मारली, लेखणी हातांत घेतली आनी सोमतें रामायण बरोवन काडलें आनी हाका लागून आमकां रामानंद सागराची रामायण मालीका पळोवपाक मेळ्ळी.. फुडें तो वाल्ह्याचो वाल्मिकी जालो. ग.दी.मा. रामायणकार जालो. कितल्या जाणांचें भाग्य फळफळ्ळें तें तुमी पळेया. एकदां मटक्याची बीट घेवन येतना हांवेंय वाल्ह्या जावपाचें थारायलें. म्हाका वाटेर नारद मुनी मेळ्ळो ना ती गजाल वेगळी.

''हांव मटको घेतां, बीट घेवन घरा येतां, ह्या पापांत तूं वांटेकरी जावपाक

तयार आसा?'' वाल्ह्यान घरकान्नीक विचारलें.

''हें विचारप जालें? हांव तुमचे बराबर सप्तपदी ओगीच चल्लां? हांव तुमच्या बऱ्या वायटांत बरोबरची भागीदार. दिवाळे कडेन चपलांहार करुया न्ही?'' घरकान्नीन मेजा वयल्यो नोटी मेजीत विचारलें. हांव धन्यऽ जालों. हांवें हे जापेची अपेक्षा धरु नाशिल्ली. हांवें येतना चारशें पानी कादेर्न आनी दोन पेनां हाडिल्लीं. हांवूय वाल्मिकी जावन रामयणाचे तोडिचें कितें तरी बरयतलों अशें थारायल्लें. वाल्ह्याचो वाल्मिकी जालो ना. म्हजी मांयभास आनी तुमी व्हडल्या ग्रंथाक मुकलीं. आसूं. वाल्ह्याच्या प्रसंगा वयल्यान जिणेंत आपूण एकलोच आसतां आनी जिणेची वाट आपणे एकल्यानूच चलची पडटा हें तुमकां कळ्ळें आसतलें. 'एकला चोलो रे' १९०५'त प्रसिद्ध जालें आनी बरोब्बर शंबर वर्सांनी हांवें 'वांगड' ही कविता बरयल्ली. तिच्यो सुर्वेच्यो वळी अश्यो आशिल्ल्यो,

आयला एकलो वतलो एकलो
एकलोच जगपाक शीक
आमी तुका वांगड दिवंचो
म्हूण कित्याक मागता भीक

म्हजे हे कवितेक, 'एकला चोलो रे'क मेळ्ळी तशी प्रसिद्धी मेळ्ळी ना. आईन ती वाचून, 'आयलो एकलो वतलो एकलो हें तूंवें सांगपाक जाय? तूं म्हजे बराबर येता?' असो शेरो मारलो आनी वयल्यान, नुस्तें उजरावपाक हो पेपर घेतल्यार जाता? असो प्रस्न विचारलो. आनी म्हजी जाप मेळच्या आदींच म्हजी कविता आदोळे पोंदा पावली.

गुरुदेवानी हें पद १९०५'त बरयलां पूण म्हज्या पुर्वजांनी 'एकला चोलो रे' हें धोरण खूब पयलीं आपणायल्लें हें म्हाका हांगां अभिमानान नमूद करचेंशें दिसता. जेन्ना पोर्तुगेजांनी बाटाबाटी करपाक सुरवात केली तेन्ना तुमच्या देवांनी आनी तुमच्या जाण्टेल्यांनी अंत्रुज म्हालांत सौंदेकाराचो आश्रय घेवपाक धांव मारली. पूण आमचे जाण्टेले कापास्दादीचे, ताणीं ही वाट आपणायली ना.

ताणीं 'एकला चोलो रे' अशें म्हणीत रायबंदरसून फोंडव्यां गेले आनी तारीर...,

'तुमकां बाटोवंक जाय जाल्यार आमकां बाटया', अशें पोर्तुगेजांक आव्हान दिलें. (हें ताणी संस्कृतांत सांगलें कारण आमचें शास्त्र्यांचें घराणें.)

'तुमकां बाटोवन आमच्या पदरांत कितें पडपाचें आसा?- पोर्तुगेज. (हें ताणी पोर्तुगिजींत म्हणलें. तांची मांयभास पोर्तुगीज, हांगां कांय गोंधळ ना).

हो संवाद रायबंदरा बंदरार जालो अशें आमच्या वाड्यावयले सांगतात. ते सुवातीर एक स्मारक बी जावंचें अशें म्हाका दिसतालें. हांवें एक अर्ज लेगीत केल्लो पूण आमचें सरकार हे बाबतींत सामकें उदासीन.

गुरुदेव, ह्या पदांत एके कडेन म्हणटात, 'जर सगल्यांनी आपलीं तोंडां बंद केलीं जाल्यार लेगीत तूं तोंड उगड आनी मुक्त कंठान आपल्या मनांतली गजाल सगळ्यांक सांग.' आमच्या देसांत, २५ जून १९७५ ते २१ मार्च १९७७ ह्या काळांत, इंदिरेन (पं. जवाहरलाल नेहरु हांची कन्या) आणीबाणी लायली. ह्या काळांत, गोंयां कितल्या जाणांनी आपलीं तोंडां उगडलीं म्हाका खबर ना, हांव आमच्या पुरतें उलयतां. तेन्ना म्हजो बापूय वास्को शिपयार्डांत कामांक आसलो (आतां जें पेन्शन आईक मेळटा तिका तें पुरो जाता.) आणीबाणी लागतकच बाबड्याक टायमार कामाक वचचें पडटालें. ताका ताची संवंय नाशिल्ल्यान ताणें तेन्ना जे हाल काडल्या ते जयप्रकाश नारायणान लेगीत जेलींत काडू नासले अशें सावळो म्हणटा. पयलीं तो तामूचें दूद काडून तें बाबल्याच्या हॉटेलार घालून, नाश्तो करुन वास्को प्रयाण करतालो. दनपारच्या सुमाराक शिपयार्डाच्या वर्कशॉपांत पावतालो. चलतालें. आणीबाणींत हें सगळें बंद जालें तेन्ना आमचे आईन ह्या आणीबाणीच्या आड आवाज काडलो. तुमकां कितल्या जाणांक हाची जाणीव आसा?

'ह्या इंदिरेन लायिल्ले आणीबाणी आड उत्तरेंत दोन तीन बोडकांनी आवाज उठयलो तितलोच. हांगां सगळे मूग गिळून ओग्गी बसल्यात. आणीबाणीक

लागून म्हाका हांगां चारांक उठून डबो भरचो पडटा. ह्या प्रेसांवांच्या आशिल्ल्या मनशाक णवांच्या ठोक्याक ऑफिसांत पावचें पडटा. कोणाक पडलां? सगळे जाण इंदिरेक भियेवन दीस काडटात. काकणां घालात सगळे जाण!'

एके बायलमनशेन दुसरे बायलमनशे आड काडिल्लो हो आवाज कोणाकूच खबर ना, ताची खंय नोंदूय जाली ना. आमकां व्हडपण नाका. पूण जेन्ना सगळ्यांचे आवाज बंद जाल्ले तेन्ना म्हजे आईचो आवाज बुलंद आशिल्लो हाचो म्हाका अभिमान. गुरुदेवांनी सांगिल्ले प्रमाण तिणें आपल्या मनांतली गजाल मुक्तकंठान सगळ्यांक सांगिल्ली.

गुरुदेव ह्या पदांत फुडें म्हणटात, तुज्या वांगडा कोण नासलो जाल्यार लेगीत काळखे रातीं तुजीं पावलां रक्तबंबाळ जालीं तरी, तूं तुजी वाट चलत राव. दिवो नासलो, तुका सगळीं दारां बंद जालीं जाल्यार तूं तुजे भितरली ज्योत पेटय आनी एकलो पेटत राव. गुरुदेव हांगां आमचे सारके काजुल्यांचें वर्णन करता. जाका लग्न जाल्ली बायल आसा आनी घरांत आवय आसा ताका गुरुदेव कितें सांगता तें बेस बरें कळटलें. हातूंतलो एक पसून लिंक मिसींग आसत जाल्यार ते कितें म्हणटात तें सारकें कळचें ना. जेन्ना बायल घोवाक, आवयच्या ताटा खालचें माजर आनी आवय पुताक, नंदी बैल म्हणटा तेन्ना आमकां गुरुदेवान बरयल्ल्या ह्या पदाची याद जाली म्हूण कोणांक अजाप दिसचें न्ही. म्हाका तर हाचो अणभव लग्नाच्या पयल्याच दिसा आयलो. त्या दिसा, रातचें, हिणें वरणान आनी हांवें सारान दोन उणयो पोटांत धुकल्ल्यो. आनी, येता न्ही, अशें म्हणून ही न्हिदपाक गेली. हांवूय, हय तर, म्हणून पानां वयलो उठलों..,

'हितीं ताटां कोणाक दवरल्यां?'- आई. (शेवतें फकत सकाळच्या आदेसाकूच येता).

हांव दोगांयचीं तांटां धुवन बेडरुमाचे दिकेन वतां थंय आसां, 'चल्लो नंदी बैल' आईचीं उतरां कानार पडलीं. बेडरुमांत भितर सरुन हांवें दाराक आडामो

घालो (आमच्या बेडरुमाच्या दाराक आडामो आसा) 'आयलें आवयच्या ताटा खालचें माजर'. हिचीं उतरां काळोख चिरत म्हज्या कानार आदळ्ळीं. मिण्टां भितर घरांतलो कर्तो सवर्तो पुरुश पयलीं बैल आनी मागीर माजर जाल्लो. त्या काळखांत म्हाका गुरुदेवान सांगिल्लो कांटेरी मार्ग स्पश्ट दिसपाक लागलो आनी म्हज्या तोंडांतल्यान हीं उतरां आपशींच भायर पडलीं

तोबे पोथेर काँटा
ओ तुई रोक्तो माखा चोरोनतोले
एकला डोलो रे..

गेलीं एकवीस वर्सां हांव ही कांट्यांची वाट रक्तबंबाळ जाल्ल्या पांयांनी चलत आसां आनी म्हजे सारकेच अगणीत दादले ही वाट अशेच चलतात आसतले. अश्या वेळार आमकां सगळ्यांक फुडें सगळो काळोखूच दिसता. मागीर गुरुदेवान सांगिल्ले प्रमाण आमी आम भितरली ज्योत पेटयतात (कशी पेटयतात हो प्रस्न कृपया बायलांनी विचारचो न्ही) आनी आमी आमचें संवसार रुपी व्होडें तडीक लायतात.

... तोबे बज्रानोले...
आपोन बुकेर पाजोर जालिये निये
एकला जोलो रे...
गुरुदेव, तुका म्हजो सलाम!



# काळ

**"मुलानो,** व्याकरणात तीन मुख्य काळ आहे भुतकाळ, वर्तमान काळ आणी भविष्य काळ.'' पाटील गुरुजीन आमकां काळ आपले परीन समजायले. रोकडेंच रेखा हुबळीकर ( आता भोपाळाक आसता आनी सुखान संवसार करता, करुं दी बाबडें) उबें रावलें,

''गुरुजी, म्हातारी मेल्याचं दुःख नाही, काळ सोकावतो, हा काळ कुठला गुरुजी?''

''बाळ, हा काळ ह्या काळा पैकी नव्हे, तो तुम्हाला नंतर कळेल.'' पाटील गुरुजीन वर्तमान काळांत पूड नाकांत घाली.

''गुरुजी, दादले भुतकाळ आठवून रडटात व बायका भविष्य काळ रंगुन रमतात, असं का गुरुजी?'' आमगेलो दत्ता फाटल्या बाकावयल्यान (हो दत्ता फुडाराक सी.डी. देशमुख जावपाचो आशिल्लो, फुडें कितें जालें खबर ना).

''दत्ता, तू म्हणतो ते खरं आहे, आयुष्य तसेच असते.'' गुरुजीन आपल्या पुडव्याच्या पोंतान दोळे पुसले.

''मास्तर तुमचे दोळे का पाणावले?''– दत्ता.

मास्तरान जाप दिनासतना घांट पंदरा मिण्टां बेगीन वाजयली.

हे सगले काळ तेन्ना म्हजे तकले वयल्यान गेले. हांवें त्या संबंदीन दत्ताक विचारलें,

''दत्ता, काळ सगले तकले वयल्यान गेले मरे?''

'' म्हज्याय गेल्ले.''

''तूं तर काळाच्या फुडें पाविल्लो मरे, दादले रडटात बायलां रमतात, तें कितें?''

''आरे काळ समजप व्हडलें न्हय. हें पद पाठ कर *मुझे तुमसे प्यार था आज भी है और कल भी रहेगा* .''

''पद खबर आसा काळ कळना.''

''तरी कळना? सामकोच भोटो मरे तूं!''

''म्हणुनुच तुजे पांय धरतां न्हय''.

''बरें, मटक्याचो अभ्यास करुया मागीर कळटलें. काल धा वर बारा आणे लावले होते व गेले, भूतकाळ. तुजे बारा आणे गेले बरोबर?''

''हय''.

''आज कित्याचेर लायतलो?''

''सतराचेर.''

''आज सतरावर बारा आणे लावले, वर्तमान काळ.''

''कळ्ळें.''

''फाल्यां?''

''खबर ना.''

''बरें, फाल्यांचें फाल्यां बघणार, भविष्य काळ, कळ्ळें?''

''आतां लायट पेटली, अशें समजाय मरे.''

''आरे अश्योच साद्यो देखी दिवन शिकोवपाक जाय, गुरुजी मेलो शिकयतलो.'' दत्ता तापलो.

घरा येवन हांवें आईक सांगलें,

''आगे, तुका काळ खबर आसा गे? आज आमकां तीन काळ शिकयले, हांवें मटको लायलो, हांव मटको लायतां आनी हांव मटको लायतलों.''

''म्हाका काळ बी कांय खबर ना. म्हाका फकत, हांव घश्टो काडटालीं, हांव घश्टो काडटां आनी मर ऽ सर हांव घश्टों काडटलीं हें खबर आसा.''

''रोखडी शिकली मगे तूं, आनी दुसरो काळ खंयचो?'' म्हाका आतां काळ इन्ट्रेस्टींग सो दिसपाक लागलो.

''तुज्या बापायचेर आयला तो काळ. तो खंय आसा तो पळे, कामणे आज नण्णीं काडपाक आयलां.'' अशें म्हणून तिणें आदन दवरलें. म्हाका दुसरो काळ कळ्ळो ना तेन्ना हांव ल्हान आंसुये!

हांव भायर सालांत आयलों जाल्यार बापूय आड्याक नदर लावन बसला.

''कितें रे?'' हांवें ताका जागयलो.

''दिस ऽ भर लाग ऽ ला थंयसर ऽ ध्यान.'' ताणें म्हणलें.

''तें सोड, आज आमकां काळ शिकयले ते म्हजे तकले वयल्यान गेले. जाका ताका विचारतां तो आपले परीन काळाचें वर्णन करता. तूं मातसो सांग मरे.''

''काल दाळचो रोस आशिल्लो, आजुय तोच आसा, फाल्यां गरम करुन तोच आसतलो, भूतकाळ, वर्तमान काळ, भविश्य काळ. दनपरां पानार बस, कळटलें तुका.''

''बाजारांत वचूं नाकात मागीर रांदपाचें कितें? ताका दाळीच्या रोसावयल्यान काळ शिकयतात? काळ आयला तुमचेर.'' आई भितरल्यान आड्डली.

''दिस ऽ भर लाग ऽ ला थंयसर ऽ ध्यान. कामण्या आयलें गो तूं एकदांचें?'' अशें म्हणत तो पोरसांत गेलो.

''आई, कामण्या आयलें गो तूं एकदांचें, हो खंयचो काळ गे? हांव परतून घुसपलों.'' हांवें आईक म्हणलें.

''तुजो बापूय घुस्पला तितलो पुरो. तूं आनी घुस्पुं नाका.'' आईन आदन वाळ्ळें.

हांवें वयर म्हणलां तशें हांव सदांच तिनूय काळांत घुस्पत उरलों. ह्याच खातीर इतिहास आनी म्हजें कशेंच पटलें ना. इतिहास म्हणचे दुसरें तिसरें कांय न्ही पूण भुतकाळ अशें म्हजें मत. आमीं 'तें इतिहासांत जमा जालें ' अशें म्हणटात तें ह्याच खातीर. हो भुतकाळ आमी कित्याक शिकप तेंच म्हाका समजना. शिवाजीन खंयचो गड केन्ना घेतलो हें शिकून आमकां आतां कितें फायदो? म्हाका हांगां आमच्या तीन गडाच्यों जल्म तारखो याद उरनात.

"हय व्हो, आमची लग्ना तारीख याद धरात, ताका अधिक एक, अधिक एक, अधिक एक अशें करीत रावात म्हणचे तिगांयच्या जल्माचें वर्स मेळटलें" ही आपले परीन वर्स याद दवरपाक हातभार लायता, तशी ती बरी.

शाळेंत आसतना अफझल खानाक लाल म्हालांत व्हरुन हांवें ताचीं बोटां छाटल्यांत आनी शाईस्त खानाक प्रताप गडार व्हरुन ताचो कोथळो भायर काडला, हें सांगल्यार तुमकां खरें दिसत? हांवें अशें केल्ल्यान इतिहास तसोच उरलो पूण पाटील गुरुजीक अॅटेक आयलो. ताचें दुशण पाटील बाई म्हाका दिताली. हिस्टरी रिपीट्स इटसेल्फ अशें म्हणटात. हांवें हिस्टरी एका वर्गांत कमीच कमी एकदां तरी रिपीट केली. हाका लागून नवीं पुस्तकां हाडपाचो खर्च वाटावलो इतलेंच पूण बापायक ताचें व्हडलें जातालें. हें म्हजें इतिहासा कडलें नातें जालें.

थोडे आपलो भुतकाळ याद करुन रडटात. चड करुन दादले अशें दत्तान म्हणिल्लें. अशें हांवें वयर बरयलां ताचेरुय हांवें बारीक अभ्यास केलो. ती गजाल खरी 'हांवें तेन्ना तशें केल्लें जाल्यार अशें जावंचे नाशिल्लें' अशीं अर्थ नाशिल्लीं वाक्यां खूबदां आयकूंक येतात. There is no point in crying over spilt milk अश्या अर्थाच्यो म्हणी मागीर जल्म घेतात. पूण हाचो दुसऱ्यांकूय त्रास जांव येता हें दर एकल्यान मतींत दवरपाक जाय. हालींचीच गजाल सांगतां, पोटांत दुखता म्हूण एका सर्जना फुड्यांत गेलों. ताणें म्हाका तपासलो.

''एपेंडिसायटिसशी दिसता, ॲडमिट जा.''

हांव मुकाट्यांनी ॲडमिट जालों. म्हजे कुशीक ड्रिल करुन ताणें एक बुराक मारलो आनी बुराकांतल्यान एके वेटेन भितर पळोवपाक लागलो.

''जाणा मरे, हांवें चुकयलें.''

''कितें जालें? डायग्नोसिस चुकली? बुराक फुकट?''- हांव.

''बुराकाचें मागीर पळोवंया तो पुरोंवक येता. बुराकाचे हांव पयशे घेना.''

''तशें जाल्यार सांगांत फुडें.''

''तर, हांवें चुकयलें. हांवें डेंटिस्ट्रीक वचपाचें. एम.एस. करपांत म्हाका इंट्रेस्ट नाशिल्लो.''

''मागीर, कित्याक एम.एस. केलें तर?''

''बापायक लागून. बापूय म्हणपाक लागलो खोऱ्यांनी पयशे ओडटलो. म्हाका सर्जरींत व्हडली गती ना.''

हांवें आंग काडलें.

''आरे, डेंटिस्ट्रींत एक बरो दांत काडलो म्हूण घात जायना. हांगां तशें न्हय, मातशें हांगांचें थंय जायत जाल्यार तूं वयर.''

म्हाका ओगीच दारांत यमदूत म्हजी वाट पळेता सो दिसलो. हांवें दोळे किलकिलायले आनी परत पळेलें, तो वॉर्ड बॉय आशिल्लो.

''आरे, परत म्हजो अदमास चुकलो. एपेंडिसायटिस न्ही ती.''

''बुराक बंद कर तो.''- हांवें सांगलें.

''तो करतां. हांवें एम.एसाक वचपाचेंच न्हय, चुकलेंच म्हजें.'' तो फुटिल्ले दुदाचेर रडपाक लागलो.

लग्न जातकच व्हंकल रडपाक लागता ताचें कारण म्हाका अजून कळूंक ना कारण तिचें फुडाराक बरें बरें जावपाचें आसता. पूण हांवें न्हवऱ्याक पांच पर्तवणा कडेन गेल्ल्याक रडटना पळयलां. ताच्या तोंडांतल्यान, 'हांव आशिल्लों तोच बरो आशिल्लों' असलीं उतरां हांवें आयकल्यांत. 'जांव रे सगल्यांक अशेंच

घडटा' असो धीर दितकच मागीर न्हवरो भूतकाळांत वता आनी मागीर अशें जाणवता की सगल्यांचे भूतकाळ सारकेच आसतात. लग्ना पयलीं जायत्या बऱ्या बऱ्या चलयांक नाकार दिवन ह्या भुजगावण्या कडेन ताचें लग्न जाल्लें आसता. आनी तें भुजगावणें हो साक्षात्कार ताका दोन रातीं भितर जाल्लो आसता. आतां, रातीं मर्दीं प्लस मायनस जांव येतात पूण हो साक्षात्कार सगल्यांक जाता खरो.

Power of now असल्या माथाळ्याचीं पुस्तकां बरोवन हांगां लेखकांनी कोट्यांनी पयशे केले. असलीं पुस्तकां फकत वर्तमान काळांत 'जगा' इतलोच संदेश दितात आनी ह्या खातीर दोनशें ते तिनशें पानां खर्ची घालतात. आमकां म्हणजे गोंयकारांक असल्या पुस्तकांची गरज ना. आमी वर्तमान काळांतूच जगतात. सकाळीं हांड्याक उजो घालता थंय आसा, आई म्हऱ्यांत येवन उबी रावता आनी विचारता,'आयचो दीस फुडें करसो धुकलतलो रे?' हांव तेन्ना हातांत ओलीं सोण्णां घेवन हांडो करसो तापतलो हे चिंतेंत आसतां. सगल्या गोंयकारांचो दीस, आज नुस्त्याक कितें ह्या प्रस्नान उजवाडटा. हाचेवयल्यान आमी सदांच वर्तमान काळांत आसतात हें सांगपाची गरज ना. गोंयकार चलयांक रांदचे वाडचेल्याची पिराय सरतकच भविश्यकाळांत व्हडलो रस नासता. हें हांव म्हज्या अणभवावयल्यान सांगतां. तीं सामकीं प्रॅक्टीकल आसतात. जेन्ना म्हज्या लग्नाचीं उलोवणीं (सावळ्यान वाटाघाटी असो शब्द वापरिल्लो) चलतालीं तेन्ना हांवें एके चलयेक सांगलें,

"हांव धीरुभाई अंबानी जांवक सोदतां. ताच्या सारकीच म्हजे कडेन एक सायकल आसा. ताचे सारकोच हांव सपनां पळेतां. जो सपनां पळेता ताचींच सपनां साकार जातात अशें तो म्हणटा."

"तूं फुडारांत धीरुभाई अंबानी जातलो तें बरें आसा पूण म्हजे लागीं तितलो धीर ना. सद्याक तूं कितें करता तें सांग!"

"सद्याक तुका सांगपा सारकें म्हजे लागीं कांय ना."

''असले चले लग्न कित्याक करतात कोण जाणा, फकत सपनां.'' अशें म्हणून म्हजे फुडाराची कोकिळाबेन गेली. हांव धीरुभाई जालों ना, ती कोकिळाबेन जाली ना तें तुमकां कळ्ळांच जातलें.

आमकां फुडारांत कितें वाडून दवरलां देव जाणां, अशें आमी म्हणटात आनी तें खरें. आमकां आमचो फुडार खबर नासता. ताका लागून जगपांत एक तरेचो एक्सायटमेंट आसता. हाकाच लागून आमकां जगपाची इत्सा आसता. 'ये भी दिन जायेंगे' म्हणत आमीं एक एक दीस सारतात. ये भी दिन जायेंगे हांव म्हणत रावलों. काळीं कुपां येता तीं वतात आनी मागीर सुर्याचो लख्ख उजवाड येता, असली अलंकारीक भाशा पुस्तकांनीच वाचली. म्हजे बाबतींत हें कांय घडलेनां. हांव खूब आशावादी. चल्याचें एक वय आसता तेन्ना ताका सपनां पडटात. सगल्यांकूच पडटात. म्हाकाय पडटालीं. सपनांतल्यान जाग येतकच हांव उठून घड्याळ पळेतालों कारण सकाळीं पडटात तीं सपनां खरीं जातात अशें म्हाका सावळ्यान सांगिल्लें. तसो म्हाका एक दोनदां अणभवूय आयिल्लो. एकदां इकोनोमिक्सांत आनी एकदां मास कम्युनिकेशनांत हांव फेल जालां अशीं म्हाका फांत्यार सपनां पडिल्लीं. सपनां पडिल्लीं ते दीस संकष्टी आनी विनायकी रिस्पेक्टिवली अशें आशिल्लें. दोनुयदां गणपतीक शरण गेलों. दोनुयदां गणपती सपनांत आयलो आनी 'आय हॅव नो रोल टू प्ले' अशें सांगलें. तशेंच घडलें, सोड.

आमी आमचो भविश्यकाळ सपनांत पळेतात. नलूक बी (मेवणी) राजकुंवर घोड्यार येता अशें दिसतालें. तो मागीर मुंबयच्यान गोंयां एस.टींत आयलो तें सोड. पूण चलयो आपल्या भावी जोडीदारा बद्दल सपनां पळेतात. चले मात्शे हे बाबतींत वेगळे. तांकां आपलो करियर पयलो दिसता, थोड्यांक आपूण दोतोर जालां आनी होस्पीटल घालां अशें दिसता (अशें सपन पळोवप्यान दिवाडे फेरी लागीं खाज्याचें दुकान घालां, आसूं). प्रत्यक्षांत तीं खरीं जांव वा ना जांव, सपनां पळोवंचीं अशें सगले व्हड मनीस सांगतात. 'My interest

is in the future because I am going to spend the rest of my life there' अशें एकल्यान म्हणलां, म्हणुनूच आमकां आमच्या फुडाराचीं सपनां पळोवपाक आवडटात. सपनां पळेतना व्हड सपनां पळोवचीं अशें म्हजो बापूय सदांच सांगतालो. आपणें फेरी बोटी वयलो फाळको उडोवपी एसिस्टंट जावपाचीं सपनां पळेलीं आनी आयश्यांत एक व्हड चूक केली अशें तो सदांच म्हण ऽ. आपूण आनी भाऊसाहेब एकाच वयाचे, तो खंय पावलो आनी आपूण खंय उरलों अशें तो टायगराचेर (आमचो सुणो) हात फिरयत भाऊसाहेबांच्या पांयजेला कडेन पळेत म्हणटालो.

हांव बरडालो घर जावंय जावन ताच्या पसऱ्याच्या गल्ल्यार बसलां अशें सपन हांव पळेतालों. तोच म्हजो फुडार आशिल्लो. पूण अशें कांय जालें ना. आतां केन्नाय ताच्या दारावयल्यान वतना ताच्या सोंप्यार बसून ताची खबर घेतां आनी घरा येतां.

अशे हे तीन काळ. आतां म्हाका पन्नास जालीं. भूतकाळांत पळोवन कांय अर्थ ना. वर्तमान सतरवितर करता, देखीक रेडये बाजारांत धवे कांदे मेळटले कांय ना ती चिंता. फुडाराक फकत यमदूत विडी फुंकत उबो आसा अशें दिसता. The Past is gone the Present is full of confusion and the Future scares the hell out of me अशें DAVID STEIN हाणीं म्हणलां. I fully agree with you Sir !!!



# कोल्ली

**आमच्या** गोंयांत दोन पांयांच्या प्राण्यां भितर कोल्ली, मालूक, नेरवांचे असो प्रकार आसा. वयल्यान दिसपाक हीं विशेशणां सारकीं जरी दिसलीं तरी अभ्यास केल्या उप्रांत तातूंत खूब फरक आसा अशें म्हाका जाणवलें. गोंयांत घरा घरांनी एक तरी मनीस ह्या कातेगोरींतलो सापडटाच. कांय घरांनी सगळ्यो कातेगोर्यो सापडटात, देखीक आमचें घर. प्रत्येकाक आपलो 'ग' आसता. नेरवांचें आशिल्ल्याक 'सामको कोल्ली व्यापार मरे हो' अशें म्हणल्यार शिट्ट जांव येता. तशेंच कोल्ली मनशाक 'आरे, नेरवां चाळवल्यां काय कितें रे तुजीं?' अशें विचारल्यार ताका वायट दिसूं येता. ह्याच खातीर कोणाक नेरवांचें आसा, कोण कोल्ली हाची फाटभूंय तपासून घेवन मागीरुच आपलें तोंड उगडप शाणेपणांचें. नाजाल्यार प्रसंग जिवार सुद्धां बेतुं येता. सांगूं नजो.

म्हजें लग्न जातकच हांवें गोंयच्या कोल्ल्यांचो बारीक अभ्यास सुरु केलो. हाचो अर्थ गोंयां भायर कोल्ली नात अशें न्हय. गोंयां भायर कित्याक, आमच्या देशा भायरुय कोल्ली आसात. ताका लागुनूच शब्दकोशांत 'eccentric' ह्या उतराचो आसपाव जाला. आमचे गोंयचे कोल्ली मातशे आनीक खर आसूं येतात.

हांवें वयर म्हणलां तशें गोंयां भायरुय कोल्ली आसात, म्हाका तें खबर आसा. लग्न जाले उप्रांत आमी मधुचंद्राक बांधा (तालुका सावंतवाडी, जिल्ला

सिंधुदुर्ग) वचपाक महाराष्ट्र परिवहन मंडळाचे बशींत प्रवास करतालीं (तुमी ताका एस.टी. म्हणटात). आमकां कंडक्टरा फाटलो बरो सीट मेळिल्लो. म्हजो मूड बरो आशिल्लो. आमचें जनेल वेवस्थीत बरें उगडें जाल्ल्यान वारोय बरो येतालो. 'काय पावनंऽ? गावाकडे पाऊस पानी कसं?' हांवें कंडक्टराक विचारलें आनी नवे व्हंकलेक पळेलें. ती म्हज्या मराठी भाशेचेर प्रभुत्व पळोवन इम्प्रेस जाल्ली. म्हाका आनीक चेव आयलो. 'झकास' कंडक्टरान म्हणलें. हांवें ताचे कडेन आनीक जवळीक सादपा खातीर ताका पान दिलें (हांव केन्ना केन्ना भोला शंकर तंबाकू युक्त पान खातां हें तुमचे म्हायती खातीर). ताणें म्हाका आपल्या हातान मळून मावा दिलो. आमीं दोगांयनी आप आपल्या तोंडांत बार भरले. हांवें मागीर ओठांचेर दोन बोटां दवरुन पिकीची पिचकारी सोडली. 'पावनंऽ? तुमी पण!' कंडक्टरान 'उद्गारचिन्नात्मक उद्गार' काडले. हांव आनीक फुल्लों. 'काय पावनंऽ, तुमची कारबारीण गावाकडे, तुमीं इकडं, कसं बुवा तुम्हाला करमते?' हांवें नवे व्हंकलेक दोळो मिचकायलो आनी कोपोर मारलो. आतां हांवें कंडक्टराक दिसा आड तूं कितली कातर मारता असो ताचे भावनेक हात घालपी प्रस्न काय विचारूं नाशिल्लो. तुजी घरकान्न गांवाक आसता, तूं हांगां आसता, तुजें कशें चलता? असो हो सादो प्रस्न. तो आयकून कंडक्टराचें कोल्ल फिरलें. तो कोल्ली हें म्हाका खंय खबर? 'उतरा खाली!!' अशें म्हणून ताणें एस.टी.ची घांट वाजयली. म्हाका हाचे पयलीं फकत 'बोरकारीं'तलीं एक्सां खबर आशिल्लीं. हीं मराठींतील एक्सां मात्शीं खर म्हणून तीं हांगां हांवें तशींच दवरल्यांत. तींय बी नवे व्हंकले समोर म्हाका आयकुचीं पडलीं. 'पावनंऽ, त्याना तुमीं दिलेला मावा लागला वाटतं. आता आम्हीं इकडे देवून काय करणार?' व्हंकल पावण्याक शरण गेली आनी पावण्यान दोनदां घांट वाजयली. बशींत परतें हांवें तोंड उगडलें ना. माव्याची सगळी पीक तशीच तोंडांत धरुन हांव मधुचंद्राक गेलों. हांवें पावण्याचो इतलो धसको घेतिल्लो की व्हॉल्तांचेर जो हांव व्हंकलेचेर मुद्दम लवंडटालों तें पसून हांवें बंद केलें. हाचे वयल्यान तुमीं

कितें समजुपाचें तें समजा.

मागीर व्हंकलेन बांधा, आमचो मधुचंद्र चालू आसतना म्हाका आपलो अणभव सांगलो.'आसता व्हो अशे कोल्ली, तुमी अशे मनाक लावन घेंव नाका'. मागीर हिणें काणी सांगली. हिचो बापूय म्हणजे म्हजो मांव खंय खंयचे तरी धुवेच्या लग्नाचो प्रसाद घेवपाक गेल्लो. (एकूण सात धुवो. एक म्हज्या गळ्यांत बांदल्या) प्रसाद जालो. माथ्यावयली पाकळी जाली. पुरयतान भलतीच पाकळी सांगतकच म्हज्या मांवान ताची चूक सुदारपाचो यत्न केलो. पुरयताचें कोल्ल फिरलें. 'देवी माझ्याशी बोलते की तुमच्याशी?' अशें म्हणून ताणें गर्भकुडींतल्यान मांवाचेर पळी शेवटून मारली. ती मांवाच्या कपलार बसली आनी मांवाक माव जाली. खूब तेंप तो जन 'पळी' भर म्हणतील हाय हाय अशें म्हणत फिरतालो खंय. 'पांच परतवणाक वतलीं तेन्ना तुमी ती माव पळेया आं' हिणें म्हाका सांगलें. तांगेर गेल्ले कडेन हांवें बारीक दोळे करुन मांवांचें कपळ पळेलें. ताचेर म्हाका कुलेरां, दवले, दायो दिसल्यो. तातूंतली पुरयताली पळी खंयची हांवें विचारलें ना. नव्या जावंयाक तशें विचारप सोबऽ नाशिल्लें. तातूंत आनी आमी आडवे. सामके पोक्त, सोड.

पुराणांनी लेगीत आमकां कोल्ली मनशांचे दाखले सापडटात. हांगां आमीं रागिश्ट आनी कोल्ली हाचे भितर घुसपा गोंदळ करुंक फावना. सट्ट सट्ट करुन राग येता तो रागिश्ट देखीक दुर्वास ऋषी. भगवान कृष्ण रागिश्ट न्हय पूण ताचें कोल्ल फिरतकच ताणें शिशुपालाचो वध केलो अशें आमचें मत (आमचें म्हणजे म्हजें आनी सावळ्याचें). कोल्ल फिरपाक काळ, वेळ, नीब असलें कांयच लागना. कोल्ली मनशाचें कोल्ल फिरता अशें ना. बऱ्या मनशांचें लेगीत कोल्ल फिरुं येता. अशें हांव कित्याक म्हणटां तें सांगतां. म्हजी मेवणी नलूचें लग्न जालें, ताका मुंबय माहिमाक दिलां (ताका सिटीलायट बाजार लागीं हें तुमचे म्हायती खातीर). मुंबय वचचे आदीं आमीं तांकां जेवणाक आपयलीं. ताचो घोव आरोंदेचो. नुस्तें घोस्ताक जाय म्हणटकच ताचे खातीर स्पेशल शिनाण्यो

फ्राय, तामसो तळिल्लो, ताल्ल्यांचें सुकें आनी खाऱ्या बांगड्यांचें हुमण (तागेली फरमाईश) असो बेत आशिल्लो. नवो जावंय म्हणटकच सगळें उमेदीन केल्लें. नुस्त्याचेच तेन्ना चारशें धा रुपया जाल्ले. म्हाका अजून याद आसा. जावंय बापू जेवपाक बसलो, हांव कुशीक, ही आनी नलू वाडपाक. त्या दिसा शेवत्यान आयदनां विम लावन घांसलीं नां काय कितें जालें कोण जाणां. नव्या जावंयाक जेवणा आदींच उदकाचो घोंट मारपाची दुर्बुद्दी जाली. ताणें पेलो तोंडा कडेन व्हेला मात 'ह्यां काय? पेल्याला हिमसाण मारते' अशें कितें तरी आपले भाशेंत म्हणलें आनी सोमतो उठलो. आमकां कितें जालें तें कांयच कळ्ळें ना. नलूलो मधुचंद्र लेगीत जांव नाशिल्ल्यान तेंय बी ह्या ध्यानाक सारकें वळखऽ नाशिल्लें. ताका भावोजी म्हणल्यार हांवूंच लागींचो दिसलों. 'भावोजी, सेर्त कोल्ली कूळ शें दिसता' ताणें म्हाका कानांत सांगलें. 'मातशी हिवळाण आयल्यार वाडिल्ल्या ताटा वयल्यान उठपी कोल्ली न्ही जाल्यार आनी कितें न्ही गो?' हांवें हिका म्हणलें. ही पेलो परत विम लावन घांसपाक लागिल्ली. शेवटाक आरोंदेचें कूळ, केळी पानाचेर, धंय घालून टोमेटोच्या कोशिंबीरी बरोबर, कुंवळान शीत कालोवन जेवन उठलो. हरशीं देव मनीस असो म्हजो साडू कोल्ल फिरतकच कसो वागलो तुमींच पळेया.

वय जाता तशें मनीस सामको हळवो जाता आनी नाका आशिल्ली गजाल मनाक लावन घेवन तो कोल्ल फिरयता असो म्हजो अभ्यास सांगता. एक दीस बी.कॉमाक दुसरे खेप आपटी खाल्या उप्रांत हांव बरडाल्या पसऱ्यार गेलों. खडी साखर आनी एक फस्क घेतलें. बरडान तें पटयेर बरे भशेन बरयलें. संध्या गिरायकाक पेत्रोल दितालें म्हणटकच हांव ताका पळयत गल्ल्यार उबो रावलों. बरड आनी हांव व्ही.पी. सिंगाचेर उलोवपाक लागले. तेन्ना तो हॉट टॉपिक आसलो. इतल्यान बरडान म्हाका विचारलें,'दोनदां आपटी खाली मरे आतां फुडें कितें?' अचानक गंभीर प्रस्न विचरिल्ल्या कारणान वातावरण मात्शें हलकें करपाक हांवें म्हणलें 'आतां कोणाचोय घर जावंय जावप. तुमी

मनार घेतल्यार हें काम रोखडें जांव येता'. इतलें म्हणलां मात बरडालें कोल्ल एकदम फिरलें. 'हाता वयल्या पोटा वयले लेगीत खडी साखर आनी फस्क पयशे दिवन व्हरतात' अशें म्हणून ताणें आमची उदारी वयर काडली आनी शेवटाक, 'व्ही.पी. सिंग आनी सिताराम केसरी परवडले पूण तूं न्ही' अशीं अर्थ नाशिल्लीं उतरां ताच्या तोंडांतल्यान भायर पडलीं.

आमी आम आदमी. आमच्या कोल्लाक कोण भीक घाली नात. एकदां परिक्षेक, हांवें शिकिल्लें 'Dissolution of Partnership'चेर प्रस्न येंवक ना म्हणून म्हजें कोल्ल फिरलें. हांवें कोरो पेपर फकत सीट नंबर बरोवन सुपरवायजरा कडेन दिलो. ताणें better luck next time म्हणून तो थंडपणान घेतलो. अशी आमची गत. नाजाल्यार आमचो टायगर (१९७९-१९९३) एकदां ताच्या पानार सेगीत दोन आयतार मटण पडलें ना. ताचें कोल्ल फिरलें. सोमारच्यान म्हाका पोटाक इनेसांवां घेवंचीं पडलीं!



# कौन अपना कौन पराया

**मनीस** एकवेळ आपलें नशीब घेवन येवपाक विसरता देखीक, हांव. पूण तो आपलीं नातीं घेवन येवपाक विसरना. जाल्या बरोबर तो अमक्याचो अमको तमक्याचो तमको जाता. 'ताका बाबड्याक नशीबूच ना' असलीं वाक्यां आमी खूब जाणां बाबतींत आयकतात पूण 'बाबड्याक नातींच ना' असलीं वाक्यां अजून आयकुचीं आसात. 'ताका सोयरीं धायरीं नाका जाल्यांत' अशें म्हजे बाबतींत खूब जाणां उलयतात ती वेगळी गजाल. ताका म्हजो निरुपाय.

आतां, नात्यांचें खूब तरेन वर्गीकरण करूं येता. आपलीं मनशां, सामकीं घरचीं, परकीं, रगताचीं, आदी. म्हज्या मतान हीं नातीं बदलत आसतात. सामको घरचो आशिल्लो मनीस सोमतो पयस वता. कशें तें सांगल्या शिवाय कळचेंना. हांव म्हजीच गजाल सांगतां. असल्या गजालींचो म्हजे कडेन स्टॉक आसा. फाटीं हांवें आमच्या लॉजाचें (नेपाळी भाड्याक रावता तें) काम हातांत घेतिल्लें. विनायक मेस्तान सकयल उबो रावन वयर नदर मारीत धा हजाराचें एस्टीमेट दिलें. 'हें इल्लें चडूच जालें ना?' अशें हांवें ताका भियेत भियेत विचारतकच, ताणें कानाक ल्हाप्स लायत 'चलन फुगवट्याचेर' म्हाका पंदरा मिण्टां भाशण दिलें. आनी शेवटाक 'हीं मदेराचीं कामां हातांत घेवंक नाशिल्लीं जाल्यार नानी पालखीवालाक हांव उलोवपांत फाटीं घालतलो आशिल्लों' अशें म्हाका सुनायलें. हांव आमच्या नानी पालखीवाला कडल्यान धा हजाराचें

एस्टीमेट घेवन घरा आयलों. आनी हे पयशे कोणा कडल्यान घेवंचे हे विवंचनेंत आसतनाच हिची आवय बॅग (कपड्यांनी भरिल्ली) घेवन दारांत उबी. आतां परक्या कडेन तोंड फाफुडचे परस घरच्यांच कडेन हात फुडें केल्यार कितें वायट अशें चितून हांवें उतर घालें...,

''आमच्या फाटल्या लॉजाचें काम हातांत घेतां. विनायक मेस्तान धा हजार फेती सांगल्या.''

''शुभश्य शिघ्रम.'' हिची आवय जेवणा मेजार हातार ठेको धरत.

''धा हजार लागतले. परक्यां कडेन मागचे परस घरच्यां कडेन मागिल्ले बरें अशें म्हाका दिसता. मेळत न्ही?''- याचक.

''आवंय आवंय! आमीं घरचीं? शास्त्र सांगता एकदां धुवेक लग्न करुन दिली की ती परकी जाली. त्या गांवचें उदक घेवपाक लेगीत आमकां वर्ज्य.'' अशें म्हणून तिणें धुवेन दिल्लो सरबताचो ग्लास तोंडाक लायलो. एका सेकंदा भितर रांदचेकुडींत बशिल्ले कडेन जेवणाच्या मेजार जावंय तिका परको जालो. मागीर परक्यागेर तिणें फुडले तीन म्हयने सारले. रावं बाबडी. नातीं कशीं बदलतात तुमीच पळेयात. हें मदेर प्रकरण कोणें तरी रघुनाथ जलानीच्या कानार घालें दिसता, ताणें रोखडो 'बदलते रिश्ते' सिनेमा काडलो (हांवें म्हजे परीन हो विनोद केला हें हांव हांगां नमूद करतां) हिका आनी बेठेंच वायट दिसत. कोणाचींच वायटपणां नाका (कोण, केन्ना, कोणाक पावत सांगूं नजो).

आपलो मनीस आनी घरचो मनीस हातूंत फरक आसता हें तुमकां हांवें सांगपाची गरज ना. आमी 'मन की बात' आपल्याच मनशा कडेन करतात. मनीस कितलोय घरचो आसलो तरी तो आपल्याक आपलो सो दिसलो ना जाल्यार आमी ताचे कडेन काळीज उक्तें करीनात. आतां आमचें संध्या (बरडाली एकुलती एक धूव). तांच्या परसऱ्यार हांव वतालों आनी वरांचीं वरां उलयतालों. निमणें हाताक कांय लागलें ना तें सोड, तें आपलें नशीब. पटये वयली उदारी मात हांवें वाडयली अशें आई म्हणटा. तातूंत तथ्य ना अशें हांव

म्हणना. एक दीस हांवें ताचे कडल्यान एक किल जिरें आनी पाव किल शंकर छाप हिंग हाडिल्लो (दोगांयचो वास गेलो तरी आमी अजून वापरतात). आतां आमचें नलू ( म्हजी मेवणी माहिमाक आसता. दादर देंवल्यार खोदाद सर्कला कडल्यान बस नं.१ ते १०१ घेतल्यार जाता). ज्यो गजाली हांव हिका सांगऽ नाशिल्लों त्यो हांव नलूक सांगतालों आनी अशें करतकच हांव पिसावरी हलको जातालों. मटक्याची बीट आंगार दवरुन लुकसाण जातकच तें लेगीत हांव नलूक सांगतालों.

"नलू आज हांव बुडलों गो."- हांव आंवडो गिळत.

"भावोजी धंद्यान वयर सकयल जाताच न्ही?" मटक्याक नलून धंद्याचें स्वरुप दिवन प्रतिशठा दितकच म्हाकांय बरें दिसतालें. केन्ना केन्ना तकली सामकी जड जातकच नलू खोबरेल तेल घेवन मालीश करतालें. एक दीस अशेंच मालीश चालू आसतना आमचो एक सोयरो भितर सरलो (ह्या सोयऱ्याक हांवें आमच्या लग्नाची पत्रिका पोस्टांतल्यान धाडिल्ली म्हणून तो येवं नाशिल्लो)..., 'बरें मालीश करुन घे बायले कडल्यान'... हें आयकल्या बरोबर नलू तांबडें जालें (तें मात्शें गोरें) आनी तेलाची गिणी घेवन भितर धांवलें. तो सोयरो वचऽ सर परतें भायर आयलें ना. असो केन्ना केन्नाय नात्यांत घुस्पा गोंदोळ जावं येता. आज नलू हांगां ना तरी लेगीत हांव फोनार उलोवन पिसावरी हलको जातां.

"नलू आज चौक्यावर लोड आहे. बीट अंगावर ठेवू की नको?" (नलू आतां मराठी उलयता तरी आमच्या संबंधान फरक पडूंक ना).

"भावोजी, काल त्यानी कोणता आकडा मारला होता?" (ही भाशा मात्शी टेक्नीकल तुमकां कळचीना. आनी तुमींय तकलेक त्रास दिवं नाकात).

"तीका मारला होता. पत्ती काय होती ते कोष्टक बघून सांगतो." अशी आमची बातचीत जाता. सयशें पसतीस किलोमिटरांचेर आशिल्लें नलू म्हाका आपलेंशें दिसता. In such cases geographical distance

doesn't matter हेंच खरें. आतां such cases म्हणल्यार कितें तें म्हाका विचारूं नाकात.

कोण घरचो कोण परको हो प्रस्न जेवणा खाणा वेळार उपस्थित जाता. जेवणा टायमार कोणूय परकी मनीस भितर सरतकच रांदचेकुडींत आशिल्ल्यांचेर सामको आकांत येता. हें हांव म्हज्या अणभवावेल्यान सांगतां. तोच मनीस घरचो आसल्यार रांदनीर शिजता तेंच ताच्या पानार पडटा. गोंयां जेवणा वेळार भितर सरपी दर एक पावण्याच्या तोंडांतल्यान 'वेगळें काय करूं नाकात आं. तुमी जेवतलीं आशिल्लीं तेंच म्हाका वाडा. हांव तुमकां कांय परकी न्हीं' हें वाक्य आयकूंक मेळटा.

''तुमी घरचे म्हूण आमकां सांगपाक जाय? आमकां केलां तेंच तुमकां वाडटलीं.''- येजमानीण.

मागीर पावण्याच्या पानार शीत, हुमण, तोणाक एक सुकी भाजी, तळिल्लीं पॉस्तां, सालाद आनी कडी हें सगळें पडटकच पावण्याक अजाप दिसता.

''हे इतले नग केन्ना केले गो?'' पावणो मिठाक जागता.

''खंय इतले नग? हें सदचेंच. एक सुकी भाजी चड केली. नुस्तें आमगेर 24 X 7 NDTV.'- यजमान्न कवतुकान भुल्लुसता. हो सगळो देखावो आमकां गोंयां, दर एका घरांत पळोवपाक मेळटा. प्रत्येक गजालीक आडवाद हो आसताच. आमगेर एक दीस असोच जेवणा टायमार सोयरो भितर सरलो (नलूक म्हजी घरकान्न समजल्लो तो हो न्हय हो दुसरो). ताणउे बाबड्यान सदचेवरी म्हणलें..,

''चड कांय करुंक वचू नाका आं! आसा तें वाड''.

ताका खंय खबर येजमानीण सिरियसली घेतली म्हणून. हिणें तें सिरियसलीं घेतलें आनी पावण्याच्या पानार, उकडें शीत, खुटी कडी वा धंय (हो चोयस), शेपुची भाजी, पापड आनी लोणचें हे नग पडले. पयलीं पांच

मिण्टां पावण्याक आपल्या पानार पडलां तें खरें काय भास हें थारावपाक पडलीं.

"कोणाक रावतात तुमीं? करात सुरु" अशी ऑर्डर मेळटकच ताणें ताटांत हात घालो. मागीर परतो आनीक तो आमगेर आयलो ना. कारणां खूब आसूं येतात, तीं आमी नकळो.

परक्या मनशाक खावपा जेवपा खातीर आग्रो करचो पडटा. गोंयां तर आग्रो करना बी जाल्यार पावण्याक राग येता. ह्या खातीर येजमानाक आग्रो बी करपाक येवपाक जाय. म्हाकां तें जमना. हिका तें बेस बरें जमता.

"You are like from our home only. Don't feel shy. Take from back, take from front, ok?" (तूं आमकां घरचोच. लजूं नाका फाटलें फुडलें घे) हिणें अमेरिकेक रावन मायभास विसरिल्ल्या सोयऱ्याक आग्रो केलो. अनुवादूय हिका बरो जमता ह्या खातीर हिचें कवतुक करपाक जाय कित्याक तर अमेरिकेच्या सोयऱ्यान मोव शीत आनी अळणी सार परतो मागून घेतलो खरो.

हांव सदां वितोरीगेर मटक्याचें क्लोजींग जातकच वतां. थंय म्हाका खूब जाण मेळटात. आतां तांचें म्हजे कडेन सहवासाचें शें नातें जालां. आमीं हरशीं लेगीत सहवासाचें नातें रगताच्या नात्या परस दाट अशें म्हणटात. वितोरीगेर तर म्हज्या रगतांत जें घोळटा तेंच तांच्याय रगतांत घोळटा. हाका लागून आमची दाटी आनीक जाल्या. वितोरीगेर बाकिच्या बारांनी दृश्य दिसता तशें दिसना. हांगां वैचारीक बसका आसता. हांगां स्त्री आनी इस्त्री हातूंत फरक कितें असल्या गंभीर विशयांचेर चर्चा जाता. सहवासाचेंच नातें श्रेष्ठ हो म्हजो अणभव. फाटीं हांव स्कुटरीवयल्यान पडलों. तकलेक कोंक जाली (हॅल्मॅट फाटल्यान ब्रॅकेटाक लायिल्लें). रायकारागेर ॲडमीट केल्लो. सात टाके पडले. रगत दिवपाक वितोरीलें अख्खें बार आयलें. दोतोर रायकार (GMC 2005) Alcoholics Anonymous हांचे खातीर वावुरता. रगत दिवपाक

आयिल्ल्यांचें कंडिशन पळोवन ताणें सोमतो तांचे खातीर वर्कशॉप घेतलो. म्हाका रगत घालचें पडलें ना तें सोड पूण सहवासाचें नातें कॉपाक जागलें हें म्हत्वाचें.

मैत्रीचें एक नातें आसता. ह्या नात्याक कथा कादंबऱ्यांनी खूब म्हत्व दिलां. गोऱ्या सायबांनी लेगीत A friend in need is a friend indeed अशी एक म्हण तयार केल्या. म्हाका हे म्हणीचो प्रत्यय अजून येवंक ना. जेन्ना म्हाका एक एक मार्क म्हत्वाचो आशिल्लो तेन्ना रेखा हुबळीकरान, ध चा मा मस्तानीने केला, अशें परिक्षेंत बरोवपाक सांगून म्हाका फोंडांत घाला. आपणें मात पैकिचे पैकी मार्क घेतल्या. ह्याच रेखा हुबळीकरान म्हाका 'मैत्रीला केव्हाच तडा जाऊ देता कामा नये. आरश्याला जसा तडा गेला की तो पुसुन टाकता येत नाही तसच मैत्रीचे असते' हें तत्वगिज्ञानूय सांगलां. म्हज्या मैत्रीरुपी हारश्यांचो हांगां खुर्दो जाला. ह्या हारश्यांचीं नांवां रमा, रेखा, संध्या अशीं आशिल्लीं. मैत्री वा फ्रेण्डशीप हें नाजूक नातें. ताका गांठ पडपाक जायना. एकदां पडली जाल्यार मागीर ती सुटपाक कठीण. सुटल्यारुय ताची खूण मात तशीच उरता. म्हजे बाबतींत तर असलीं जायतीं खिणां पडल्यांत. 'म्हजे चलयेचो हात तुज्या हातांत दिवंचे बदला हांव तिका म्हज्या हातांनी बांयत धुकलन' अशे उद्गार जेन्ना म्हजे कानार पडले तेन्ना कोणेंच ब्र काडलें ना. सगळीं नातीं मान सकयल घालून ओगी रावलीं. तेन्ना थंयच ताका सादी गांठ न्हय ब्रह्मगांठ पडली, आसूं.

थोड्या नात्यांक नांव दिवं नज. तीं निमणे मेरेन तशींच उरतात. 'हात से छूके इसे रिश्तों का इल्जाम ना दो' टायप. 'हमने भी देखी थी उन आँखों में खुशबू.' ही महकती खुशबू पणजेच्यान फोंड्यां वचपी 'देवता' बशीचेर साडे आठांक पाट्यार चडटाली आनी खुरसा कडेन देंवताली. मागीर हळू हळू हांवें ताची तिकीट काडप आनी दोगांयची तिकीट काडली म्हूण ताका सिनाल करप. अशें दोन वर्सां चलें. वट्ट तिकीटीचो हांव खार म्हणचोना, ताका खारुय

म्हणप सारकें न्हय, देसपेस म्हणूया, चारशें सत्तर रुपया जालो. आनी एक दीस महकती खुशबू गायब जाली. म्हाका दिसलें केन्नाय गळ्यांत मणी बी घालून खंयूय दिसतली, हो वेळ मेरेन दिसूंक ना. थोडीं मनशां जिणेंत फकत डोकावन वतात. तांचे कडेन नातें अशें जुळना पूण आपल्यो यादी मात सोडून वतात. मागीर केन्नाय वितोरीगेर बसतकच, एक पेग पोटांत वतकच तांची याद येता. मागीर 'अशी पाखरे येती आनी स्मृती ठेवूनी जाती' ह्यो वळी गुणगुणटकच जिवाक बरें दिसता. मागीर आनीक एक पेग पोटांत वता.

पयर संध्या खूब तेंपान तांच्या परसऱ्यार मेळ्ळें. ताणें आमचे यादींक उजाळो दिलो आनी हांव सुस्कार सोडीत उबो रावलों. ''कितें म्हण आमचें रिलेशन आशिल्लें न्हय रे?'' ताणें म्हणलें. ''हे बंध रेशमाचे, ठेवी जपून जिवा. धागा अतूट हाच प्राणात गुंतवावा'' अशें म्हणून हांव अर्द किल जिरें घेवन घरा आयलों. बरडान पटयेर कितले लायल्या ते फुडल्या म्हयन्यांत कळटलें.



# खीण आनी खिणां

**मनशाचे** जिणेंत याद उरपा सारके खूब खीण येतात. ते खीण मागीर तो सरणार चड ऽ मेरेन विसरना. जेन्ना हे खीण खोशयेचे आसतात तेन्ना, आपूण ते विसरत बी म्हणून ताका भंय दिसता. देखून ह्या खिणांचे तो फोटे काडटा आनी तांचो आल्बम करता. देखीक, लग्नाचे फोटे. म्हजे यादीक पाड पडलां देखून हांवें म्हज्या लग्नाचो आल्बम केलाच आनी पयल्या पानार लग्नाची होंवळीकूय चिकटायल्या, म्हणटकच हांव हो खीण केन्नाच विसरचोना हाची खबरदारी हांवें घेतल्या. ते ब्लॅक एण्ड व्हायट फोटे आतां व्हायट पडल्यात तें सोड. हांवूंय लग्ना उप्रांत धवो पडलो अशी आई म्हणटाली. मागीर ही म्हणपाक लागली आईच्या दोळ्यांत फूल पडलां म्हणून. दत्ताले धुवेच्या लग्नाचे फोटे पळोवन हांवें तर तोंडांत बोटां घालीं. फोटोग्राफरान न्हवऱ्याचें तोंड व्हंकलेच्या पदरांत, हातांत, आंबाड्यांत घालून फोटे काडिल्ले. दत्ताली अख्खी फामील ते खीण खोशयेन आपल्या दोळ्यांत साठयताली. म्हजेय दोळे सामके भरुन आयले. आमच्या लग्ना वेळार हें तंत्रगिन्यान विकसीत जांवक नाशिल्ल्यान ते खीण फावो तशे कॅमेरांत बंदिस्त जाले ना अशें म्हाका दिसपाक लागलें आनी म्हाका ओगीच निर्शेवणीशी आयली. हें तंत्रगिन्यान तेन्ना आशिल्लें जाल्यार म्हजें तोंड खंय खंय घालूं येतालें हें चिंतीत हांव घरा आयलों. सोड.

जिणेंतल्या ल्हान ल्हान खिणांतल्यान मनशांक खोस भोगूंक जाय

अशें व्हड विचारवंत म्हणटात. म्हजो बापूय (१९११-१९८२) हातूंतलोच आसलो. ताका ल्हान ल्हान खिणांतल्यान उपाट खोस जाताली. एक वर्स स्वामी फाटल्यान ताणें रथार नाल्ल फोडलो. हाची ताका इतली खोस जाली की त्या वर्सा तो दोन कील खाजें घेवन घरा आयलो. तामूक सात पाड्यां फाटल्यान एक पाडूक जालें, तेन्नाय ताका अशीच खोस जाल्ली. सालांत उबो रावन ल्हान भुरग्या भशेन ताणें ताळयो मारिल्ल्यो त्यो म्हाका अजून याद जातात. ताणें वाजयल्ल्यो त्यो निमण्यो ताळयो. मागीर म्हजें लग्न जालें. आनी तामूय वियेवपाचें बंद जालें हो योगायोग. आतां आमी चवथीक आरत्यां वेळार ताळयो वाजयतात तितल्योच. 'घालीन लोटांगण' आमी प्लेन म्हणटात कारण थंय पावता सर आमचे हात ताळयो मारुन दुखतात.

हांव म्हजे जिणेंत फाटीं वळून पळेतां तेन्ना म्हजे जिणेंत खोशयेन ताळयो मारपा सारके खीण साप्प उणे आसात अशें दिसून येता. थोडे कांय आसनात, आयल्यात तर खरे. म्हाका याद जाता हांवें, दत्तान आनी सावळ्यान आकाशवाणीक मनपसंत गितें ह्या कार्यक्रमाक आमची परसंती धाडिल्ली. तांचे घरची मंडळी आमगेर जमिल्ली (तेन्ना मर्फी रेडवो वाड्यार आमगेर आशिल्लो). कार्यक्रम सुरु जालो. एक एक पद वाजपाक लागलें आनी एकदांची आमची मागणी आयली...'मलमली तारुण्य माझे ह्या गाण्या साठी आपली परसंती कळवतात, रायबंदरहून बाबा, दत्ता व सावळो' आनी मागीर भायर पळे माराणांचो गडगडाट जाला! म्हज्या लग्नाक लेगीत इतले माराण मारुंक नात. मागीर घेऽऽ वाड्यार साखर वांटली. आज केन्नाय हें पद लागतकच तो खीण याद जाता कित्याक तर प्रत्यक्षांत चाळीशींत पावतकच आमचें लग्न जाल्ले कारणान मलमली तारुण्य म्हणजे कितें तें केन्नाच कळ्ळें ना पूण ह्या पदाची मात सासणाची याद उरली. फुडें नोकरेक अर्ज करतना ताचो चड उपेग म्हाका जालो ना तें सोड. कारण चडश्या अर्जांनी आपल्यो एक्स्ट्रा करिक्युलर ॲक्टीविटीज बरोवंच्यो आसतात. थंय दर अर्जांत हांव बरयतालों sent

request for मलमली तारुण्य माझे to Akashvani who honoured my request. I heard this song in Manapasant Geete on Murphy radio at my residence. कोणाक ताचें अप्रूप दिसलें ना आनी म्हाका नोकरीय मेळ्ळी ना तो नशीबाचो भाग. आसूं.

कॉलेजींत आसतना आमी एक ड्रेमेटीक सर्कल काडिल्लें. गेदरिंगांनी नाटकां बसोवप, इण्टर कॉलेज नाटकांचे सर्तीनी वांटो घेंवप, अशे आमी ह्या ड्रॅमेटीक सर्कला वरवीं करताले. हांव बॅक-स्टेज काम करतालों. नाटकांत काम करपी चलयांक येसायेक उशीर जालो जाल्यार घरा पावोवप, हॉटेलार च्या ची ऑर्डर दिवप, असलीं कामां हांव उमेदीन करतालों. निमण्या वर्साक आसतना आमीं 'हांगां नाका थंय' हें नाटक बसयलें आनी आमचें निमणें वर्स आशिल्ल्यान म्हजें इतल्या वर्सांचें योगदान पळोवन म्हाका तातूंत 'तारवाला' हो रोल मेळ्ळो. हांवें स्टेजीर तारवालाऽऽ अशें आड्डुत वचप, नटयेक तार दिवप, तिची सय घेवप इतलेंच म्हजें काम. पूण नाटकांत जिका हांव तार दितां तें रमा शिरवयकार आशिल्ल्यान हांव सामको धन्य जालों. येसायांक, तारवालाऽऽ हें हांव स्टेशनार च्या दिवपी चायवालाऽऽ अशें जेद्यान आड्डुतात तेद्यान आड्डुलों. डायरेक्टरान (नागवेकार) म्हाका म्हजो व्हॉल्यूम मात्सो कमी कर म्हणून दोनदां सांगलें. एकदांचो तो खीण आयलो. पयलो प्रयोग सर्तीकूच जालो. नाटकांत तारवालाऽऽ असो आड्डुत हांव घराच्या फुडल्या दारांतल्यान भितर सरचो सोडून रांदचेकुडींतल्यान दोन आयदनां उडयत स्टेजीर आयलों. घेऽऽऽ शिटयो आनी ताळयो. म्हाका कित्याक तें कळ्ळें ना. पूण रमान प्रसंगावधान राखून ''आरे तारवाल्या, कितले फावटीं तुका सांगलें फुडले दारांतल्यान यो म्हणून? रांदचेकुडींतल्यानशी येवपाची पिडा मारली?'' असो डायलॉग मारलो. रमाचो हो पदरचो डायलॉग आयकून म्हाकाय चेव आयलो. रमा बरोबर ॲक्टींग करपाची संद हांवें सोडली ना...

''तुका केऽन्ना तार दिता शी म्हाका जाता आनी हांव मेळटा ते दारांतल्यान भितर सरतां. ती तार कोणाची ती वाच न्ही. म्हाका उमळशीक लागल्या''-

तारवालो.

"हांव जाय तेन्ना तार वाचतलें. तूं आयला तसो तोंड घेवन वच."

आनी हांव आयिल्लो तसो रांदचेकुडींतल्यान आनीक दोन आयदनां उडयत विंगांत भितर सरलों.

हो खीण म्हाका याद उरलाच पूण हें हांगां सोपना. फुडें रमा शिरवयकारालें लग्न जालें (ताका रामाण्यागेर दिलां). ताका हात दिवपाक हांव स्टेजीर गेलों. 'हो आमचो तारवालो आं' ताणें म्हजी आपल्या घोवा कडेन वळख करुन दिली आनी म्हाका भरुन आयलें. एक, रमाक म्हजो रोल याद उरलो म्हूण आनी दोन, ताणें त्या बद्दल घोवाक सांगलें म्हूण. 'आमगेर येता तेन्ना फुडले दारांतल्यानूच यो आं नाजाल्यार रांदचेकुडींतल्यान येशी' रामाणी भावोजीन विनोद केलो आनी सगळीं हांसलीं. याद उरपा सारको खीण म्हजे खातीर.

फुडें म्हजें लग्न जालें. लग्न उसरां जाल्ल्यान आसूंयें म्हाका व्हडली उमेद नाशिल्ली. हाका लागून लग्नाचे खीण म्हजे यादस्तींत फावो तशे रेजिस्टर जावंक नात. पूण हिणें म्हजें नांव घेतलें तो खीण म्हाका अजून याद आसा. तो खीण याद जातकच, कसो काय जायना, आंगार कांटो येता.

'शोलेंत कितने आदमी थे म्हणाले गब्बर सिंग

अन बाबाच्या बोटांत घातले मी अडीज पवनाचे वेडींग रिंग'

दुसऱ्याच दिसा आईन, म्हज्या बोटाक हिणें घाल्ली मुदी नागवेकारागेर धाडून जोखून हाडली. दोन ग्राम भरली. मागीर किते जालें तें आसूं पूण हिणें गब्बर सिंगा भशेन सालांत पासयो मारुन म्हजें नांव घेतिल्लो खीण म्हजे यादींत अजून उरला.

कालांतरान आमच्या संवसाराचे वेलीर तीन सोबीत फुलां फुल्लीं. आई हाकाच हांवें तिगांक जल्माक घालीं म्हणटा. म्हणूं बाबडी, ती साहित्यीक काय न्ही. पयल्या वेळार बाळंटेर हिच्या आवय बापायन काडलो. तिसऱ्या म्हयन्यार हिका दोतोराक दाखोवपाक व्हेली.

''दोतोर, म्हाका बेड रेस्ट बी सांगना?'' हिणें दोतोराक विचारलें.

''कित्याक तो?''

''ॲडवायस करात न्ही म्हाका.''

मागीर दोतोरान ॲडवायस केलो आनी ही जी कुळारा वचून न्हिदली ती बद्दऽ व्हडल्याक घेवन आयली. हाका लागून, म्हाका व्हडल्या वेळेचें व्हडलें शें कांय याद ना. मागीर आनीक दोन फुलां फुल्लीं. तेन्ना म्हाकाय संवंय जाल्ल्यान म्हाका ताचें व्हडलें शें अप्रूप दिसलें ना.

हांवें माथाळो खीण आनी खिणां असो दिला. जिणेंतल्या काय खिणांक लागून जिणेंत कायमचीं खिणां पडटात. म्हजे हातांक, राप्यार नाल्ल सोलून आनी बांयचें उदक काडून खिणां पडल्यांत तशीं. म्हाका याद जाता लग्नाच्या दुसरे दिसा ही नुस्तें उजरावपाक बशिल्ली (शेतकां हाडिल्लीं). हिच्या फाटीर जळार बसलें. 'मारात न्ही जळार' नवे व्हंकलेन लाडान येवन म्हणलें. हांवें मारलें, जळार उडलें पूण म्हजो अख्खो पंजो हिचे फाटीर उदेलो.

''तुमच्या हाताक खिणां आसा काय कितें व्हो?''-व्हंकल

''हय.''

''अजून माझे हळदीचे अंग अंग पिवळे ग आनी आतां तुमीं तांबडें केलें पळेया.'' नवे व्हंकलेन म्हणलें. हांव ओगीऽ रावलों.

तर, जिणेंत काय खिणांक लागून खिणां उरतात. ही गजाल शाळेंत आसतनाची. पाटील गुरुजीन परिक्षेक एक प्रस्न घाल्लो 'गाळलेले शब्द भरा'. प्रस्न असो आसलो, शिवाजी महाराजानी शाईस्तखानाची -- बोटें छाटलीं. प्रस्नाक बरे दोन गूण आसले. हांवें म्हजे फुडल्यान बशिल्ले जिवा भावाची मैत्रिण रेखा हुबळीकराक जाप विचारली. ताणें म्हाका आपल्या हाताचो पंजो दाखयलो. हांवें जाप बरयली शिवाजी महाराजानी शाईस्तखानाची पांच बोटें छाटलीं. पेपर तपासतकच आमकां कळ्ळें की शिवाजी महाराजान शाईस्तखानाचीं तीन बोटां छाटिल्लीं म्हणून आनी वर्गांत फकत रेखाची जाप बरोबर आशिल्ली. म्हाका भ्यंकर वायट दिसलें. ती एक जाप हांवें बरोबर बरयल्ली जाल्यार हांव

पेपरांत पास जातलों आशिल्लों अशें न्ही पूण रेखान अशें कित्याक केलें हें चिंतून. आज लेगीत काँग्रेसीचें निवडणूक चिन्न हात पळेतां तेन्ना म्हाका रेखाचो पंजो याद जाता आनी मागीर आपशींच दुसऱ्या चिन्नाचो बटन दामप जाता. रेखान, म्हजें आनी काँग्रेसीचें दोगांयचें कायमचें लुकसाण केलें. सोड.

आमचें लग्न जालें तेन्नाची गजाल. तेन्ना होंवळीकेचेर 'कृपया अहेर आणू नये' बरोवपाची अशी नवीच स्टायल आयिल्ली. हांवें आमच्या होंवळिकेचेर तशें छापून घेतलें पूण We didn't mean it. देवकार्या दिसा देवकारें बी जातकच, आईन म्हाका, ''आतां कपडे बी बदलून बस आं आतां मंडळी केळवण दिवपाक येतली'' असो शिटकायलो. हांव कपडे बी बदलून सालांत बसलों. आमगेर मुंबयकारां बी आदल्या दिसा आयिल्लीं, तीं सवकासायेन केळवण बी करतलीं म्हणून आमी ओगीऽ रावलीं. सांज जाली. णव मावश्यांतली एक मावशी लेगीत आयली ना. रात जाली तरी जितो मूस आयलो ना. घरांत आशिल्ल्यां सोयऱ्यानीय कांय भायर काडलें ना. सगळ्यांनी 'कृपया अहेर आणू नये' सिरियसली घेतलां तें आमकां कळून चुकलें. तिनसांजचे कात्रेर आईचें आनी बापायचें पडिल्लें तोंड अजुनूय दोळ्यां मुखार रावता आनी हावें केळवण घेवपाक घाल्लें कपडे देवोंवन मारिल्ली लुंगी तो खीण हांव केन्नाच विसरुंक शकना.

जिणेंत सुख-दुःखाचे खीण हे येत रावतले. ते कशे पचोवपाचे तें दर एकल्याचेर निंबून अशें हांवेंच खंय तरी म्हणलां.

आगे सुख तो पिछे दुख है
पिछे दुख तो आगे सुख है
आरे दुख में कोई सुख है होऽऽ
ओऽऽ आस निरास के रंग रंगी है
सारी उमरिया, मितवा रे....



# डाकिया डाक लाया

**संवसारांत** सगळ्या मळांर क्रांती जायत आसा. ही क्रांती आतां फकत शारां पुरतीच सिमीत उरुंक ना ती म्हत्वाची गजाल. कित्याक तर, पयलीं ज्यो क्रांती जाताल्यो त्यो आमच्या मेरेन गांवांनी पावऽ नाशिल्ल्यो आनी आमीं तांच्या पासून वंचीत उरताले. देखीक, धवल क्रांती जाली, श्याम बेनेगलान ताचेर मंथन नांवांचो सिनेमो लेगीत काडलो तरी आमच्या राज्याक ताचे बद्दल कांयच खबर नाशिल्लें. एक दीस आमगेर सावंताची सून मेळांय मागपाक आयली. आईन तिका नकारार्थी जाप दिली,

"देशांत हांगां धवल क्रांती जाल्या आनी तुमगेर हांगां मेळांयाक घालपाक धंय मेळना. ऐकावे ते नवलच" तिणें नाक फुलोवन म्हणलें. ती अष्टविनायक यात्रेक गेल्ले कडेन मेळिल्लें इन्फॉर्मेसांव तिणें आमकां दिलें.

"आयकलें मुगो तामू? एके वटेन देसांत धवल क्रांती जाल्या आनी दुसरे वटेन तुजें दूद आटलां" आईन गोठ्यावटेन पळेत तामूक म्हणलें. तामू तेवटेन दोळे धांपून म्हजे सुकत घाल्ले कादेर्न चाबडायतालें. ताणें आईन म्हणिल्लें तें आयकलां जावंये कारण त्या दिसा ताणें एक चंबू दूद चड दिवन धवल क्रांतीक आपलो हातभार लायलो. हांवें वयर म्हणलां तशें जगांत जे बदल घडटात, मागीर ते खंयच्याय मळार आसूं, ते सगळ्याक खांची कोनश्यांनी

रोखडेच पावतात. पयर हांव खूब तेंपान बाबल्याल्या हॉटेलाचेर पावलो (आम्ही लग्न मुंजीच्या नाशत्याची ऑर्डर घेतो). हांवें च्याची ऑर्डर दिली. बाबल्यान च्या कॉपांत घालून दिली आनी नमळायेन म्हाका, ''साखर कितली घालूं'' असो प्रस्न केलो. होच बाबलो आदीं च्याची ऑर्डर घेतकच च्याचो ग्लास मेजार आपटीतालो. तातूंतली अर्दी च्या आंगार सांडटाली (म्हज्या कल्सांवांचेर जे डाग आसात ते ह्याच च्याचे हें तुमचे म्हायती खातीर).

मागीर दळणवळण (कॉम्यूनिकेशन) हें हाका आडवाद कशें आसत! दळणवळणाच्या मळार जी क्रांती जाल्या तशी खंयच्याच मळार जावंक ना अशें म्हणपाक हांव अनमनचो ना. पयर म्हाका म्हज्या मोबायलाचेर नलूचो (म्हजी मेवणी आतां माहिमाक रावता) कॉल आयलो. ''हॅपी कॉम्यूनिकेशन्स डे भावोजी. आज वर्ल्ड कॉम्यूनिकेशन डे त्याच्या हार्दीक शुभेच्छा. एका बाजूला मी ह्यांचा डबा भरते आहे दुसऱ्या बाजूला तुम्हाला कॉल करते आहे.'' (नलूक मुंबय लग्न करुन दिल्ल्याक तें मराठींत उलयता. सगळ्या दोतोरांक दाखोवन जालें. हें तुमचे म्हायती खातीर).

पंचवीस वर्सां आदीं हें शक्य आशिल्लें? कोणें अशें जातलें म्हूण चिंतिल्लें तरी? ट्रंक कॉल, लायटनींग कॉल ही सगळी शब्दावळ काळाच्या पड्ड्या आड गेल्या. कांय वर्सां पयलींची गजाल. हिची आजी ( भिरोंडा-सत्तरी, व्हाळा जवळ) भायर पडली. जावंय ह्या नात्यान ही बातमी सगळ्यां मेरेन पावोवपाची जापसालदारकी म्हजेर सोंपयल्ली. हांवें ती नमळायेन स्विकारली आनी सगळ्यांक फोन करपाक बसलों. जाण्टेलेक वयर व्हरुन पेटयली तरी ह्या मार्गा वयलो सगळ्यो लायनी कामांत गुंतुनूच पडिल्ल्यो. तिगेली बेतलांतली धूव तिचें तोंड पळोवंक पावली ना म्हणून जाण्टेलेन पिंड व्हेलो ना हाचें खापर सगळ्यांनी जावंयाच्या माथ्यार फोडलें. आतां केन्नाय 'ह्या मार्गा वयल्यो सगळ्यो लायनी कामांत गूंतल्या' हीं उतरां कानार पडटात तेन्ना म्हाका भिरोंडेच्या म्हातारेचो उगडास येता आनी म्हजे दोळे भरुन येतात (तिचें पांयजेल तांगेर

सालांत चंदनाचो हार घालून लायला). आयज सातां समुद्रा पलतडी लेगीत आमचो बारा दिसांचो सोयरो खंवसत जाल्यार आमकां सुतक म्हणून त्याच दिसा कळटा. आदीं, दिसाळ्यांत, 'भरल्या संवसारातून तू गेल्यास आज बारा दिवस पूर्ण जाले' हें वाचून आमकां आमचो सोयरो भायर पडला तें कळटालें. आयज ते दीस नात. पयर, आमचो दायजी बोरिवलीक साडे धांक भायर पडलो. धा बत्तीसांक नलूची एसएमएस Dont go to temple for 5 days Shantaram kaka expired. केदी व्हडली क्रांती!

ह्या सगळ्या बोवाळांत आमी भारतीय डाक म्हणून एक खातें आसा तें साप्प विसरुन गेल्यांत. आतां तांबड्या रंगाचो कोर सांगतना पोस्ट बॉक्स रेड असो पोस्टाचो संदर्भ येता तितलोच. आमी एका तेंपार चिटयो बरयताले आनी पोस्ट पेटयेंत घालताले. ह्यो सगळ्यो आतां दंत कथा कश्यो दिसपाक लागल्यात. पोस्टमॅन नांवांच्या प्राण्याक तर आमीं सामके विसरल्यात. आतां पोस्टमॅन गणवेशांत येच ना. 'तार आणतो पत्र आणतो आम्ही त्याची वाट पाहतो, मी कोण?' असले धडे आतां पुस्तकांनी येवपाक लागल्यात कारण आतां पॉस्टमॅनाकूच मी कोण असो प्रस्न पडला. फाटीं म्हाका संतोषी माते कडल्यान एक कार्ड आयलें 'ह्या पत्राच्या शंभर प्रती करुन जर तुम्ही इतर भक्तानां पाठवल्या नाहीं तर दहा दिवसांच्या आत तुम्हाला जवळ जवळ एक कोटीचा आर्थीक नुकसान होईल. जिवनांत नैराश्य येऊन सगळी कडे काळोख होईल'. म्हाका कच्चऽ जालें. हांवें जनेला भायर नदर मारली आनी खरेंच भायर दमट जाल्लें.

''आगो बाय, शंबर पोस्टकार्डां हाड गो'' हांवें व्हडल्याक (उक्तें मळब फेम) म्हणलें.

''बाबा, पोस्टकार्ड म्हणल्यार कितें रे?'' ताचो परतो प्रस्न.

हांवें संतोषी माते कडल्यान आयिल्लें कार्ड ताका दाखयलें. म्हाका भरुन आयलें संतोषी माते कडल्यान म्हाका कार्ड आयलें म्हणून न्हय तर आतांच्या

भुरग्यांक पोस्टकार्ड म्हणटात तें कितें तें खबर ना म्हणून. पोस्टमॅनाक तर घरांत हांव सोडून कोणूच वळखना. तो वर्सांतल्यान एकदां आमगेर येता रक्षाबंधनाच्या आदल्या दिसा. म्हज्या मानिल्ल्या चौदा भयणींच्यो राखयो घेवन. राखी दितना तो म्हज्या फाटीर हात फिरोवंक विसरना. दुसऱ्यांच्यो भावना समजुपी पोस्टमॅन हांगां खूब कमीं. आसूं.

ते पोस्टमॅनांच्या वैभवाचे दीस याद करात. 'पलकों की छावों में' सिनेमांतलें डाकिया डाक लाया पद याद करात. डाकिया (हॅण्डसम राजेश खन्ना) 'डाकिया डाक लाया डाकिया डाक लाया खूशी का पयाम कहीं, कहीं दर्दनाक लाया' अशें पद म्हणीत गांवांत चिटयो वाटता. त्या पदांत, 'शादी का संदेसा तेरा हेऽऽ सोमनाथ लाया' अशी एक वळ आसा. ही वळ आयकतना म्हज्या आंगार ओगीच कांटो फुलतालो. म्हजी पिरायूय तशीच आशिल्ली. प्रत्यक्षांत मात असो संदेसा पोस्टमॅनान केन्नाच हाडलोना. रामा (आमचो पोस्टमॅन) म्हज्यो चलयेकारांनी परतायल्ल्यो कुंडल्यो मात घेवन येतालो. 'मुलीचे आनी मुलाचे पाहिजे तसे गूण पडत नाही. आमच्या भटजीनी मुलाला मंगळ आहे असे सांगून त्यात भर घातली. मुलाची कुंडली आम्ही पाठवत आहोत, तरी मुलीची कुंडली आणी फोटो पाठवण्याची कृपा करावी. मोठ्यांना नमस्कार, छोट्याना आशिर्वाद' हो संदेसा त्या कुंडले बरोबर आसतालो. तरी तुमकां (तुमकां म्हणजे पुरुशवर्ग) हें पद याद जायना जाल्यार ह्या पदांत एक सीन आसा. अरुणा ईराणी देवळाच्या तळ्यार न्हाता आनी वयर येवन मागीर वोल्यानीच डाकिया म्हऱ्यांत बसता आनी ताका म्हणटा 'एऽऽ डाकिया बाबू, छ महिना होई गवा खतो नहीं लिखन'. आतां शेर्त तुमकां हें पद याद जालां आसतलें. हो अरुणा ईराणीचो सीन पळोवन हांवें भारतीय डाकांत पॉस्टमॅनाच्या पोस्टा खातीर अर्ज केल्लो. म्हाका अजून तरी तांची जाप येवंक ना. पोस्टमॅन जाल्लों जाल्यार अशीं सवळ्यांनी आयिल्ल्यांक सगळ्यांक होलसेलांत हांव चिटयो बरोवन दिवपाचों.

आमचो पत्र वेव्हार चडसो मुंबयकारां कडेन जातालो. तारो बी धाडप खूब कमी. एकदां हांव मुंबय आमच्या बापोलयागेर सुटयेंत गेल्लों. तेन्ना बापायन धाडिल्ली तार म्हाका अजुनूय याद जाता. "Tamu delivered baby paduk (stop) poss getting wasted (stop) come by rohini (stop)'. मुंबयकारांलीं चडशीं पत्रां भाटांची विचारपूस करपी आसतालीं. म्हाका याद जाता पाटील गुरुजीन आमकां पत्रां कशीं बरोवपाचीं तें शिकयल्लें. हांवें उमेदीन म्हज्या मुंबयच्या काकाक पत्र बरोवपाक घेतलें. ती. काका बरोवचें सोडून हांवें कै. काका बरयलें आनी फुडें कितें जालें तें हांव हांगां सांगूंक बसना. रोखडोच काका गोंयां येवन भाटांची वाटणी करुया म्हणपाक लागलो. कॉलेजींत पावतकच हांवें संध्याक (बरडालें) आमच्याच वाड्यार रावतालें तरी लेगीत जायत्यो चिटयो बरयल्यो. ह्यो चिटयो हांव गुलाबी लखाट्यांनी घालून धाडी. हे लखाटे हांव तांच्याच परसऱ्यार घेतालों. हे लखाटे घेवप सगळें उदारीचेर चलतालें. 'आज तकलेक खोबरेल तेल घालून न्हिदलों तरी तूं सपनांत येवपाचें आयलेंच. सपनांत तूं आमगेर दनपारचें जेवपाक आशिल्लें. आईच्या हातचें लोणचें तुवें घेवन घेवन खालें. मस्तें खंयचे कडलें!' अशें कितें तरी हांव बरयतालों.

लग्ना उप्रांत पयल्या बाळंटेराक ही कुळारा गेली. कुळारा तांची लॅण्डलायन ताणीं बिल भरुंक नाशिल्ल्यान कापिल्ली. हो वेळ मेरेन ती तशीच आसा. हाका लागून ही म्हाका चिटयो बरयताली. हांव जाप बरोवपा सारकी आसत जाल्यार जाप धाडटालों. चिटयेचें स्वरुप अशें आसतालें, 'छकुलीक (म्हणजे व्हडलें मागीर तें उक्तें मळब फेम म्हणून नावां रुपाक आयलें) खंयचेच दूद पचना. कितें करुं? सामकें टॅन्शन जालां. आई तुमकां विचार म्हण्टा. फुडल्या आयताराक येतना म्हजो काळो घागरो आनी पांचवो बुलुज घेवन येयात'. म्हज्यो जापो पोस्टकार्डाचेरुच आसताल्यो त्योय बी दोन वळींच्यो. 'दुदाचो प्रॉब्लेम कळ्ळो, तो तुज्या आईन म्हाका सांग अशें कित्याक सांगलां

तें बरें कळ्ळें ना. तुजो काळो घागरो आनी पांचवो बुलुज पोतयेंत भरला. काळ्या घागऱ्याक नाडी ना, आईक घाल म्हणिल्ली पूण तिणें म्हाका घाल वा मावोड्यां वचून घाल म्हणलां म्हणटकच घागरो तसोच हाडटां'. अश्यो जायत्यो चिटयो म्हज्या संग्रही आसात. तांकां साहित्यीक मोल कितलें आसा तें हांव नकळों.

ई-मेल फेसबूक आयलो. ग्रिटींग कार्डां गेलीं. दर दिवाळेक नलू म्हाका ग्रिटींग कार्ड धाडटालें आनी ताचेर एक वळ आसताली, 'शेळे रोसांतले फोव खाताना म्हाजी आठवण काढा हंऽ भावोजी'. कारण ताका शेळे रोसांतले फोव खूब आवडटात. मागीर तें मोबायलाचेर एसएमएस धाडपाक लागलें. आतां तें आनी भयण फेसबूकार, व्हॉट्सेपाचेर आसतात. आतां ती मजाच गेली तो पर्सनल टच उरुंक ना. 'आमचें फाटलें लॉज मदेराक आयलां' हिणें फेस्बुकाचेर पोस्ट केलें ताका १३८ likes मेळ्ळ्यो. "My sister's sister in law's father in law expired because of mouth cancer therefore smoking is injurious to health' ह्या तिच्या पोस्टाक १०३५ likes मेळ्ळ्यो, नलुच्या नण्डेच्या मांवांच्या आत्म्याक शांती मेळूं. सांगपाचो मुद्दो म्हळ्यार आमी कितें करतात ताचे फाटल्यान आतां भावना कांयच उरुंक नात.

पयलीं जाण्टेले म्हणटाले, 'वयल्यान आपोवणें केन्ना येत तें सांगूं नजो.' हें आपोवणें चिटयेच्या स्वरुपांत यमदूत घेवन येतालो आसूंयें. आतां हें आपोवणें फेसबुकार पोस्ट जावं येता वा व्हॉट्सएपाचेर येवं येता. हांव दोनायच्या भानगडींत पडूंक ना तो ह्याच खातीर!



# नितळ घर अभियान

"**हय** व्हो, स्वच्छ भारत फाल्यां आं!"

हिणें म्हाका मध्यानेर हालोवन जागयलो.

"फाल्यां कितें तर?" हांवें अर्दे जागृत आनी अर्दे निद्रा अवस्थेंत विचारलें.

"फाल्यां गांधी जयंती न्ही? प्रधान मंत्री ते पंच सगळ्यांनी नितळ करपाक उलो मारला. हें अशें गांधीजीक देडशें वर्सां जाय सर करपाचें. खबर ना तुमकां? खंयच्या राज्यान आसतात म्हूण कोण जाणां. हांवें चामुंडा देवी महिला मंडळाची अध्यक्षा ह्या नात्यान तोच उलो मारला. नितळ करपाक आमी आमच्या घरच्यान सुरु करपाचें. पयलीं घर, मागीर वाडो, मागीर गांव, मागीर देश अशें नितळ करीत वचपाचें." ही न्हिदिल्ले कडेन साप्न मारिल्ल्या भशेन हातवारें करपाक लागली.

"आरे ह्या टायमार तुमचें कितें चल्लां रे?" आईची सालांत न्हीद चाळवली.

"कांय ना गे, नितळ करतां." हांवें म्हणलें.

"ह्या वेळार तूंवें कितें करून दवरलें तर नितळ करपाक?" आईचो भायल्यान प्रस्न.

''आगे हांव आनी कितें करतलों? हिणें नितळ करपाक उलो मारला स्वच्च्छ भारत नितळ गोंय''.

''पयलीं तिका तपलें वाळटना अर्दे गोटे मोरयेन उडोवन सगळें तुंबून दवरता तें नितळ करपाक सांग. मागीर गोंय नितळ करुया'' आई तापली. ही नाक फुलोवन फाट करुन न्हिदली. आतां हिणें काळखांत नाक फुलयलें तें म्हाका कशें दिसलें हें विचारूं नाकात.

सकाळ फुडें हिणें आपलो पदर खोयलो आनी हातांत सारण घेवन आपलो पयलो फोटू फेसबुकार पोस्ट केलो. आमगेर गांधीजीचो फोटू नाशिल्ल्यान हिका चुरचुरे पडले. मागीर My Experiments with Truth ह्या पुस्तकाक फुलां घालून आनीक एक फोटू पोस्ट जालो.

''आमीं खंयच्च्यान सुरु करुया?''- ही सारण हातांत घेवन.

''कितें तें?'' हांवें हाल्फ पॅण्ट, बानयान आनी जानव्याची नितळ करतना आडखळ जांवची न्हय म्हूण तें बानयाना वयर घाल्लें.

''आनी कितें? नितळ करपाक''. ही आतां सारण बाजी प्रभुचे तरसादी सारकी फिरोवपाक लागली.

''तूं सांग मगो''. अशें म्हणून हांवें चारुय वटेन नदर मारली. तकले वयलो फॅन चवथी कडेन पुशिल्लो, ताचेर धैरांवाचें झुंबर जाल्लें. फॅन, तें झुंबर घेवनूच फिरतालो. माळ्यावयल्यान आकाशदिवो, फ्रिजाचीं आनी टि.व्ही'चीं बॉक्सां, पोरसूं शिपपाचें पायप केन्ना सकयल घालून घेंव हाची वाट पळेतालीं. आल्मारीर रद्देचो दाळ वयर मदेराक तेंकत आयिल्लो. ती उबून सकयल पडत म्हणून सावळ्यान ताचेर शिमीटाची कायल दवरिल्ली. आमचे बेडरुमाच्या दारार म्हजें कल्सांव आनी खोमीस हुमकळटालें. भुरग्यांच्या बेडरुमाच्या दारांचेर वाले सुकत घाल्ले. हांवें नदर घुंवडांवपाची थंयच थांबयली.

''आमचो बाबा म्हणटा खंयचीय गजाल देवा कडच्यानूच सुरु करची. आमी ही स्वच्छता मोहिम देवाकुडिंतल्यान सुरु करुया न्हय?'' हिणें विचारलें.

''आमगेर शाळीग्राम आसात तें याद आसा मगे? काय तुजी याद ह्या मोहिमे बरोबर साफ बी जाली? तुज्या कुळारा आनी स्वच्च्छ भारत हो उलो मारप्यांगेर कोणागेरुच शाळीग्राम ना ही जाली पयली गजाल. आनी तूं नवरात्रांतल्या देवकार्या कडेन माथ्यार न्हाल्ली तितलीच. मागीर तांबयो तरी माथ्यार रकयला देवा कुडीन येवंक सोदता ती? पयलीं रापल्या ती तुजी रांदचेकूड साफ कर मागीर देशाक हात घाल.'' आई देवाकुडिंतल्यान तापली.

आमी आमचो मोर्चो रांदचेकुडी कडेन वळयलो.

''आज सगळे पयलीं राजघाटार वतले आनी मागीरुच साह्न मारतले''. ही आतां हातान सारण फिरोवपाक लागली. पयलीं श्रीकांत तशी बॅट फिरयतालो.

''मागीर आमी खंयच्च्या घाटार या?'' हांवें मोहिम सुरु करचे पयलीं आयिल्लो घाम पुशीत विचारलें.

''आमी न्हय पुस्तकावयल्या फोट्याक पांयां पडूया आनी सांगणें करुया''.

मागीर सालांत तामरेतीर दवरिल्ल्या पुस्तका वयल्या गांधीजीच्या फोट्याक पांयां पडलीं.

''बापुजी आमीं आमचें स्वच्छता अभियान आमगेले रांदचेकुडिंतल्यान सुरु करतात. ताका तुमी यश दियात. तातूंत कमी ज्यास्त जाल्यार आमकां माफ करात. हय व्हो, तुमीं मोने कशे उबे कितें रावल्यात? सांगणें दादल्यांनी करचें आसता.'' निमणी वळ बापुजीक न्ही म्हाका उद्देशून आशिल्ली.

''आमचे सगळे सोयरे नोकरे निमित्त्यान गोंयां भायर आनी देशा भायर आसतात, तांचें बरें करात आनी सगळ्यांचें कल्याण करात''. हांवें बापुजीक सांगणें केलें आनी साह्नी हातांत घेतल्यो. इतल्यांत हिणें टि.व्ही. लायलो,

''हय व्हो पि.एमान व्हडलो झाडू हातान घेतला आतां कितें करुया?''- ही सालांतल्यान.

इतले म्हणसर हांवें रांदचेकुडिंतल्या मोरये पोंदच्यान हिणें चवथी कडें

फुगत घाल्ल्या मुगांच्या कल्लांची परात, परुंचे हळडीकुकमांतले वाटाणे, तिळगुळ, पानां विडे, उपकार सुपारेचीं पाकिटां इतली संपत्ती भायर काडली.

"आवय म्हजे! हें सगळें खंय सापडलें तुमकां?" हिणें आपल्या तोंडार अजापान हात दवरीत आपलो एक पात्री प्रयोग सुरु केलो. जणूं काय हांव पि.सी. सरकार आनी रांदचेकुडीन मर्दी मांडून दवरिल्लें मायाजाल सगळें हांवेंच तयार केलां.

"हें सगळें मोरये पोंदा आशिल्लें मगो! इतलें सगळें हांव मनान आसल्यार पसून हांगां तयार करपाक शकना". हांवें म्हज्या भरुन आयिल्ल्या भेंडाचेर हात दवरीत म्हणलें.

"जाणा व्हो हांव तुमच्या कमरान आयलें न्हय, तुमीं उब्यानीच कितें जाता जाल्यार पळेयात. हें सगळें शेंवतें निस्तारतलें. ताचोय फोटू फेसबुकार घालूंक जाय."

हिणें वैष्णव जन.. लॅपटोपार लायलें आनी आल्मार साफ करप म्हजे स्वाधीन करुन आपूण पि.एम. साह्न मारता ती पळोवपाक सालांत गेली. कपाट उगडलां मात म्हजेर एक गादी, हिचे गावनांचे दाळ, कितलेशेच डजन हँगर, एक की बोर्ड, एक फेर्र, दोन फोट्यांचे आल्बम, कांकणाचे सेट आनी कितें कितें पडलें. आनी तांचे सकयल हांव पडलों.

"आई गेऽऽऽऽ". सदांच खंयचेय संकटा खाला चिड्डुतकच हांव उलो मारतां तसो हांवें उलो मारलो. आई बाबडी जप सोडून धांवत आयली.

"आरे पापया, कोणे सांगल्या तुका ह्यो राटावळी? आरे तुजे जाण्टेल्यांक जें नितळ करपाक जमलें ना तो तुजो हो बत्तीस किलांचो देह करतलो? आपूण कितें, आपूण करता कितें हें पयलीं पळोवचें!" आईन म्हज्या देहा वयली गादी कुशीक काडली.

"आवयऽऽ हांकां कितें जालें? ईईईईईईईऽऽऽ". हिणें म्हाका जमीन दोस्त जाला तो पळोवन बारीक आवाजान किंळची शी मारली.

''कांय जांवना. तो तुजें कपाटांतलें वैभव घेवन सकयल पडलो.'' आईन म्हजे कपळा वयलें फेर्र कुशीक काडीत म्हणलें.

''आवयस हो आल्बम कुलच्यांवांत आशिल्लो? नलू आयिल्लें तेन्ना कितलो सोदलो, ना हाताक लागलो! आवयस, हो गावन केन्ना शिंविल्लो जाणा? व्हडलें पोटांत आसतना. जातलो दिसता तो म्हाका. घालून पळोंव?''

घोव जमनीर आडवो पडला, आजुबाजूक सामानाचो पसारो, आई कमरेर हात घेवन उबी आनी बायल घोवाक गावन घालून पळोंव काय विचारता अशें सुंदर चित्र कुडींत आशिल्लें.

''तुजे पोटांत व्हडलें आसतना तूंवें कितें शिंविल्लें तो प्रस्न आतां नाका. हाचे पोटांत तुवें कितें तरी घालां मूं? ना जाल्यार तो साखर देंवोवन परत आडवो जातलो.''

''आमचो पंतप्रधान गेलो एक आठवडो फकत गरम उदकाचेर आसा. अमेरिकेक वचून आयलो. आतां दिल्लीक सान्न मारता. तुमकां बसून साफ केल्यार भेंडान येता, उब्यांनी साफ केल्यार आडवे पडटात. आतां वयर माळ्यार चडून कितें जमता जाल्यार पळेया. तेसर हांव च्याक उडयतां. मागीर तातूंत कांकणां बुडोवन खायात.'' (च्या आनी कांकणां हो म्हजो सकाळचो नाश्तो, तुमचे म्हायती खातीर).

हांव घोडो लावन वयर माळ्यार चडलों. वयर पावतकच म्हाका अलीबाबाचे गुहेंत पाविल्ले सारकें जालें. एक पांय गंगळांत, दुसरो पांय दवरपाक जागो नासल्यान हवेंत, हिमालयार साधू तपश्चर्येक उबो रावता तसो. फुड्यान एक सिंगर आनी दोन उषा शिलाई माक्नां, मडकयचे जात्रेक पावणेक घेतिल्लीं रथाचीं दोन अब्तागिरां, कितल्योश्योच रथाच्यो गुडयो, दोन लाकडी पाळणी, दोन व्हडले मर्फी रेडवे, चार आडवे कुकुम लायिल्ले बायलांचे ब्लॅक ॲण्ड व्हायट फोटे, तीन फेटे बांदिल्ले दादल्यांचे फोटे, 'मंदिरा कडे' असो बाण दाखोवपी एक पाटी, पोरसांत लावपाक केल्लें एक कापडाचें बुजगांवणें, एक शेवगो, साळोरी

नाशिल्लो साळोरेचो पांजरो, हुंदरांचे दोन रातेर, सानन धाकणो, आमच्या लग्नाक गाडयेक लायिल्लीं दोन काळजां. हें सगळें पळोवन म्हाका घुंवूंक लागलें. हांवें सकयल पळेलें. आई कमरेर हात धरून हांसत वयर पळेताली.

"२०११ मेरेन सगळें लीप जावपाक जाय मरे? आसा आमकां टायम, देंव तूं सकयल. च्या आनी कांकणां तुजी वाट पळेतात." हांव घोड्यार वयर चडिल्लो तसोच घोड्या वयल्यान निमूटपणान सकयल देंवलो.



# न्हवरो म्हाका जाय

**'आहा** न्होवरो म्हाका जाय' रीटा बायचें एक कांतार आसा, म्हाका खूब आवडटा. आल्फ्रेड बाबालीं कांतारां तर विचारुंकूच नाका. सगलीं म्हज्या मोबायलाचेर आसात. 'ओऽ सुख सुख सुख आयलें लोटोन....पास जालों हांव पास जालों... '

'कालची कोडी' कांतार तर हांव सदांच आयकतां. फ्रिजांतले सगले जिनस जेन्ना ही पानार वाडटा तेन्ना कालची कोडी कांतार आयकतच मात्शें बरें दिसता, दोन शेळ्यो उणयो तरी पोटांत वतात. आल्फ्रेड बाबान सांगलां कालची कडी बरी लागता अशें मनाक समजायत जेवण पोटांत धुकलतां. आल्फ्रेड बाबान फकत कालची कडी म्हणल्या, आमगेर कालची, पयरची केन्नायची कडी आसता. एकदां हिणें म्हाका वरण वाडलें. रुच वेगळीच लागली म्हूण बेठेंच विचारलें,

'' केन्ना केल्लें गो?''

''आंवंय चवथी कडलें तें! सोपुनाशिल्लें म्हणुन फ्रिजांत धुकलिल्लें.''

''अशें?'' म्हणत हांवें शीत कालयलें. तेन्ना मार्च म्हयनो चलतालो, आसूं.

तर 'न्होवरो म्हाका जाय' कांतारांत चली आपल्या सपनांतल्या न्हवऱ्याचें वर्णन करता, ताचे गुणधर्म सांगता. तें कांतार आयकतच आतांच्या

चलयांनी कितलो बदल जाला तो आमचे लक्षांत येता.

चलयो सपनां कित्याक पळेतात हाचो सोद सिगमन्ड फ्रोय्ड हांकां लेगीत लावपाक जमलोनां. ताणीं फकत सपनाचेंच विश्लेशण केलें. चलयांक सपनांत आपलो राजकुंवर घोड्यार बसून येता अशें कित्याक दिसता हें कोडें सोडोवचे पयलींच ते बाबडे गेले. 'जंजीर' सिनेमांत अमिताभाक सपनांत घोडो कित्याक दिसता तें कोडें सिनेमा सोंपचे पयलीं सुटलां पूण हें कोडें मात तशेंच उरलां. 'मनी वसे ते सपनी दिसे' हें मात तितलेंच खरें. शाळेक आसतना रेखा हुबळीकरान (आतां इन्दोराक आसता) आमकां चल्यांक,''माझे हे, शिवाजी महाराजां सारखे हुशार, बाजी प्रभु सारखे निधड्या छातीचे आनी तानाजी सारखे शूर असे'' अशें सांगिल्ल्याचें म्हाका याद जाता. तेन्ना आमी बोरी सकयल रावन बोरां खाताले. ताणें आपल्या भावी 'ह्यांचं' वर्णन करतकच म्हज्या तोंडाची रुचूच गेली. कित्याक म्हणून कोण जाणां. 'शिवाजी महाराजां सारखा हुशार'- त्याच दिसा आमकां प्रगती पुस्तक मेळिल्लें. पाटील गुरुजीन रसपाळ्या केळ्यांच्या घडाक जाग ऽ नासतना म्हज्या प्रगती पुस्तकांत सगल्या विशयां खाला तांबड्यो रेगो मारिल्ल्यो. म्हजे छातयेक छाती म्हणपाची कोणाचीच छाती जावंची नाशिल्ली. हांव पालीक भियेतां तें रेखा हुबळीकराक खबर आशिल्ल्यान हांव तानाजी न्हय म्हणून ताका खबर आशिल्लें. पूण जेन्ना हांव ताच्या लग्नाच्या येवकार सुवाळ्याक गेलों, ताच्या 'ह्याना'क पळेलो तेन्ना म्हाका शॉक बसलो. म्हाका रायगडा वयल्यान उडी मारची कशी दिसली. आमगेल्या भावोजीक (भावोजी म्हणटना छातयेंत कळ येता) पावन खिंडींत उबो दवरिल्लो जाल्यार शिवाजी महाराजांची परिस्थिती कितें जातली आशिल्ली हें चिंतीत हांव बुफेच्या रांकेंत उबो रावलों. सगल्या, समेस्त चलयांचें अशेंच जाता. तांच्या सपनांतलो राजकुंवर एक आनी गांठीक दुसरोच अशी स्थिती जाता आनी मागीर ताचो फोग तीं गांठीक सांपडिल्ल्याचेर काडटात.

रिटा रोज कांतारांत म्हणटा,'आहा न्होवरो म्हाका जाय, बोरो गोरो दिसोंक जाय, बेफेद रुपान, गोडगोडीत तोंडान, बाबऱ्या वोंटांचो आसूंक जाय.' चल्या भुरग्याचे गुण पळोवंचे, रुप न्हय अशें सदांच आई आमगेल्या व्हडल्याक सांगता. म्हणल्यार ताका ब्रेन वॉश करता. ल्हान आसतना ताची नलू मावशी ( म्हजी मेवणी. तिका राजकुंवर घोड्यार बसोवन व्हरपाचो आशिल्लो पूण तो मुंबयच्यान एस.टींत आयलो) ताका विचारताली,

''आमचे बायक न्हवरो कसो जाय गो?''

''म्हाका न्ही बस्त्यांव पदेरा सारको न्हवरो जाय. कांपीण टींग टींग करुन वाजयता आनी कुरकुरीत पाव दिता.''

म्हाकाय हें बरें दिसतालें. कारण म्हाका चड जोतीं झरोंवचीं पडचीं नाशिल्लीं, बस्त्यांव एक घर सोडून रावतालो. पयर तें आपलो 'ड्रीम बॉय' पोरोबाल्या सुरेखाक सांगतालें,

''कॉम्बीनेशन ऑफ सिक्स पॅक सल्मान, इन्टेलिजेन्स ऑफ आमिर एन्ड स्टॅमरिंग ऑफ शारुख.''

हें ड्रीम बॉयच्या नादान बिंयाक उरत म्हूण म्हाका आतां भंय जाला कारण हालीं हांवें आशीकुशीक असल्यो जायत्यो केसी पळेल्या. आमच्याच सोयऱ्यां भितर एक नंदा (गुप्तते खातीर नांव बदल्लां) म्हणून आसा. बरें पोर, नाका दोळ्यान ॲवरेज. एके वटेन पळेल्यार रेखा कशें दिसता, फुडल्यान पळोवपाचें ना. आसूं, आमकां कितें ताची पोर्ट्रेट काडपाची ना. तर शेक्सस्पियरान म्हणलां नांवांत कितें आसा? पूण ह्या पोरान तकलेंत भलतेंच घेतलें. आपल्या न्हवऱ्याच्या नांवांत रोमी I, II, III, IV आसपाकूच जाय म्हणपाक लागलें. म्हणजे आदल्या तेंपार आसताले तशे CHARLES IV, LOUIS XIV. आमी ताका कितलें समजायलें, आगो हांगां तशीं नांवां आसनात पापया, हांगां चडान चड शेणवी बोरकार नाजाल्यार सिनाय रायतुरकार. अशीं पिशेपणां

करशी जाल्यार अशेंच उरतलें आनी तशेंच जालें. आतां हाताक रोमी आंकडे आशिल्ली घडयाळ घालून फिरता. नशीब ताचें. ही एक तरा जाली. आतां एक दुसरी तरा, सीमा (गुप्तते खातीर नांव बदल्लां) हाची अपेक्षा दुसरी. तातूंत म्हाका ताची चूक शी दिसना. तेन्ना राजेश खन्ना म्हणटकच चलयो पिश्यो जाताल्यो, हेंय पिशें जाल्लें. ताका ताचो भावी जोडीदार राजेश खन्ना सारको दोळे मिचकावपी जाय आशिल्लो. चलयेच्या बापायन सगल्यांक हे मोहिमेर धाडले. आमी भावी न्हवऱ्याक ताच्या दोळ्यांत दोळे घालून पळेताले. शेवटाक, पाळये दळव्यागेर दोळे मिचकावपी राजेश खन्ना मेळ्ळो आनी चलयेचो बापूय बाबडो सुटलो. लग्न जातकच सीमान नांव घेतना दळव्याल्या राजेश खन्नाक दोळे मिचकावपाक लायले आनी मागीर ताणें नांव घेतलें,

मडगांवच्या जार्दीनात
ह्यानी दोळे मिचकावत विचारले
बागों में बहार है?
मी गिरकी घेत म्हटलं
नागेशराव है है है

सीमाल्या बापाय सारकें सगल्यांचेच सादता अशें ना. प्रत्येक चलयेच्या बापायचें नशीब. चलयेन भावी न्हवऱ्याचीं सपनां कशीं पळेल्यां हाचेर निंबून आसता. सपनां व्हड तितली बापायची परवड चड.

म्हगेली घरकान्नुय बायल म्हणटकच हिचींय भावी न्हवऱ्या बद्दल सपनां आशिल्लीं जीं हिणें तिशी हुपतकच गुंडाळून दवरिल्लीं. एकुणतीस जाय मेरेन हिका आपलो न्हवरो कलेक्टर, गुंडप्पा विश्वनाथ आनी हीरो सिनेमांतलो जॅकी श्रॉफ हांचो संगम आसचो अशें दिसतालें. शेवटी हिका कॉम्प्रोमायज करचें पडलें. म्हजी गुंडप्पा विश्वनाथाची हायट, मटका बीट कलेक्टर आनी अर्ध शिशी आसल्यान हिरो सिनेमांतल्या जॅकी श्रॉफा सारको तकलेक तीर बांदपी

मेळ्ळो. दर एकल्याचें नशीब. व्हडल्याचो जल्म जातकच हिणें आपलें एक एक सपन सांगपाक सुरु केलें.

"म्हाका न्ही आवाज ना."

"मंगेशकार बधिनी सोडल्यार कोणाकूच आवाज ना अशें म्हजें प्रामाणीक मत. कोणें तरीं म्हणलां सिर्फ लता गाती है बाकी सारे रोतें हैं."

"तशें न्हय. म्हाका सदांच दिसतालें म्हगेल्या भावी घोवान भुरग्यांक लोरी गावची."

म्हाका ही कितें सांगपाक सोदता तें कळ्ळें. म्हणजे हांवें रात जागोवंची आनी भुरग्याक न्हिदोवचें आनी हिणें न्हिदून घोरेंवचें. हे बाबतींत दादल्यांचो ॲटीट्यूड जग जाहीर आसा. एके कडेन आमचो बाकीबाब म्हणटा,

बापूय म्हणटा सगळी रात पोरान न्हिदूंक दिलें ना

आवय म्हणटा सगळी रात पोर म्हजें न्हिदलें ना

तरी आसतना हांवें म्हणलें ओके. कारण भुरगें म्हजेंच हातूंत दुबाव ना. 'थोडा हमारा थोडा तुम्हारा आयेगा फिरसे बचपन हमारा' अशें नीरज हाणीं म्हळ्ळां (तेरे मेरे सपने). हांव व्हडल्याक लोरी गावन न्हिदोवपाक लागलों. व्हडलें पयलीं सावन विचित्र, खूब त्रास दिलो ताणें. हांव खांद्यार घालून गावन न्हिदयतालों 'चंदा ओ चंदा किसने चुराई तेरी मेरी निंदिया'. तेवटेंतल्यान पोरोब 'तेरी और मेरी एक कहानी' सुरेखाक खांद्यार घालून म्हाका साथ दितालो. सगल्यां दादल्यांचीं दुख्खां एकूच म्हणल्यार जाता. तरी, लोरी गावन ताका पाळण्यांत घालता थंय आसा हिचें घोरेवण्यान तें परत उठ्ठालें. मागीर परत चंदा ओ चंदा. ह्या चंदा ओ चंदाची आमच्या व्हडल्याक इतली संवंय जाल्या की आतां हें पद टि.व्ही. वा रेडव्यार लागल्यार ही घोडी रोकडीच न्हिदाव्याक पडटा.

हांवें वयर म्हणलां तशें सगल्या दादल्यांचीं दुख्खां सारकींच आसतात.

हांव तीं सगल्यां सामकार मांडटां, थोड्यांक समाजांत तांच्या स्टेटसाक लागून तीं मांडपाक लज दिसता. कारण लोकांक कळ्ळ्यार ते आपल्याक कितें म्हणटले ह्या भंयान. एकदां पार्टेक, म्हजो असोच एक समाजांत स्टेटस् आशिल्लो आमीग, (मिरामार फ्लॅट आसा) पोटांत दोन पेग वतकच मेकळो जालो.

"जाणा मरे ?" -आमिग (पोटांत दोन पेग)

"सांगल्या बगर हय कशें म्हणटलों?"- हांव ( पोटांत एक पेग ब्लॅक डॉग)

"जाणा मरे, मेरे पास गाडी है, मिरामार में फ्लॅट है."

"मेरे पास माँ है."- हांव.

"तशे न्हय रे, हेंऽ तुवें म्हजो न्हीदम ना केलो."

"परत सांग."

"मेरे पास गाडी है, मिरामार में फ्लॅट है लेकीन घर में इज्जत नहीं है."

"कितें सांगता रे तूं?" ( म्हजी देंवली).

"शॉक बसलो मरे? गरीबा घरची हाडची आनी श्रीमंतागेर दिवंची हें सामकें खरें."

म्हाका एक पेग पोटांत वचून लेगीत हागेलें दुख्ख कितें तें कळ्ळें.

"तिचें संजीव कपूरा सारको आपलो घरकार आसचो हें सपन आसलें. आपूण पांयार पांय घालून बसतली आनी तो आपल्याक वाडटलो हें तिचें सपन."

"भाभी कांय करना रे?" हांवें ताच्या खांद्यार हात दवरलो.

"करपाक आयल्यार करतली न्ही? हांव घरा कडेन खांद्यार तुवाल उडोवन आसतां ताच्या वयल्यान तूं चीत. आमगेर संजीव कपूरालीं सगलीं पुस्तकां लायब्रींत आसात. आतां हांगां येतना सॉस में कुरमा आनी चिकन दालचिनी घरा करुन दवरुन आयलां."

"आरे तूं रांदपी दवर मरे."

"तिका कोंताक येना हांव तिचें सपन पूरें करतां. गरीबा घरची हाडची..."

"आनी श्रीमंता घरा दिवंची." (हांवें ताचें वाक्य पुरें केलें कारण तो इमोशनल जाल्लो)

दुसरे दिसा हांव मिरामार ताच्या फ्लॅटार दनपारां गेलों. ताचें हातचें जेवपाक न्ही ओगीच गैरसमज नाका, ताची खबर घेवपाक. बॅल मारली. दार उगडपाक हिसपा भायर उशीर जालो. भाभीन दार उगडलें. किचन सरळ आसल्या कारणान नाका तें नदरेक पडलें आनी खंयचो तांगेर पावलों सो जालो. म्हगेलो इश्ट किचनांत आशिल्लो तें बरें आसा पूण ताच्या माथ्यार कोणें तरी अख्खें शिताचें तपलें वाळिल्लें आनी ते दशेन तो उबो आशिल्लो. तें तपलें कोणें वाळ्ळां काय हांवें विचारलें ना. तो 'भितर यो रे, यो रे' करतालो. 'येतां मागीर तुमचें जांवनी' अशें म्हणून हांव थंयसून कडसरलों. आतां तांगेर वच्चे पयलीं, फोन करुन 'शीत बी वाळून जालें रे?' काय विचारतां आनी मागीरुच तांगेर वतां.

पणजे बाजारांत वतां तेन्ना थोड्यो बायलो वागा बोर्डरीवयलीं सैनिक कशीं छाती फुडें काडून चलतात आनी फाटल्यान तांचे घरकार बॅगो सांबाळीत येतात तेन्ना म्हाका तांचें दुख्ख कळटा. केन्ना केन्ना अश्या घोवांक बॅगो डिकींत घालपाक हांव हातभार लायतां, आमचेच ते. आमच्यो दादल्यांच्योय मनीशा आसतात. ना न्हय. कारण आमकांय मनां आसात, आमी माक्नां न्हय हें बायलांक केन्ना कळटलें? बायलांचे मेळावे जातात तेन्ना म्हाकां हो पोयंट काडपाक जाय. एक श्लोक आसा

कार्येशु दासी करणेशु मन्त्री
भोजेशु माता शयनेशु रम्भा

क्षमयेशु धरित्री रुपेशु लक्ष्मी
शतधर्मयुक्ता कुलधर्म पत्नी

आपली बायल अशी आसची अशें दर एका दादल्याक दिसता तातूंत आमची कितें चूक? आमगेली हातूंत खंयच फिट बसना हें सांगपाक लज कसली? तुमचीय तीच परिस्थिती. 'घरोघरी मातीच्या चुली' कोणें तरी ओगीच म्हणूंक ना, आसूं.

'मेरे सपनो की रानी कब आयेगी तू' हें पद फकत सिनेमांतूच पळोवपाचें. जशी 'सपनों की राणी' सपनांतूच सापडटा तशेंच राजकुंवर घोड्यार बसून येना तो बशींतूच बसून येता तें बायलांक कोण सांगतलो? तुमीं हें काम करशात व्हय?



# बुफे

**आदल्या** तेंपार लग्नाच्या धार्मीक विधींत कन्यादान, गोत्रांत काडप अश्यो कांय विधी आसताल्यो. ह्यो विधी लग्नाचो एक भाग आसताल्यो. पूण आज लग्नाचे विधींत खूब बदल जाला. काळा प्रमाणे सगळ्या गजालींनी बदल हो जाताच. तो कोण थाबोवंक शकना. तेंच लग्नांय बाबतींत. पांच परतवणा वेळार आमी कन्यादान आटपून घेतात, अशें चलयेच्या बापायन भटमामांक सांगतना हांवें म्हज्या ह्या दोळ्यांनी पळेलां आनी कानांनी आयकलां. एका तेंपार ह्याच कन्यादाना वेळार चलयेच्या बापायचे दोळे भरुन येतना हांवें पळेल्यात. चलयेच्या आवयच्या तोंडार सॉद हांवें ह्या हातांनी मारलां (तेन्ना गुड्डेची सॉदा बाटली धा पयश्यांनी येताली). बॅण्डकार,'जा मुली जा दिल्या घरी तू सुखी रहा' ह्याच समयाचेर वाजयताले. आसूं. तर, आजकाल ह्या सगळ्या गजालींक फाटो दिवन बुफे हो लग्नाचो अविभाज्य भाग बनला. बुफे शिवाय लग्नाचें पान हालना.

बुफेक कितें दवरपाचें तें पयलीं ठरोवया मागीर कुंडली पळोवया, अशें न्हवरेकार म्हणटात म्हणून एक दीस म्हाका सावळ्यान येवन सांगलें. तेन्ना म्हाका व्हडलें अजाप जालें ना. कारण आजकाल घेवपा दिवपाचें ठरोवचे पयलीं बुफेचे आयटम ठरतात.

"बियां तोणाकांत नांवांक बियो आशिल्ल्यो जाणां मगो?" अशें खंय मांयन सुनेक पांयांनी माप उडयतना म्हणलें. तेन्ना सून माप उडोवचें सोडून

परत फुलां लायिल्ले गाडयेंत बसून कॅटररा कडेन झगडूंक गेली, हें सांगल्यार तुमकां खरें दिसत? म्हज्या लग्ना वेळार असलें कांय नाशिल्लें. बुफे हो शब्द आमच्या शब्दकोषा मेरेन पावूं नाशिल्लो. ह्या कारणान रांगोळी (कोणें घाल्ली ती खबर ना) घाल्ल्या पानार हांव पाटार बशिल्लों. लग्नाची ही बरी याद म्हाका आसा. पांय दोडून बसपाची संवंय नाशिल्ल्यान मागीर म्हाका खूब त्रास जाले, तें सगळें सांगपाक मेळना. ते पांय मागीर पांच परतवणा वेळार सरळ जाले शे दिसता. आसूं.

बुफे हो प्रकार एकविसाव्या शेकड्यांत आयिल्ल्या कारणान आतां वधु आनी वर पक्षाक खूब बरें जालां. बुफे दोनूय पक्षांक लागीं हाडटा.

''दोनूय वटेंतलीं पांचशीं पानां धरुया न्ही? कॅटरराक सांगपा खातीर म्हणटां आं!'' अशें चलयेकार लग्नाचीं उलोवणी जावंच्या आदींच आत्मविश्वासान चलेकाराक बांदून घेतात. मागीर..,

''हय, स्वीट डिश आमरस दवरात आं, आंब्याचे दीस म्हणून म्हणटां!'' अशें चलेकारुय चलयेकारांक सोयरीक जाली म्हणून इनडायरेक्टली कळयतात. आदीं लग्न ठरतकच वोडयो बी (कुवाळ्याच्यो) करपाचो बोवाळ आसतालो. हांगां आतां सगलें बदल्लां. पयलीं कॅटरराक पळोवपाक धांवतात. भटमाम,''आधी कॅटररला बघा नंतर मुहूर्त सांगतो. बुफेला मज बटाट्याची भाजी अन् तळलेल्या मिर्च्या हव्यात. पयला घास भरवायला त्या बऱ्या पडतात.'' अशे जोक्स करुन चलयेकारांचें टेन्शन देंवयता आनी वातावरण हलकें फुलकें करता. लग्ना नंतर तें गंभीर जाता ताका कोण कांय करुंक शकनात तें सोडा.

मागीर भटमामान सांगिल्ले प्रमाण कॅटरराक सोदपाचो प्रोग्राम सुरु जाता. न्हवरो सोदपा इतलीच ही कठीण कामगिरी. आदल्या तेंपार रांदपी सोदताले...,

''काणकोणा हो आचारी माम बरो आसा आं, ताकाच पळेया तुमी. पयलें तपलें वाळटा थंयच आसा दुसरें तपलें रांदनीर केन्ना दवरता तेंच कळना.''

असलीं उतरां कानार पडटालीं. आतां तशें कांय घडना, बुफेचो जमानो.

"आगो, हाका सांगां गो तुमी, प्लेटी पन्नासां वयल्यान पांचशीं जाल्यार लेगीत भंय ना. तो ज्यूस्त वाडयता आनी वाडयलां म्हणून कळऽ पसून ना! आगो, आमच्या निलीमा वेळार न्हवरेकारांनी तिनशें लोक सांगिल्ले, तांचेच जाले पांचशें. सगले सुयेन जेवपी. मागीर ताणें (ताणें म्हणजे कॅटररान) कितें करचें? बिंयां भाजी वाडयली, उड्डमेथी वाडयली पूण कोणाक कळ्ळें पसून ना! म्हाका म्हणूंक लागलो,'भाभी तूं कांयच भियोंव नाका. तूं केळवण घेवपाक सव्यार उबी राव.' तो आशिल्लो म्हणून आमीं साल्वार आं! नाजाल्यार लज वचपाची. तुमीं ताकाच सांगां." आज आमकां असले संवाद आयकूंक मेळटात. काळाचो महिमा आनी कितें!

एकदां, कॅटरर मेळटकच जी खोस जाता ती थळ मेळटकच खोस जाता ताचे परस कितल्या तरी पटींनी चड, अशें म्हाका एके चलयेच्या बापायन सांगलां. कॅटररांतूय प्रकार आसतात हेंय बी म्हाका ताणेंच सांगलें. "थोडे केटरर न्हय जेवणांत कांद्याची पेस्ट करुन घालतात. देवळान हॉल घेतकच असले प्रकार बुफेक चलनात न्हय? न्हवऱ्या व्हंकलेचें सगळें बरें जावं नाका?" हांवें हय म्हणून मान हालयली. एकदां कॅटरर सापडलो की चलयेच्या आंगार कसले नग घालचे तें ठरोवच्या आदीं बुफेक कसले नग दवरपाचे ते ठरता. एके चलयेचे आवयन तर, "रीमा जाल्लें तेन्नाच हांवें ताच्या लग्नाच्या बुफेक खतखतें दवरतले अशें थरयल्लें." अशें जेन्ना म्हाका सांगलें तेन्ना हांवें तिच्या सामकाराच अजापान तोंडात बोंट घालें. ती म्हाका आनीक कितें फुडें सांगत म्हणून हांवें थंयसून कूस मारली. आतां बुफेक दवरपाचे आयटम स्टँडर्ड आसतात अशें जरी जालें तरी ते आपले आर्थीक परिस्थितीचेर तशेंच मौसम आनी सुवाळ्याचेर निंबून आसतात. हालीं बुफे बारसो ते बारावो मेरेन आसता हें तुमकां खबरुच आसतलें. बाराव्याक फकत गेला ताका वेगळें पान आसता आनी बाकिच्यांक रांकेंत रावन जेवण घेवंचें पडटा. फाटीं फुडें कावळ्याकूय लायनीक रावचो

पडत सांगू नजो! आतां बुफे मौसमाचेर निंबून आसता अशें हांवें म्हणलां कारण मौसमा प्रमाणे मुट्ट्यांचें तोणाक, अनस पणस घोंट, घोंटां सांसंव, आमरस पुरी, बिमलांचें लोणचें अशे जिन्नस खावपाक मेळटात. असले खास नग बुफेंत आसतकच, येजमान, न्हवऱ्या व्हकलेक सव्यारुच सोडून, तुमकां,''आमरस पुरी खाली मूं? आंबे स्पेशल देवगड सावन हाडिल्ले.'' हें सांगपाक विसरनात.

आजकाल आमकां लग्नां बुफेक लागुनूच याद उरतात..,

''रीमाचें लग्न केन्ना जाल्लें गो?'' ह्या म्हज्या प्रस्नाक हिणें, ''मे म्हयन्यांत. ताच्या लग्नाक, बुफेक, आमरस, मुट्ट्यांचें तोणाक, तोरांचें लोणचें आशिल्लें याद ना? हे सगळे नग आशिल्ले म्हणजे मे म्हयन्यांतूच जाल्लें.'' अशी जाप दिल्ली. आतां लग्नाक देवा दयेन सगळे आयटम शिवराकूच आसतात. पूण वाडदिसाच्या बुफेक व्हेज तशें च नॉन व्हेज आयटम दवरुन सकयल उजो पेटयतात आनी खावप्याक खंयचे व्हेज आनी खंयचे नॉन व्हेज हें कळचे खातीर थंय जिनसाच्या नांवांचे बोर्ड दवरतात. केन्ना केन्ना हे बोर्ड चुकून हाचे ताका जातात मागीर सगळोच आनंद. अशें जातकच कितें जाता तो सुवाळो हांवें ह्या दोळ्यांनी पळेला.

'आगो, मटार पनीर बोर्ड मटणा सामकार दवरिल्लो मगो! हांवें मटण, मटार पनीर म्हणून उश्टायलें (मटणाची नळी चोखीत). आज म्हजी संकश्टी न्ही गो? जावं गणपतीकूच कळ्ळें हांवें मटण खूब तेंप उश्टावना तें. तो बुद्धीदाता न्ही गो. ताणेंच कॅटरराक बोर्ड बदलपाची बुद्ध दिली (दवलो भरुन मटणाच्यो फोडी घेत).' अशेंय बुफेक जाता.

बुफेच्यो मागीर फोटो काडटात. एक फोटो फकत जिनसांचो आनी दुसरो लोक जिन्नस प्लेटींत घेता तो. जेन्ना पंक्तीचें जेवण आसतालें तेन्ना ही पद्धत नाशिल्ली. तेन्ना फकत न्हवऱ्या व्हंकलेचो घास भरयतना अपुर्बायेचो फोटो घेताले. आतां फोटे येतकच ते पळोवन तांचेर शेरे मारपाचें एक सेशन जाता...,

''आवयस, सुमीन पळे पुलाव कसो सुयेन भरुन घेतला!''

''घेवपाचोच! पुलाव बरोऽ जाल्लो.''

''रमाचे प्लेटींत कांय ना शें?''

''तें डायटिंगाचेर आशिल्लें न्ही गो तेन्ना, पळे कशें सुटला तें!''

''आनी तुजे प्लेटींत मिर्ची ना मगो?''

''आगो, त्या दिसा ज्यूस्त म्हाका लूज मोशन. फुटे कडयेच्यो दोन वाटयो दिसना म्हजे प्लेटींत?''

असो संवाद आयकतच सामके धन्यऽ जातात आनी बुफे दवरिल्ल्याचें सार्थक जाल्ल्यावरी जाता.

न्हवऱ्या व्हंकलेचो एकाच सॉफ्ट ड्रिंकाचे बाटलेंत दोन स्ट्रॉ घालून दोगांय सॉफ्ट ड्रिंक पियेतात असो फोटो काडटात. व्हंकल प्लेटींत फकत थोडोच पुलाव घेता आनी पापड दोन बोटांनी अळंग उखलून लिप्स्टीक इबाडीनासतना तोंडांत घालून एक ल्हानसो कुडको काडटा. हाचे वयल्यान ती सामकी नाजूक अशें सगळ्यांचें मत जाता. थोडीं,''व्हंकलेन कांयच खालें ना मगो, सामकी नाजूक दिसता!'' अशीं हळहळटात. मागीर हेच व्हंकलेक हांवें कांय तेंपान सुयेन शीत घेवन ताचेर दाट हुमण आनी दाव्या हातांत तळिल्ली वेल्ली अश्या अवतारांत पळेल्या आनी नदर दुसरे कडेन फिरयल्या.

लग्नाचो हॉल जरीय केदोय व्हडलो आसलो तरीय बुफे मांडटात ती सुवात सामकी अशीर आसता. भरिल्ल्यो प्लेटी आनी वयर पापड अशे स्थितींत सगळे एकामेकाक खेटून उबे आसतात. मागीर हो पापड प्लेटींतल्या राशी वयल्यान निसरुन सकयल पडटा. मागीर, टेबला कडेन वचून लोक आनीक एक घेतात देखून तळिल्ले पापड चड लागतात अशें म्हाका दिसता. एकल्याचो कोंपोर दुसऱ्याक लागता आनी ज्यूस्त उड्डमेथी तीस हजारांच्या शाल्वाचेर रकता, कशी खबर ना.

''आवय म्हजे जालो सत्यानाश! एकदांच न्हेशिल्लो शालू, तीस हजारांक पावणेक घेतिल्लो कवळ्यां. तीस हजारांचें व्हडलें ना, रमेश आत्तां चाळीस हजारांचो

घेवंया म्हणटलो पूण देवतेच्या आंगा वयलो न्ही गो तो म्हणून चुरचुरे!'' अशे इमोशनल डायलॉग आयकूंक मेळटात.

लोकांकूय बुफेचें खूब अप्रूप. हॉलांत भितर सरचे पयलीं बुफे खंय मांडला ती सुवात पयलीं पळोवन घेतात. कित्याक खबर ना. गळ्यांत माळ पडचे आदींच चलयेच्या बापायक हात दिवन..,''फ्रूट सालाद दवरुन तुमी बरें केलें आं, ह्या सिजनांत आय्सक्रीम खावन वाज आयिल्लो'' अशें सांगपीय हांवें पळेल्यात. नांव घेवप काळा प्रमाण बदल्लां. पयलीं अपुर्बायेची व्हंकल काय बरी लजत घोवाचें नांव घेताली...,

आमच्या पानां भोंवती घाल्या सुंदर रांगोळी
घरा वचून आतां खेळटलें संजू बरोबर होळी
आनी आतां...,
आमच्या बुफेक आशिल्ली बटाटाची सुकी भाजी
आतां प्रकाश करतलो म्हाका हां जी हां जी

वयर हांवें म्हणलां बुफे बारसो ते बारावो मेरेन पळोवंक मेळटा. पयर पणजे खंय घटस्फोट जातकच एका जोडप्यान आपल्या लग्नाच्यो यादी जागोवपा खातीर त्याच कॅटरराक आपोवन लोकां खातीर बुफे दवरलो. आतां तुमी सांगात! अशी ही बुफेची महिमा!!



# भुतां

**म्हजो** जल्म उमाशेचो. म्हजें शेळें नक्षत्र. हांव जालों तेन्ना घुगूम पेरीर बसून रडटाली खंय हें मागीर सुविणीन आईक सांगलें. उमाशेचे रातीं घुघूम पेरीर बशिल्ली हें तिका कशें कळ्ळें तें तिका आनी घुगुमिकूच खबर. म्हजो बायोडेटा दिवपाचें कारण म्हळ्यार हांव भुतांक सामको लार्गींचो. ज्याचें नक्षत्र शेळें आसता तांकां खंय तीं मिडयम बनयतात आनी मागीर तीं तांकां फ्रिक्केंटली दिश्टी पडटात. आतां शेळें नक्षत्र म्हळ्यार कितें तें आमचे आईक विचारचें पडटलें (Visiting Hours Morning 9 a.m. to 1.00 p.m. and Evening 3.30 p.m. to 5.30 p.m.).

भुतां शेळें नक्षत्रकारांक मिडियम करतात आनी फ्रिक्केंटली दिसतात अशें म्हाका हिणें लग्न जातकच सांगलें. लग्ना पयलीं तें म्हाका खबर नाशिल्लें. हांव भुतांक इतलो लागीं आसून लेगीत भुतां विशीं जायत्यो गजाली म्हाकां मनशांनीच सांगल्यो हाचें म्हाका अजाप दिसता. भुतां खंय पयलीं आमकां दिसतात (आमकां = शेळें नक्षत्र) म्हणून हांव वतां थंय सादूर रावतां. घरच्यांक हांव तांचो प्रतिनिधी वा प्रवक्तो करसो दिसतां. भुरगीं तर हे बाबतींत अती उत्साही. एकदां आमी रिसेप्शनाक गेल्लीं. रिसेप्शनाची वेळ आनी सुवात भुतांचे आवडिची. रिसेप्शन रातचें, हॉलांत. हॉलाक तेंकून इगर्ज, इगर्जेक तेंकून शिमेतेर, अशें तें लोकेशन. मागीर आनी आमगेलीं आयकतात! ओवरअॅक्सायटेड!...

''दिसलीं रे? दिसलीं?'' - व्हडलें.

''ना, व्हंकल येवना दिसता, येतली.'' - हांव.

''ती न्ही रे, तींऽऽ.'' - दुसरो.

''आनीक कोणाक हांव हांगां वळखना.''

''तीं रे, फकत तुकांच दिसतात तीं.''

''म्हाका दिसऽना तीं.''

''बाबा म्हणून सामकोऽऽ हांगां व्हडल्यान उलोवंक मेळना. बारा वरांचेर टंव टंव जावन उब्रात तींऽऽ.''

''आजी गो? ती हांगां खंय?'' (ही आजी म्हणजे हिची आवय. ती बारांक उब्रा कित्याक खबर ना.)

''हय व्हो आईक हांगां कित्याक हाडली?'' ही तांबडी जाली.

''रातची बारांक आमकां आनीक कोण उठोवन घालता?''

''हय व्हो उमाशेक, शेळें नक्षत्र.'' हिणें म्हाका कांय हिण्ट्स दिले आनी व्हडल्यान लोकेशन सांगलें. मागीर म्हजी लायट पेटली.

''हांगां कित्याक येतलीं तीं?''

''तांकां आमंत्रण लागता तर बाबा? सारकी नदर मारा.'' व्हडलें फुगून बसलें.

''हय व्हो नदर मारात न्ही मेळटली खंय तरी. शिमेतेर लागींच आसा.''

हांचो मूड सांबाळपा खातीर हांवें कितें कितें केलें ना ताची यादी केल्यार शंबर पानांचे दोन कादेर्न पावचेनात, आसूं. भर रिसेप्शनांत हांकां लागून हांव भुतां दिसता काय सोदपाक लागलों. शेळें नक्षत्राक जल्माक घालपी ब्रह्मदेवाच्या नांवान बोटां मोडपाचें पातक हांवें केलें.

''कोणाक सोदता?'' - यजमान.

''तें तुमचे वटेंतले न्हय.'' हांवें भुताक सोदीत शिमेत्रे वटेन नदर मारली.

''तेवटेन दार ना तेवटेन शिमेतेर.'' - यजमान.

''तेवटेनूच येवपाचें तें.''

''कितें?'' यजमानान आंग काडलें.

''तेवटेन म्हणजे चलयेकारां वटेन येवपाचें.'' हांवें वेळ मारुन व्हेली.

शेवटीं शिमेतेर इतली लागीं आसून लेगीत वखदा खातीर एक भूत परसून म्हाका सापडलें ना. आमीं हात हालयत आयलीं, सगल्यांचो मूड ऑफ.

भुतां आसाच, तीं पळोवपाची नदर जाय इतलेंच खरें. आमचे घरांत ती म्हाका लाभल्या ही अभिमानाची गजाल. भूत आपले इत्से प्रमाण रुपां धारण करता, ही शक्त तांकां वयल्यान दिल्या. हांव जाल्लों तेन्ना आईक वण्टीर सावळी हालतना दिसली. तिच्या पोटांत 'कुळळ' जालें आनी हांव जालों अशें ती सांगता. ती सांगता तें खरें धरल्यार म्हजे जल्माक भुतांचो हात आसा अशें म्हणल्यार फट थारचेंना. हांवें ह्या संबंदान बापायक विचारलें.

''भुत प्रेत समंधादि रोगव्याधी समस्तही
नासती तुटती चिंता आनंदे भिमदर्शने'' ताणें म्हणलें.

''मारुती स्तोत्रशें म्हणलें?' – हांव.

''तें म्हणटकच भुतां दिसनात आनी पोटांत कुळळ जायना.'' अशें म्हणून ताणें वक्ल लावन भायर पोरसांत उदक घालपी कामण्याक पळेलें. (कामणें आमचें कामेरें. दिसावडो शंबर रुपया.)

भुतां आमकां दिसतात तशींच जनावरांकूय दिसतात. कुत्रो भुतांक पळेतकच मान वयर करुन विचीत्र आवाजान रडटा तें आमी सिनेमांनी पळेलां. आमचो टायगर अशे तरेन दोन तिनदां रडटना हांवें आयकलां. ज्या ज्या खेपे तो तसो रडला तेन्ना दार उगडटकच हिची आवय दारांत उबी रावल्या. आतां हो योगायोग आसूं येता. हांव ना म्हणिना. पूण विशय आयलो म्हणून हांवें सांगलें.

भुतां दिसपा खातीर शेळ्या नक्षत्राची आसपाची गरज ना. त्या खातीर फकत शिट्रूक नदर आसल्यार पुरो. कशें तें सांगतां, जांकां ह्या विशयांत गोडी आसा ताणीं पावलां कडेन लक्ष दवरचें. भुतांचीं पावलां परतीं आसतात. म्हणुनूच, 'परत्या पावलांची' अशें म्हणपाची प्रथा आयली. आमच्या लग्ना वेळा, हिका गोत्रांत काडटालीं तेन्ना म्हजे मावशेन (म्हाका णव मावश्यो) हिचो शालू वयर

उखलून हिच्या पांयां कडेन पळेलें. विचारतकच बाबडेन खुलासो केलो की तिका हिचीं पांयजणां पळोवपाचीं आशिल्लीं. घरा कडेन पावतकच, हिणें घरांत भितर सरतना, माप फुटबोला सारकें उडयतकच, मावशेक परत हिचीं पांयजणां पळोवचींशीं दिसलीं. हे खेपे हांवें तिका मजत केली. 'मावशे, पांयजणां पळेन दिसलीं?' काय विचारतकच, 'हय रे तुज्याच बऱ्या खातीर.' अशें तिणें स्पश्टीकरण दिलें. हिणें तें आयकलें काय खबर ना पूण ती मावशी केन्नाय आमगेर येतकच ही मागीर साडी वयर खोवनूच घरांत वावुरताली. आमचे मावशेकूय मागीर हिचीं पांयजणां पळोवपाक त्रास जालो ना, सोड.

म्हजो भुतां कडेन जल्मा पसुनचो संबंद हें हांवें तुमकां पयलींच सांगलां. मागीर हांव हो संबंद वाडयत रावलों. भुरगेपणांत हांव चांदोबा वाचतालों. अजुनूय म्हजें वाचन चांदोबा फुडें पावंक ना हें तुमकां सांगल्यार फट दिसतलें. हो चांदोबा वाचपाचें कारण म्हणल्यार तातुंतलो बेताळ. त्या बेताळाच्या काणयां परस म्हाका तो झाडाक परतो हुमकळटा तेंच्च खूब आवडटालें. आमच्या घराक पाटयो आसात, तांचेर हांव बेताळ जावन हुमकळटालों. बाकिचीं म्हज्या वयाचीं भुरगीं तेन्ना लोगोऱ्यांनी, लिपचेल्यांनी असले खेळ खेळटालीं. म्हजे बापायक हांव राजा जावपाक सांगतालों. तो म्हाका खांदार घेतालो. हांव ताका काणी सांगतालों आनी मागीर प्रस्न करतालों. 'जर म्हज्या ह्या प्रस्नाची जाप दिली ना जाल्यार तुज्या तकलेचे शंबर कुडके जावन तुज्या पांयां सरी लोळटले' अशी ताका शिटकावणी दितालों. प्रत्येक दादल्याचें लग्न लागता तेन्नाच तकलेचे शंबर कुडके जावन पांयां कडेन लोळूंक लागतात अशें ताणें म्हाका एकदां सांगिल्लें याद आसा, सोड. एकदां बेताळान (म्हणचे हांवें) ताका गोंयच्या ओपिनियन पोलाची काणी सांगिल्ली. शेवटाक, 'राजा, गोंयच्या प्रजेन ओपिनियन पोला वेळार दोन पानांक पसंती दिली पूण वेंचणुके वेळार गोंयाक महाराष्ट्रान घालपाक सोदपी शिंवाक निवडून कित्याक हाडलो?' असो प्रस्न केलो तेन्ना ताणें, 'अजीब है गोवा के लोग' अशी जाप दिली. ही जाप आयकतच

हांव परत पाटयेक हुमकळपाक लागलों, आसूं. आतां वया मानान पाटयेक हुमकळपाक जमना आनी फाटीर घेवपी राजाय गेलो (१९११-१९८१).

म्हाका बेताळ जावपाक आवडटालें तसोच म्हाका मुंजोय जावपाची खूब इत्सा आशिल्ली. कारण राष्ट्रमतार तेन्ना 'पिंपळा पेडार' हें सदर येतालें. तेन्नाच्या काळार सगळेच गुरुजी, 'मुलानो तुमी मोठेपणी कोण होणार?' असो प्रस्न विचारताले, कित्याक खबर ना. आमच्या पुज्य पाटील गुरुजीन एकदां सकाळचो असोच प्रस्न विचारलो...,

''मी मानाय होणार.'' - दत्ता.

''मी भाऊसाहेब होणार व वाघावर हात ठेवणार.'' - नागवेकार.

''मी मोरारजी भाई होणार व शिवांबु पिणार.'' - सावंत.

''मी मुंजो होणार व पिंपळा पेडावर बशणार.'' - हांव.

म्हजे जापेन आमचो गुरुजी इम्प्रेस जाल्लो जावपाक जाय.

''तुझी अजून मुंज झाली नाही बाळा, तू मुंजो कसा होणार?'' गुरुजीन ज्योक केलो.

त्या दिसा घरा वचून हांवें आईक पयलो प्रस्न केलो...

''आई म्हजी मुज केन्ना करता गे?''

''कित्याक रे? मामान चली दिता म्हूण सांगलां?'' आईनूय विनोद केलो पूण तो आयकुपाचे मनस्थितींत हांव नाशिल्लों. म्हाका दिसतालो तो फकत पेडावेलो मुंजो.

''म्हाका मुंजो जावपाक जाय.''

''थुमेकाल!! दनपारच्या कडार कसली वानसा रे पापया ! हय व्होऽ, हाचे मानेर कोण बसला तो पळेया, कवळ्यां वचून प्रसाद लाया.'' आईन बापायक म्हणलें.

बापायन कितें ॲक्शन घेतलें खबर ना पूण हांव मुंजो जावपाक पावलों ना. पोरुं हांवें पन्नाशी साजरी केली ताचेवेल्यान तुमकां तें कळ्ळांच जातलें. मामान चली दिली ना हाचे परस हांव मुंजो जावपाक पावलों ना हाचें दुख्ख

म्हाका चड जालें.

भुतांक मानेर बसपाक खूब आवडटा. तीं मानेर बसतकच मनीस खुबूंक लागता. तीं काडपाक मागीर तांकां नरसोबावाडी बी व्हरचीं पडटात. आतां, एके गजाली कडेन आमीं सादूर रावपाक जाय. ती म्हणजे, नेरवां फ्राक आशिल्लीं मनशांय खुबतात आनी भुतां मानेर बशिल्लीं मनशांय खुबतात, तातूंत फरक करपाक आमकां कळपाक जाय. असलीं मनशां घरांत आसतकच, अणभवान तो फरक करप आपशींच जमता. हांव नवोच लग्न जाल्लों तेन्ना हांवें हिका रे-बन वक्ल घेतलें ना (ही मातशी तिरशी हें म्हाका मागीर कळ्ळें) देखून ही तीन दीस खुबली. जे प्रमाणांत ही खुबली, आमकां दिसलें हिका भायली बाधा जाल्या म्हणून! दसऱ्याक आमच्या देवळा कडेन तरंगां येतात, थंय हिका व्हेली. भारान सांगलें हिका भायली बाधा ना हिका नेरवांचें आसा आनी ताणें हिका तीन तरेच्यो गुळयो बरोवन दिल्यो. त्यो घेतिल्ल्याक आतां ही बरी आसा.

भुतांक काळ्या माजराचें रुप घेवपाक खूब आवडटा हें आमकां 'रामसे बंधु'चो खंयचोय सिनेमा पळेतकच कळटा. आमच्या लग्नाचे पयलेच रातीं, हिणें बदाम पिस्ता केशर घालून हाडिलें दूद, जनेलांतल्यान आयिल्लें काळें माजर पियेलें हें तुमकां सांगल्यार तुमच्या आंगार कांटो येतलो. म्हज्याय आयिल्लो पूण हिणें प्रसंगाचें भान दवरुन म्हाका सावरलो. आमगेर सविता, अमिता आनी बबिता अशीं तीन माजरां आसात. तुमी कांयच भिंव नाका अशें सांगतकच म्हज्या जिवांत जीव आयलो.

"भुतां मानेक दांत लावन रगत पियेता रे?" हांवें ड्रॅक्युला सिनेमा पळोवन बापायक विचारिलें.

"ड्रॅक्युला परवडलो! हांगां कोण, खंय, कितें लावन रगत पियेता ताचो पत्तो लेगीत लागना." बापायन रांदचेकुडीचे दिकेन पळोवन म्हणिलें. सोड.

हांव अजून सोंपेपणान मान कोणाच्या हातांत दिना. केंस मारतना लेगीत म्हाल्याक 'मान छोडके किधर भी पकडो' अशें पयलींच सांगतां. आमच्या

पांडुरंग म्हाल्याक हें सांगचें पडनाशिल्लें. गेलो बाबडो.

भुतांनी आनीक एक पॉप्युलर कॅटेगरी आसा, कर्ण पिशाच्च्यां. जांकां तीं वंश जातात तांकां तीं काना कडेन सगळें इन्फोर्मेसांव दितात. इन अदर वर्ड्स तांकां तीं वॅल इन्फोर्मड दवरतात. आमचे मर्दीं (आमचे मर्दीं म्हळ्यार मनशां मर्दीं) अशीं कर्ण पिशाच्च्यां जायतीं दिश्टी पडटात. हीं मनीस कुळांतलीं कर्ण पिशाच्च्यां दुसऱ्यांच्या कानांत सतत फुतफुतत आसतात. तांकां सुवाळ्यांनी, सिनेमा थेटरा सारक्या भौशीक जाग्यांनी चड नेट येता. जांच्या कानांत ही पिशाच्च्यां फुतफुततात, ती व्यक्ती हें ॲन्जोय करत आसल्यार लेगीत आशीकुशीच्या लोकांक हाची नसाय जाता. एकदां हांव मुद्दम एका व्हड विचारवंताचें भाशण आयकुपाक कला आकादमींत गेल्लों. हांव भाशण आयकुपांत गुल्ल जाल्लों. इतल्यांत एक कर्ण पिशाच्च्य म्हजे फाटल्यान बशिल्ल्याक प्रसन्न जालें...

"आगो उलयता तो कोण गो?" कर्ण पिशाच्च्य काना कडेन फुतफुतपाक लागलें.

"म्हाकाय खबर ना. पेपरांत फोटू येता मगो ताचो. हो आयला म्हूण हांव आयलां. भाशण सोपतकच भायर बोर्डार पळेतकच कळटलें कोण तो."

"ताचे केंस सामके दोळ्यांर येतात मगो, कशें दिसता गो ताका?"

"ताचे केंस आंसू गो, म्हाका हालीं खरड जाल्या. काळो ड्रेस घाल्यार खांदो भरता. लज शी!"

"लिंबू घास माथ्याक." कर्ण पिशाच्च्यांन रेमेडी सांगली.

भुतांक खुरीस दाखयल्यार तीं भितात तें हांवें ड्रॅक्युला सिनेमांत पळेल्लें. हांवें म्हज्या बोटांचो खुरीस करुन कर्ण पिशाच्च्याक दाखयलो. कांय फरक पडलो ना, सोड.

भुतांक धवे कपडे घालपाची खूब हौस. तीं धवे कपडे घालतात आनी लांब केंस मानेर सोडटात. हिचे कडेन णव धव्यो साडयो आसल्या कारणान आमकां खूब त्रास जातात, चड करुन लायट वता तेन्ना. जायते खेपे म्हाका ही

घरांत आसा तें याद उरना (वया मानान तशें जाता आसुयें). पावसांत आमचे लायटीक पिडा मारता. एकदां ही धवी साडी न्हेसून हातांत मेणवात घेवन माळयेवयल्यान सकल देंवली. हांवें 'राम राम' म्हणपाक सुरवात केली.

"अशें किते तुमी?" भुतान म्हणलें.

"आरे तें सादें भुत न्हय रामरक्षा म्हण." आईन भुताची कातेगोरी सांगली.

"आगे हांव रामरक्षा विसरलों."

"हय व्हो अशें किते तुमी? हांव तें." भूत आयडेंटिटी दाखयत सोपाणां देंवलें.

"सगलीं भुतां अशींच म्हणटात आनी अशींच दिसतात, भुताचे पांय पळे." - आई.

भुतान आपले पांय वयर केले तशें म्हाका सूऽऽ जालें.

"आई, पांयांक पांयजणां आनी कातरे आसा, भुतांक कातरे पडटात गे?"

"कातरे मरे, मागीर आमगेलीच ती."

इतल्यांत लायट आयली आनी तें भूत न्ही आमचीच सौभाग्यवती हें प्रूव जालें. तरी आईन दोतोर तपासता तशे दोळ्यांत बॅटरी दिवो घालून आनी जीब बी भायर काडपाक लावन हिका तपासली. हांव दोन दीस भायर आई म्हऱ्यांत न्हिदलों.

अशीं हीं भुतां. अंदश्रद्धा निर्मुलनवाले भुतां बी ना म्हणटात खरे पूण जाण्टेल्यांनी 'जंय शितां थंय भुतां' अशें म्हणून दवरलां. आशीकुशीक नदर मारल्यार शिता राशी म्हऱ्यांत घेऽ म्हूण भुतां उबीं राविल्लीं दिश्टी पडटात. मागीर भुतां ना कशीं?



# भुल्लुसप

**भुल्लुसप** म्हणटकच आमच्या दोळ्यां सामकार गोंयकारुच उबो रावता. तो मागीर दादलो जावं वा बायल. आमगेलीं मुंबयकारां, शिरेंतलो मानकुराद आंबो अंदू लागला, अशें आमीं तांकां कळयतकच, तीं, आनंदाने हुरळून जातात, भुलुसऽ नात. 'हुरळून जाणे' म्हणटकच एक णववारी न्हेशिल्ली बायल तोंडाक पदर लावन भितर घरांत धांवता इतलेंच चित्र दोळ्यां सामकार रावता. हुरळून वचपाक तांकां कारणां लागना. 'आज फोडणी मारलेली आंबटी झकास झाली आहे बुवा!' अशें कारभाऱ्यान म्हणटकच कारभारीण ईश्श्यऽऽऽ म्हणत हुरळून वता आनी धडपडत रांदचेकुडींत धांव मारता. आनी ही तुस्त कारभाऱ्यान घरांत आयिल्ल्या पावण्या समोर केल्ली आसत जाल्यार विचारुंकूच नाका.

आमचें भुलुसप प्रकरण वेगळें. कोण, केन्ना, कित्याक, खंय भुल्लुसत तें सांगूं नजऽ. म्हजो बापूय (१९११-१९८१) एक दीस पुजा करतालो. इतल्यांत आमचो सावळो नंडणी काडपाक कामेऱ्यांक घेवन आयलो. त्या कामेऱ्यांक पळोवन बापूय भुलुसलो आनी अभिशेक करपाक घेतिल्ल्या पंचामृतान (आमगेर शाळीग्राम आसात) म्होंव घालचें सोडून आईक दोतोर रायकारान दिल्लें शारोप घालें. आईक कळ्ळ्या बरोबर तिका कल्लऽ जालें. ती सोमती अडेजांचे बशींत बसून कवळ्यां गेली (तेन्ना एकूच बस आशिल्ली). देवतेक

प्रसाद लायलो. देवतेन प्रसादार, जांकां त्या पंचामृताचो अभिशेक घाला तांची थंडी भितर सुकली, अशें सांगलें. आमच्या घराण्याक देवानी हे बाबतींत खूब कोऑपरेट केलां, तांचे उपकार मानतां तितले थोडे. एकदां म्हजो आजो गणपतीची उत्तर पुजा करतालो. इतल्यांत ताच्या कानांत कोणें तरी तिट्यार बऱ्यो बांगुल्ल्यो आयल्या म्हणून सांगलें. आज्यान भुलुसून आरती पयलीं केल्यो आनी मागीर गणपतीक निवेद्य दाखयलो. घरांत आकांत फकत आईचेरुच येता, ती देवांक आनी मनशांक बाबडी सांबाळून आसा. तिणें सोमतो खांडोळ्यां वचून प्रसाद घेतलो. गणाधीशान प्रसादार, 'आपल्याक पोटाक घालां तें व्हडलें. आरती पयलीं वा मागीर तें आपल्याक फरक पडना' अशें सांगलें खंय! देव आनी मनशां भितर फरक तो हो.

दादले ज्यो गजाली पळोवन भुलुसतात त्यो गजाली पळोवन बायलांनी भुलुंसूंक जाय अशें ना. जनावरांय भुलुसतात हें हांवें सांगल्यार तुमकां अजाप दिसतलें. आमगेली गाय तामू सरकी पेण परातींत पळोवन भुलुसतकच शेंपडी वयर करुन गोठ्यांत फुगडी घालतालें. मनशाक शेंपडी नाशिल्ल्यान मनीस तशें करना. नवरात्रांनी आमगेर माळी म्हणून प्रकार आसता ताका लागून आमीं नवरात्रांनी शिवराक जेवतात. आमचें बरें आसा, आमच्या टायगराचे (१९७१-१९९३) मात हाल जाताले. एक वर्सा दसऱ्याक आमगेर आमचो मुंबयकार आयलो.

'आज मटणाचा बेत करुया!' ताणें आपले स्टायलीन, दोळे मिचकायत, रुच काडून आंवडो गिळीत म्हणलें. हें भायर टायगरान आयकलें आनी तोय शेवण्यो घालपाक लागलो. हांव मुद्दम मटण हाडपाक उसगांवां गेलों. मटण हाडलें, आईन आपले स्टायलीन सुका मटण केलें. हांवें गांवठी कांदो बी बरो कापलो आनी दवरलो. टायगर न्हावपाक गेल्लो तो आयलो आनी ताटांत सुकें मटण आनी तांदळांच्यो भाकऱ्यो पळोवन सामको भुलुसलो. फाटले आठ दीस ताणें तोय आनी बटाटा फोडींचेर काडिल्ले. हरशीं तो म्हज्या म्हऱ्यांत जेवपाक

बसतालो. त्या दिसा भुलुसून सरळ मुंबयकारा म्हऱ्यांत पयल्या पानार वचून बसलो. ताटा भोंवतीं ताणें चित्रावळ बी काडली आनी मटणाच्यो नळयो चोखपाक लागलो. मुंबयकार सोमतो उठून उबो रावलो. पूण टायगराक खंय पडलां. ताणें, **when in Rome do as Roman's do,** अशें कितें तरी म्हणलें आनी हाडां फोडपाक लागलो (सावळो म्हणटा म्हाका टायगर उलयल्ल्याचो भास जाता)...

''तुमीं पानावरुन उठू नका तो आमच्या घरचाच. हरशीं ह्याच्या जवळ बसतो आज मटण बघून भुल्लुसला असेल. न्हय रे?'' आईन म्हणलें. निमणो प्रस्न तिणें अपुर्बायेन टायगराक विचारिल्लो.

वयर हांवें म्हणलां तशें दादले भुल्लुसतात त्या गजालींक बायलांनी भुल्लुसूंक जाय अशें ना. बायलो खरेदी करपाक वतात तेन्ना भुल्लुसतात. हाका आडवाद ना. आमीं एकदां नलूगेर व्हाया पुणे गेल्लीं. आतां व्हाया पुणे कित्याक? हो प्रस्न विचारुन तुमीं म्हाका गोंदळावन घालूं नाकात. गेलीं तीं गेलीं, जालीं ताका आता वर्सां. तर, आमीं खरेदी करपाक म्हूण लक्ष्मी रोडार गेलीं. साडयांचीं दुकानां पळोवंक नाका, हिच्या कानांत वारें गेलें. हाचे पयलीं हांवें आमच्या तामुच्या कानांत वारें गेल्लें तें पळेल्लें, तें हांवें तुमकां सांगलांच. तें मागीर आपली शेंपडी वयर करतालें. ही कांय वयर करी नासतनाच एका साडयांच्या दुकानांत घुसली...

''भाऊ आम्हाला तुम्ही पाहिलत का?''-ही सामकी भुल्लुसून गल्ल्यावेल्या भाऊक.

''या काकू बसा.'' - गल्ल्यावेलो भाऊ.

''आम्हीं नलुच्या लग्नाच्या वेळेला इकडेच, इथेच, दोनी बाजुचे कपडे काडले होते. आम्हीं लाल लाल पांय तुमच्या गादीला लावले होते म्हणून तुम्ही रागाने लाल लाल झाले होते. तेव्हा मी दांताना ब्रेसीस घातले नव्हते. आता तरी तुम्ही आम्हाला पाहिलत का?''

''काकू आमच्याकडे हजारो लोक येतात जातात. नाही आठवण राहत.''

''असं कसं? इथूनच, इकडेच तुम्हीं नलुच्या मांयचे पातळ दिले होते. आता माझे पांय बघा धवे फुल्ल आहे. ह्या थंडीत पांयाला कात्रे पण पडले नाही.''

''ठीक आहे ठीक आहे.'' अशें म्हणून जो भाऊ नाच्च जालो तो आमी 'लाजवंती'तल्यान भायर सरऽ सर दिसलो ना. हिणें मागीर सगळें लाजवंती आरतें परतें केलें. साडयांच्या ढिगांत हांव मागीर नाच्च जालों. शेवटाक हिणें शेवत्याक एक कापड, कोणूय अचानक भितर सरल्यार व्होंटींक घालपाक दोन खण, इतलेंच घेवन भायर सरली. लक्ष्मी रोडावयल्या सगळ्या रसवंती, फुलवंती, मेनका, सरीता दुकानांनी, ही, 'आम्हाला तुम्ही पाहिलत का?' म्हणून घुसूंक लागली. हें प्रकरण इतलें फामाद जालें की देड जाय म्हणसर सगळ्यांनी आपलीं शटरां ओडलीं. सगळींच बायलां अशीं खरेदेक वतात तेन्ना भुल्लुसतात काय? सावळ्याक विचारचें पडलें.

नलूच्या पयल्या बाळंटेराक आमी डिंकाचे लाडू घेवन मुंबय गेल्लीं. लाडवांक हांगां मुयो येतात म्हूण ही आमीं मुंबय विमानान या म्हणपाक लागली. हांवें म्हणलें बरें. हिची विमानांत वचपाची पयलीच खेप. विमानतळार आमची तपासणी बी जाली. बोर्डींगा वेळार हिणें पयल्या गेटींतल्यान, 'येयात,येयात, सुट्टलें सुट्टलें, विमानाक निसण लागली लागली...', अशी सगळ्या प्रवाश्यांक उद्देशून बॉब मारल्या पळे! मागीर हीच निशणी वयल्यान पयली भितर सरली. हांव भितर सरतकच हिणें म्हाका हवाई सुंदरे कुशीक रावन येवकार दिलो.. 'येयात येयात. हांवें लेंस उडोवन जनेला कडेन दोन जागे आडायल्यात'. हांवें अळणी तोंड करुन हवाई सुंदरेक पळेली...'जाता तशें, पयलेच खेपे दिसता, भुलुसल्या' तिणें म्हाका म्हणलें.(मागीर खबर काडटकच ती हवाई सुंदरी सदाशीव भरण्यालें स्वाती म्हूण कळ्ळें. आमचेंच, शांतादुर्गेचें). तें आशिल्लें म्हणून म्हजो प्रवास सुखकर जालो. नाजाल्यार हिचे फुडें माणसुकी नाशिल्ली. देवता आमचेर नदर दवरुन आसा हें खरें.

दादले भुल्लुसनात अशें हांव म्हणिना. देवाच्यो सुंदर कलाकृत्यो व्हडले संख्येन दिसल्यो जाल्यार नॉर्मल दादले भुल्लुसतलेच. हांव हळडीकुकमा कडेन वर्सांतल्यान एकदां भुल्लुसतां, ना कित्याक म्हणूं. एक वर्स हांव परत परत उपकार सुपारिचीं पाकिटां घेवन सालांत येता तें पळोवन...'कितें गो, अंदूं हळडी कुकूम तुगेलो काय भावोजीलो गो?' असो सवाल एके सुंदर कलाकृतीन, आंबाड्यांत गुलाब खोयत आमचे सौभाग्यवतीक केलो. मागीर हांव जो भितर वचून पडलों तो परत भायर आयलोंच ना.

परिक्षे कडेन पेपरांत हांव शिकलां तें आयलें जाल्यार हांव सामको भुल्लुसतालों. कितें बरोंव कितें नाका अशें म्हाका जातालें. एकदां पाटील गुरुजीन भाषा विशयांत 'रामाच्या वनवासाचे तुमच्या शब्दात वर्णन करा' असो प्रस्न घाल्लो. ताका धा गूण आशिल्ले. हांव भुल्लुसलों कारण हो प्रस्न सोडयल्यार हांव पास जातालों. हांवें भुल्लुसून, 'सीता माईचे कुळारचे नांव जानकी बांदोडकर होते' अशें बरयलें, कित्याक खबर ना. पाटील गुरुजी हाडाचो शिक्षक आशिल्ल्यान ताणें वाल्मीकी रामायण खंयच्यान तरी फैदासून हाडलें आनी वाचून काडलें. तातूंत खंयच बांदोडकर घराण्याचो उल्लेख ना हाची खात्री जातकच म्हज्या पेपरार तांबडी लायन मारली, आसूं.

आतां म्हाका प्रस्न पडटा भुरगे जल्माक येतकच चौर्‍यांयशी लक्ष्य योनी उप्रांत आपल्याक मनुश्य कुळांत जल्म मेळ्ळा हें पळोवन भुल्लुसचें सोडून कपलाक आटयो घालून, जीब सामकी ताळ्याक लावन रडटात कित्याक? सावळ्याक विचारचें पडलें.



# म्हाका तें कित्याक जमना?

**म्हाका** तें कित्याक जमना? ह्या प्रस्नान म्हाका समजूंक लागिल्ल्याक वतां थंय सतायला. शाळेंत, कॉलेजींत, बाजारांत, बशींत, लग्नाक सव्यार वता थंय, खंय म्हूण विचारूं नाकात. म्हाका तें कित्याक जमना? 'तें' म्हणल्यार तुमी नॉर्मल लोक सहज करतात तें. म्हाका तें कश्ट घेतल्यार लेगीत कित्याक जमना हो गहन प्रस्न. ल्हानपणांत व्हड मनशाच्या नांवां सामकार अशें बरोवपाचें आसता अशें आमकां पाटील गुरुजीन सांगिल्लें. ल्हानपणांत म्हज्या बापायन (१९११-१९८१) म्हाका सांगचें...

"आरे कोणूय आयल्यार हांव घरांत ना म्हणून सांग आं!"

कितली सादी गजाल! तुमकां ती सहज जमत. म्हाका जमली ना.

"येयात, बसात न्ही. बाबा देवाकुडींत बसला आसतलो, हांव भायर आफयतां आं." हांवें पावण्याक येवकार दिवचो.

"सत्यवादी, सादी फट मारपाक जमना, फुडें कितें जातलें हाचें देव जाणां. तो सत्यवादी थंय वालो न्हेसून महात्मा जालो. हो कल्सांव घालून कोण जातलो तो पळोवया!" पावणो वतकच बापायन म्हजो आनी बरोबर गांधीजीचो उद्धार करचो. फुडें व्हड जातकच हांव म्हज्या फ्रॅण्डांगेर (स्त्रीलिंगी) गेल्ले कडेन तांच्या आवयांनी...

"तें न्ही, आत्तां भायर सरलां. व्हड धेपां घालीत जाल्यार वॉल्तार मेळटलें." अशें म्हाका सांगलां तें हांवें ह्या कानांनी आयकलां. जाका हांव

मेळपाक गेल्लों तें घरातूंच आशिल्ल्यान हांवें व्हड धेपां घालीं ना इतलेंच. ह्यो आवयो फुडें पांच वारी न्हेसून कोण जाल्यो खबर ना.

आमची आई मे म्हयन्यांत खोबरें फोडटाली आनी मागीर खोबरेल काडटाली. खोबरें फोडलें म्हणटकच तें राखपाचें ऑब्र म्हजेर येतालें. बाकिच्याय घरांनी हेंच घडटालें. संध्या (बरडालें) हातांत 'मायानगरी' घेवन खोबरें राखतालें. म्हज्या हातांत कांयच नासतालें तरी आसतना कावळे, खोबरें म्हज्या दोळ्यां सामकारच्यान घेवन वताले. म्हाका पळेल्या बरोबर पयलीं कांव कांव करुन बाकिचे कावळ्यांक आफयताले. हाचो अर्थ 'आमचें गिरायक खोबरें राखपाक आयलें रेय' असो खंय. हें म्हाका सावळ्यान मागीर सांगलें. हें अशें कित्याक जांवचें? म्हाका बाकिच्यां सारकें खोबरें राखपाक कित्याक जमचें न्हय? हाचें म्हाका भयंकर दुख्ख जातालें, ना न्हय. मागीर आई टायगराक आफयताली. टायगर (१९७१-१९९३) आमचो सुणो. तो मागीर मागिलदारच्यान फुडल्या दारा म्हाका पळेत छाती फुडें काडून एण्ट्री घेतालो.

'आरे हाच्यान जमना. अर्दें खोबरें कावळ्यांनी व्हेलें. उरलां तें तूं राख सायबा.' आई टायगराक उद्धेशून म्हणटाली. टायगर सदचेवरी म्हाका कुच्छित्री हांसतालो आनी चारुय पांय वयर करुन वत घेत आंगणांत न्हिदतालो. मजा म्हणजे एक्कूय कावळो मागीर वखदाक पसून दिसऽ नाशिल्लो. तेल काडटकच मागीर आई टायगराची व्हडवीक आयिल्ल्या गेल्ल्याक सांगताली...

''आमचो टायगर म्हणून तेल मेळ्ळें गो बाये. हे त्या संवगान अर्दें खोबरें कावळ्यांक खावयलें. खोबरें राखपाक जमना, फाल्यां बायलेक कसो पळेतलो देव जाणा!''

खोबऱ्याक पळोवप आनी बायलेक पळोवप एकूच काय? हो प्रस्न म्हाका तेन्नाय पडिल्लो. पूण आपलो वेळ फाल्स म्हणून ओगी रावलों. मागीर आपली तोखणाय चल्ल्या ती आयकून टायगर सालांत परत एण्ट्री घेतालो आनी आपणें व्हड लडाय जिकिल्लेवरी हड्डे फुडें काडून म्हज्या आंगांवयल्यान

वतालो. वतना बेठो म्हजेर एक पांय वयर करतालो. मागीर हांव 'टायगर!!' अशीं भिवन किळांच मारतकच सगळीं जाणां हांसतालीं, धरुन टायगर. एकदां ताणें म्हाका 'तुजे परस लायटीचो खांबो परवडलो.' अशें म्हणलें. सावळो म्हणटा तसो म्हाका भास जालो, हांवेंय टायगराक विचारलें ना. सोड.

सगळ्या चल्यांक चलयांचेर शो मारन दिसता. हांवूय चलो. म्हाकाय मारीन दिसतालो. चलयांक इम्प्रेस करपाचे खूब मार्ग आसतात. दत्ता बी झाडार चडून आंबल्यो, चिचेंचीं बोटां बी काडून तांकां दितालो.

'दत्ता तानाजी मालूसरे सारखा गडावर चडल्यागत झाडावर चडतो.' अशें रेखा हुबळीकरान म्हणटकच म्हज्या आंगार कांटो फुलतालो. पूण करतलो कितें? म्हाका पोरसांतले बिमलेर चडत जाल्यार घुंवळ येताली. बापायचीय तीच स्थिती म्हणटकच हें काम आई करताली. आसूं. एकदां शाळेंतल्यान संध्या आनी हांव घरा येतना देवळा कडेन पावतकच म्हाका कितें जालें म्हूण खबर ना...

''म्हाका झाडार चडपाक येना अशें तूं समजू नाका आं! हांव हे त्या पिंपळार चडपाक शकतां.''

''दाखय पळोवया.'' ताणें आपल्यो विणयो हालयत म्हणलें (आतां ताणें आपले कें‌स स्ट्रेट केल्यात.)

हांव म्हज्या हाता-पांयांच्यो, पोटाच्यो साली काडीत पिंपळार चडलों.

''पळेलें मगो?'' हांवें पिंपळावयल्यान ताका म्हणलें.

''आतां वयर गेला तसो सकयल यो जाल्यारुच तूं खरो.'' ताणें म्हाका म्हणलें.

देंवपाक मान सकयल केली तशें तें अंतर म्हाका पृथ्वी आनी चंद्रा इतलें दिसलें.

''आई गेऽऽ हें कितें??'' हांवें म्हणलें.

''हांव तुजी आई न्हय. तरी तुजें हें दप्तर घरा पावयतां.'' अशें म्हणून संध्या वाटेक लागलें.

देवळा कडेन आरती नंतर महाप्रसाद नासल्यान थंय जितो मूस नाशिल्लो. काळोख पडपाक लागलो तसो म्हज्या पोटांत पांच पांच जालें. कितें केलें आनी कितें घडलें अशें दिसपाक लागलें. हाचे फुडें चलयांचे आनी पिंपळाचे वाटेक केन्नाच वच्चोना अशें सांगून घेतलें. इतल्यांत सकयल्यान जाण्टेलो सावंत वता तो दिसलो. हांवें 'भाऊ रेऽऽऽ' उलो मारलो आनी जाण्टेल्यान वयर पळेलें. म्हाका पळोवन 'मुंजोऽऽ मुंजोऽ' म्हणून ताणें धांव मारली. फुडें ताणें इतलो धसको घेतलो की 'पिंपळा पेडार' हें सदर येता म्हणून ताणें राष्ट्रमत लेगीत वाचपाचो बंद केलो. शेवटाक म्हाका लायनमॅनानी निसण लावन सकयल देंवयलो, सोड.

म्हाकां इंग्लीश उलोवपाची खूब उमेद. म्हाकां, हांव स्त्रीवर्गा कडेन इंग्लीश उलयतां अशीं सपनां पडटात आनी रोमांचीत जावन हांव जागो जाता. फाटीं एकदां मडगांवसून येतना म्हजे म्हऱ्यांत साल्सेत तालुक्यांतलो एक स्लीवलेस बशिल्लो. त्या दिसा म्हजे हातांत जय संतोशी मातेच्या स्तोत्राची पटी आशिल्ली (हिणें शुक्रारा वाचपाक सांगल्या).

"Where did you get this?" ताणें लाली लायिल्ल्या वोंठांचो चंबू करीत विचारलें.

"Wait, I will remember and tell you." अशें हांवें तिका सांगून 'हिचे नेतुर्ले दिल्ले मावस भयणीन हिका हळदीकुकमाच्या वायणां बरोबर ही पटी दिल्ली' ह्या वाक्याचें मनांत भाशांतर करी सर स्लीवलेस नुव्यां देंवलो. अशेंच एकदां फोंडेच्यान आगापूर वतालों. स्टॅण्डाक बस जशी लागली तशे पॅसेंजर मुयो कशे भितर घुसले. हांवूय घुसलों. सिटार घालून घेता थंय आसां म्हाका कोणें तरी.."I have kept my bag there can't you see?" अशें म्हणून फाटीं ओडलो. 'तुज्या आवयचो घोव' ह्या शब्दांचें म्हज्या मनांत भाशांतर जावन भायर सरचे पयलीं ताणें आसन ग्रहण केलें. म्हज्या मनांत जावपी भाशांतराक लागून म्हजें खूब लुकसाण जालां अशें म्हाका दिसता.

तुमकां इंग्लीश डायरेक्ट उलोवपाक जमता तशें म्हाका जमना. आसूं.

इंग्लीश सोडा, भारतीय भासो तरी म्हाका उलोवपाक सोड, उच्चारपाक तरी येतात? थंयूय ना ना कार! हाका लागून म्हजी मूज कॅन्सल जावपाची. म्हजी मूज आठ वर्सांचेर जाली. गुरुबळ काय कितें तरी नाशिल्लें म्हणून उसरां जाली. आतां सुद्धां म्हाका कसलेंच बळ ना तें सोड. हिणें तर माप लंवडून भितर सरतकच जें म्हाका कसलेंच बळ ना म्हणपाचें सुरु केल्लें तें हांव तीन भुरग्यांचो बापूय जालो तरी इरयत आसा. सोड That is a different story! तर, सगळें जालें, म्हाका भंवरो दवरलो आनी बापूय कानांत मंत्र सांगता तो प्रवेश आयलो. बापायन आमच्या दोगांयवयल्यान वालो बी बरो घेतलो आनी गायत्री मंत्र सांगपाक सुरवात केली. म्हजी गाडी भूः फुडें वचना जाली. तोंडांतल्यान फकत वारो वचपाक लागलो. बाबुली भट लेगीत बेजार जालो. मामा चली दिना म्हणून हांव रागान वचपाचों तो मामाच म्हाका वाजेवन उठून गेलो. शेवटाक गायत्री मंत्र बायपास करुन म्हजी मूज जाली. अजुनूय हांव पुजा करतना (आमगेर शाळीग्राम आसात.) धा फावटीं भू भू करतां आनी पुजा फुडें व्हरतां. देवतेन आमकां प्रसादाचेर 'म्हजो प्रॉब्लेम तिका खबर आसा' अशें सांगिल्ल्यान भंय ना.

आतां नुस्तें घेवपा सारकी सादी गजाल, ती म्हजे कडेन जाता? ना, थंयूय हांव शेण खातां. एकदां बाजारांतल्यान हांव बांगडे समजून नेटान हाडे घेवन घरा आयलों आनी पिशवी रांदचेकुडींत अश्शी उडोवन आईक उड्डमेथी करपाक ऑर्द सोडली. आईन केन्ना न्ही ती कवतुकान पोती उगडली आनी मागीर घेऽ... 'तुका आनी त्या हाडल्या त्या हाड्यांक सान्याक मारतां' अशें म्हणून पोती (कापडाची) म्हजेर शेवटिली. टायगर कितें जालां काय म्हणून पळोवाक धांवत भितर आयलो. ताका तो प्रकार आईन सांगतकच तो पळे हांसला! शेवटीं पोटाक हात धरुन रांदचेकुडींत वाना कडेन गडाबडा लोळपाक लागलो. आसूं.

'काही करु पहातो रुजतो अनर्थ तेथे' अशें शांता शेळकेन बरोवन दवरलां. म्हाका तें पट्टा. हांवें तें अणभवलां. आमचे शाळेंत तेन्ना शाळा तपासपाक इन्स्पेक्टर म्हणून येताले. ते येतकच भुरग्यांची प्रगती पळोवपाक प्रस्न बी विचारी. खरें म्हणजे मास्तराची ती परिक्षा आसताली. एकदां फोंडेंच्यान असोच इन्स्पेक्टर आमचे शाळेंत आयलो आनी ताणें आमकां प्रस्न विचारलो 'गोव्याचे पहिले मुख्यमंत्री कोण?' ह्या प्रस्नाची जाप दिवन पाटील गुरुजीचेर उपकार करचे म्हणून हांवें हात वयर केलो. दत्तान म्हाका, 'नाका रे सायबा, आमकां न्ही तें, हात सकयल काड..' कितलोऽ विनयलो. हांवें आयकलें ना, हांव सामकों पेटिल्लों. म्हजी विनाशकाली विपरीत बुद्दी समजूं येता. इन्सपेक्टराचेय ग्रह फिरिल्ले. ताणें म्हाकांच निवडलो. 'गोव्याचे पहिले मुख्यमंत्री जॅक सिकेर होते. माहित आहे ना तुम्हाला? लांब दाडी ठेवतात ते' अशी जाप दिवन, लांब स्वास घेत हांव सकयल बसलों. 'माहित आहे, माहित आहे' म्हणत इन्सपेक्टरान आपले नाशिल्ले दाडयेचेर हात फिरयलो. ' मोठ्या माणसांचे पुतळे नसले की ते लगेच काळाच्या पडद्या आड जातात' पाटील गुरुजीन ताका समजायलो (तेन्ना भाऊसाहेबाचो पुतळो जांव नाशिल्लो) आसूं.

असो हांव. तुमी करतात तें म्हाका ह्या जल्मांत तरी जमपाचें ना अशें आतां म्हाका दिसपाक लागलां आनी जें हांव कश्टान करतां ताका वालोर नासता. पयर हांव रेशनाची (तांदळाची) धा किल पिशवी एकटों उखलून घेवन आयलों.

''आगे, हांवें धा किल एकट्यान उखलून हाडले.'' हांवें आईक धांपेत म्हणलें.

''तातूंत कितें जालें? मूंय आपल्या परस शंबर पटीन चड वजन उखलता तुका जमत?''

खरें तिचें. मुयेक जमता तें परसून म्हाका जमना.



# यादी

**आमी** एकवेळ रोटी, कपडा, मकाना बगर दीस काडीत पूण न्हय यादीं शिवाय. म्हजे सारके तर यादींचेरुच जगतात. कोंकणींत याद हें उतर आमी होलसेल वापरतात. देखीक, 'म्हाकां याद उरना', 'म्हाकां याद कर', 'पळे आं याद धर' आदी. बाकिच्या भासांनी अशें जायना. इंग्लिशींत मेमरी हें उतर अशें वापरुंक मेळना. वापरत जाल्यार घात जातलो. आमचीं कांय सोयरीं भायर आसतात. ताका लागून तांकां हांगां येतकच इंग्लीश उलोवचें पडटा. असोच एक आमचो सोयरो भायल्यान हांगां आयिल्ले कडेन आमी तांकां मेळपाक गेलीं. मागीर घेऽ गजाली. हिगेल्यो आनी भाभीच्यो (हांव सोयऱ्यांले बायलेक भाभी म्हणटां.)

"while cooking no I lose memory several times to put salt and dish becomes whatever it is"- हिणें म्हणलें तशीं फुडें दोन मिण्टां आमचे भाभीक उतरां फुटलीं नात. तिची मेमरी lose जाली काय खबर ना. घरा येतकच हिका कोंकणींत कितें म्हणपाचें आशिल्लें तें हांवें फॅना सकयल बसून उदकाचो पेलो हातांत घेवन विचारलें.

''म्हाका म्हणपाचें आशिल्लें खूब फावटीं जेवणान मीठ घालपाक हांव विसरतां आनी जेवण मागीर कायचे काय जाता.''

''अशें?'' हांवें उदकाचो पेलो पिवन खालीं केलो आनी फॅनाखाला

आड पडलों. आसूं.

आमचे जिणेंत कांय सिनेमांतलीं पदां, भाव गीतां आमचे यादीं कडेन जुळिल्लीं आसतात. देखीक, 'याद ना आये बिते दिनो की' (दिल एक मंदिर), 'अशी पाखरे येती आणि स्मृती ठेवुनी जाती'. हीं पदां रेडव्यार तिनसांजचींच कित्याक लागतात तीं खबर ना. मागीर म्हज्यो यादी चाळवतात आनी म्हाका डिप्रेशन आयिल्लेवरी जाता. हाचो अर्थ हीं पदां सकाळीं लागल्यार म्हाका डिप्रेशन येवचें ना अशें न्हय. एकदां सकाळीं, हिणें रातच्या उजरायल्ल्या नुस्त्याच्यो बोडक्यो, हांव, बिमली पोंदा पुरतना 'मलमली तारुण्य माझे तू पहाटे पांघरावे' पद लागलें आनी म्हाका डिप्रेशन आयलें. आसूं, सोड.

आमकां नाका आशिल्ल्यो गजाली याद उरतात आनी जाय आशिल्ल्यो गजाली आमीं ज्यूस्त विसरतात. कांय वर्सां पयलीं सरकारान आमकां आधार करपा खातीर आधार कार्ड काडिल्लें. तें करपा खातीर आमचें कुटूंब रांकेंत राविल्लें (म्हजें कार्ड अजुनूय येंवना). म्हाका नाबी वयले चलयेन फॉर्म दिलो (पोर नाका दोळ्यान बरेंऽ आशिल्लें अजुनूय याद आसा.) हांवें म्हजें नाव, गांव सगळें बरयलें आनी मेरिटल स्टेटस ह्या कॉलमा खाला अनमॅरीड टीक केलें तेंय बी ही म्हजे फाटल्यान उबी आसतना. कशी याद उरली ना कांयच खबर ना (we are happily married for last 21 years).

''तुमीं अजून लग्न जावंना?'' ती चली किणकिणली तशें प्रेशराच्यो गुळयो घेतल्या आसून लेगीत म्हजें काळीज धडधडलें.

''हय व्हो तें कितें विचारता तें पळेया. अनमॅरीड बरयलां काय कितें?'' हिणें म्हाका फाटल्यांतल्यान धोंगशीलो तेन्ना हिका ओगीच हाडली शी दिसली.

''तुमी तीन भुरग्यांचीं नांवां बरयल्यां आनी अनमॅरीड कशे जांवयेत? आधार चुकतलें न्ही?''- परत किणकीण.

''हय मगो! हांव कसो विसरलों?'' हांवें अळणी तोंड करुन विचारलें आनी मॅरीड टीक केलें. तें करतना हात जड सो जालो. कित्याक खबर ना. मजा म्हणजे रांकेंत उबे आशिल्ल्या सगळ्या दादल्यांनी म्हजे कडल्यान पेन

घेवन मॅरीड म्हूण मागीर टीक केलें. सगळ्या दादल्यांचे यादीक कितें जाता काय?

बाजारांत वतां तेन्ना हांव शंकर छाप हिंग आनी करबिलाचो पालो हाडपाक सदांच विसरतां. ताका लागून आमच्या जेवणाचे रुचींत फरक पडटा अशें न्हय पूण हांव विसरतां हें खरें. हाका शंबर टक्के म्हजी स्मरण शक्ती कारणीभूत अशें न्ही. बाजारांत वतकच इजाबेल मेळटा. (नुस्तेकान्न. नुस्त्या बाजारांत भितर सरतना चवथें. ताच्या हातार खुरीस गोंदयला.) आनी भाज्जे बाजारांत सुमन मेळटा (भितर सरतना तिसरें. हातार कांय गोंदोवना. पूण गालार उजवे वटेन तीळ आसा). हांचे कडेन सुखऽ दुख्खाच्यो गजाली जातात आनी ह्यो साद्यो गजाली याद उरऽना. सोड. हिका जाय त्या गजालींची याद उरऽना. जेवणाक मीठ घालपाची याद उरऽना, खतखत्याक मुंडल्यो घालपाक ज्यूस्त विसरता, घराची चावी दाव्या हातान खंय तरी दवरता, ती याद उरऽना. पूण घोवान म्हणजे हांवें लग्ना कडेन सव्यार एकवीस वर्सां फाटीं कितें म्हणिल्लें तें हो वेळ मेरेन याद उरता. हांव तें सव्यावेल्यान सकयल देंवतकचूच विसरिल्लों. सव्यार हात दिवंक आयिल्ले कडेन संध्याक (बरडालें) हांवें खंय म्हणलें, 'पळेलें मगो ब्रह्मदेवान मारुन मारुन गांठ खंय मारली ती?' आतां ही गजाल एकवीस वर्सां याद दवरपा सारकी अशें म्हाका तरी दिसना. आनी हिका ही याद नाका तेन्ना जाता हें म्हत्वाचें. पयलीच रात म्हणटकच हांव रोमेण्टीक जाल्लों आनी सुहाग रात है.. हें पद म्हणपाक तान मारता थंय आसा.. जालें हिचें सुरु (तकलेवयल्यान घुंघट घेतिल्लो)...

"म्हाका म्हणपाचें गरज ना!"

"आगो, तुका म्हणचोना जाल्यार कोणाक म्हणटलो?" म्हजी तान थंयच शिरकली.

"ब्रह्मदेवाक विचारा!"

"आगो...."

"ब्रह्मदेवाक विचारा."

ही जुगलबंदी सकाळ मेरेन चल्ली. मागीर हांव दूद (वयर साय आयिलें) पिवन न्हिदलों. हिणें कितें केलें खबर ना. सकाळीं उठ जाल्यार ही पोळे काडटाली.

म्हाकां जाय त्यो गजाली त्या वेळार याद जायनात. मागीर हांव म्हजे तकलेचे केंस हुमटीतां. तरी याद जायना. अशें करुन म्हाका उजवे बाजून टक्कल पडपाक लागलां. तुमी बारीक पळेल्यार तुमच्या लक्षांत येतलें. हो अणभव म्हाका खूब फावटी परिक्षे कडेन येतालो.

भाऊसाहेब आपल्यावर मायेने हात फिरवत. (वाघ, सिंह,मांजर, कुत्रा.)

आतां भाऊसाहेबाचें पांयजेल आमच्या सालांत आसून लेगीत पांयजेलांत भाऊसाहेब कोणाचेर हात फिरयत बसला ती याद जाय नाशिल्ली. बशींत, लेडीज सीटार बशिल्ल्या स्लीवलेसाक खंय पळेलां तें याद जायना. मागीर तकलेचो याद करुन भुसो जाता. रायबंदरा देंवपाचो तो पणजे देंवतां. स्लीवलेसा फाटल्यान बाजारांत वतां तरी याद जायना. मागीर बाजारांत गेलांच म्हणटकच कोथमिरे पालो घेवन घरा येतां. मागीर हिची तापोवणी..

''हय व्हो फ्रिजांत इतलो कोथमिरे पालो पडला. हो आनी कित्याक हाडला, भाजी करपाक?''

''घाल गो किंद्याकूय चडसो घाल.'' अशें म्हणून सालांत आड पडून स्लीवलेसाक खंय पळेलां तें चिततां.

परिक्षेक याद उरना म्हूण कॉपी व्हरपाक लागलों. पूण ती खंय लिपयल्या तीच याद उरना जाली. बी. कॉमाक निमणे परिक्षेक (हांव बी.कॉम. पास जालां मुंबय युनिवर्सिटी, तुमचे म्हायती खातीर) Industrialisation in India ह्या विशयाचेर शॉर्ट नोट आयिल्लो. ताची कॉपी व्हेल्ली ती सापडना जाली. बुटांत घाल्या काय बॉल्सांत दवरल्या याद जायना जाली. हांव उळउळटां तें पळोवन सुपरवायजर आयलो..,

"What's wrong with you?'

"Sir, I had brought small slip on this short note.

I cannot find it sir. It is question of twenty marks."

मागीर दोगूय जाण मेळून सोदपाक लागले, शेवट मेरेन मेळ्ळी ना. वीस मार्क गेले. आमकां चुरचुरे (म्हाका आनी सुपरवायजराक). मागीर आईक मडवळा कडेन कपडे दितना Industrialisation मेळ्ळें.

म्हाका नाटकांत काम करपाची खूब उमेद. जात्रेक बी हांवें नाटकांनी खूब काम केलां. हौशी नाट्यभुमी वयल्यान वेवसायीक नाट्य भुमीचेर पदार्पण करपाची खूब उमेद आशिल्ली. पूण म्हजे यादीक लागून तो आत्मविश्वास ना जालो. 'स्वयंवर झाले सीतेचे' (सामाजीक नाटक) ह्या नाटकांत क्लायमॅक्सा वेळार म्हजे यादीक धाड मारली. नटी (मंदाकिनी सावंत, वयल्या वाड्यावयलें) नटाक (म्हाका) वेंग मारता असो तो प्रसंग. मंदाकिनीन भुमिकेंत शिरून म्हाका बरीऽ वेंग मारली. ताणें 'बोला ना गडे' म्हणलें आनी हांव ब्लॅन्क जालों. हांव, 'काय बोलायचं मला गडे? काय बोलायचं गडे मला?' अशें करत रावलों. हांव मंदाकिनीचे वेंगेंत आशिल्ल्यान वाड्यावयल्या लोकांचो गैरसमज जालो. तांकां दिसलें हांव सूख घेतां. म्हाका कितें जाल्लें तें हांव जाणां. शेवटाक हांवें 'माझं डोकं जड झालं, असूदे नंतर केव्हा तरी बोलुया गडे' अशें म्हणून नटयेक पांयां पडलों. तिणें presence of mind दाखोवन 'असं का गडे? मग आत मध्ये जाऊन बोलुया गडे' अशें म्हणून म्हाका भितर व्हेलो.

म्हाका यादी उरऽना तें खबर आसून पसून, हिची, सगळ्यो यादी हांवें दवरच्यो ही अपेक्षा. व्हडल्या वेळार म्हाका तितलो अणभव नासलो. पयलेच खेपे बापूय जातालों. म्हाका हिणें मध्यानेर दोनांक उठयलो.

"हय व्हो उठा."

"पोटांत जावपाक लागलें गो? येन्ना पसुनूच?"

"त्याच खातीर उठयल्या तुमकां. म्हाका कितल्यावो म्हयनो चलता?"

"आगो, तें म्हाका कशें कळटलें?"

"तुमकां ना जाल्यार कोणाक खबर आसतलें?"

"हय गो. पूण म्हाका दोनांक उठयत जाल्यार एकदम कशें लक्षांत

येतलें?''

''तुमकां तोंडार आसपाक जाय तें!''

''फाल्यां सांगल्यार जायना?''

''म्हाका आत्तां जाय!!''

व्हडल्या वेळार ही मात्शी अग्रेसीव जाल्ली. मागीर घेऽ सगळ्यो लायटी पेटयल्यो. डायऱ्यो सोदल्यो, कॅलॅण्डरां पळेलीं, रसेदां पळेलीं. खंयच उल्लेख ना. शेवटाक म्हज्या मटक्याचे पटयेचेर इन्फॉर्मेसांव सापडलें 'तीन म्हयन्यावर धोणकीचे इनेसांव मारणे'.

''आगो तिसरो म्हयनो गोऽ, सांपडलो.''

म्हाका व्हडल्याचो जल्म जातकच जितली खोस जालिना तितली तेन्ना जाली.

म्हजी याद कितें ती म्हज्या बापायक खबर आशिल्ली. ताची याद आकांताची. ताच्या श्राध्दाक दोन दीस आसा म्हणल्यार तो म्हज्या सपनांत येता आनी श्रद्धांजलीची जायरात पेपरांत घालपाक म्हाका याद करता. मागीर हांव पेपरांत जायरात दितां 'तुमी गेल्यास आज xxx वर्षे पूर्ण होत आहेत...'. मागीर दुसरे दिसा परत बापूय सपनांत येवन देव बरें करूं म्हणटा. आमची आई इतली जाण्टी म्हणल्यार तिका फाटल्यो, फुडल्यो सगळ्यो यादी आसात. गेल्या वर्सा चवथ केन्ना आयिल्ली, संकश्टी केन्ना, गिराण केन्ना, मनमोहन सिंग निमणो केन्ना उलयल्लो, तें सुद्धां तिका याद उरता. म्हाका हांव आत्तां कितें उलयल्लों तें याद उरना. दत्ताक खंय ताणें कोणा कडल्यान पयशे घेतल्यात तें याद उरना. तोय म्हज्याच वयाचो.

हालीं हालीं सकाळीं उठकच हांव कोण (कोऽहम) असो प्रस्न म्हाका पडटा. आतां म्हजी याद सामकी रसातळाक गेल्या काय हांव संत पदाक पावलां हो प्रस्न म्हाका पडला.



# ये जो मोहब्बत है

**आमच्यांनी** (हांगां आमच्यांनी म्हणजे दादल्यांनी) दोन तरेन लग्न जावं येता. प्रेम करुन वा सोयरीक करुन. कशेंय लग्न जालें म्हूण लग्नां उप्रांतचे आमचे भोग कमी जायनांत, ती वेगळी गजाल. मोग करुन लग्न जावपांत जें थ्रिल आसा तें सोयरीक करुन लग्न जावपांत ना आनी सोयरीक करुन लग्न जाले उप्रांत जी उमळशीक आसता ती मोग करुन लग्न जावपांत ना. कारण मोग करुन जेन्ना तूं लग्न जाता तेन्ना आपले सामकार कितें ताट वाडून दवरलां तें पयलींच खबर आसता. सोड, प्रत्येक गजालींत फायदे तोटे हे आसताच.

म्हाका मोग करुन लग्न जावपाची खूब उमेद आशिल्ली. हांव मूळचोच उमेदी प्राणी. म्हज्या चेऱ्या वयल्यान तें कळना. परिस्थितीन चेरो असो जाला. आसूं त्यो खबरी. तर, म्हाका मोग करुन लग्न जावंचें आशिल्लें. आमच्या कुटुंबाच्या इतिहासांत कोणेंच तशें करुना. म्हजो पणजो टेम्परारी मोगान पडिल्लो अशी मात नोंद मेळटा. ताचें कितें जालें, पणजो गेल्लो कवळ्यां जात्रेक. थंय तिर्थ घेतना खंय ताका दुभाष्याली धूव सामकी गोरी पिट्टऽ, पांचवेंच कापड न्हेशिल्ली ताचे नदरेंत भरली. ताका सामको घाम फुटलो. तो थंयचे गर्देक लागून काय दुभाषीणीक लागून तें बाबड्याक कळ्ळें ना. कारण तेन्ना love at first sight प्रकार प्रचिलीत जावंक ना. मागीर पालखी भायर काडपाचो

वेळ आयलो तेन्ना खंय म्हज्या पणज्याक पेट्रोमॅक्साच्या उजवाडांत द्धुभाष्याच्या कन्येच्या भांगांत दोन तट्टटीत लिको दिसल्यो आनी म्हज्या पणज्याचो प्रेमऽभंगऽ म्हणल्यार जाता तो कवळ्यां चौकार जालो. म्हजो पणजो हे बाबतींत सामको कडक आसलो. तो सगळ्या कामेऱ्यांक शुक्रारा खंय ऑफ दितालो. बाणस्तारी बाजारांत वचपाक आनी माथ्यांत पळोवपाक. जांच्या माथ्यांत लिको, उवो आसताल्यो तांकां स्वताच्या हातांनी कोडू लिंबाचो पालो वांटून दितालो. हाका लागून आमच्या घरांत दुभाष्याली धूव आयली ना. आतां वण्टीर शिरवयकाल्लीलें आडवो कुकूम लावन पांयजेल आसा.

आमच्या घराण्याचो हो इतिहास कळटकच जेन्ना हांवें मोग करुन लग्न करपाचें थारायलें तेन्ना हांव साद्रूर जालों. मोगाचें मूळ साधारण धरता अशें दिसल्या बरोबर हांवें दर अस्तुरेक 'केंसांत लिको बी ना मुगो?' अशें विचारपाक सुरवात केली. मोग काय जालो ना पूण म्हाका पळयल्या बरोबर समेस्त स्त्री वर्ग 'आयलो गो मिस्टर लायसिल' अशें म्हणपाक लागलीं. म्हणू बाबडीं! म्हाका दत्तान सांगिल्लें, प्यार में बडे बडे इम्तिहान दिए जाते हैं. म्हाका हें लायसिल प्रकरण म्हणजे म्हजी कोण तरी इम्तिहान घेता अशें दिसलें.

म्हाका, मोग करुन लग्न जावचें, अशें ल्हानपणांतूंच पिरायेच्या सात आठ वर्सांचेर कित्याक दिसतालें, हें आज हांव जेन्ना मानसशास्त्राच्या दृश्टीकोणांतल्यान पळेतां तेन्ना म्हाका कांय कारणां सापडटात. देखीक, म्हाका मोव शीत खूब आवडटा. आईचें शीत फटफटीत जातालें. पानार बसतकच हांव सदांच फटफटीत शीत जेवपाक पिरंगतालों. तेन्ना आईन म्हणचें, 'मोव शीत जाय मरे? शिरवयकारांली चली घेवन यो.' मागीर हांव भुलुस्तालों, मुर्गुट्टालों आनी फाटलें फुडलें फटफटीत शीत घेवन जेवतालों.

फुडें जेन्ना हांव शाळेक वचपाक लागलों तेन्ना म्हजेर चंद्रकांत काकोडकाराचो बरोच प्रभाव पडलो. वाळटी जश्यो पुस्तकां खातात तश्यो हांव चंद्रकांत काकोडकाराच्यो कांदबऱ्यो खातालों म्हळ्यार वाचतालों. प्रत्येक कादंबरींत प्रभाकररावाची वा विनायकरावाची एक प्रेयसी आसताली. ते चिरुट

ओडटाले आनी नगरपालीकेच्या उद्यानांत प्रेयसीक मेळपाक वताले. फावता तेन्ना प्रेयसीक अत्तर लायिल्ल्या कागदार चीट बरयताले आनी ती चीट एका पुस्तकांत घालून तें पुस्तक तिका दिताले. ती चीट वाचतकच प्रेयसी सामकी तांबडी जाताली. ते चिटयेंत तीं सामकीं तांबडीं जाय सारको असो कसलो मजकूर आसतालो तो म्हाका आयज तीन भुरगीं जालीं तरी कळूंक ना.

तर, म्हाका सदांच दिसऽ की काकोडकाराले प्रेयसीन इतिहासीक नाटकांत जसो खलितो वाचतात तशी चीट वाचची. एक दीस वाचन मंदिरांतल्यान हांवें एक पुस्तक हाडलें आनी एक ल्हानशी चीट बरयली...

माझी प्रेयसी रेखा भुजंगराव हुबळीकर हीस,

तू माझी व्हाव्ही असे तुला वाटते तर रवळनाथाच्या देवळांत तीन वाजता ये. तेव्हा भगत घरी गेलेला असतो. तू मला खूब आवडते ग. कुणास सांगू नको.

कळवावे, लोभ असावा

तुझा प्रियकर

चिटयेक हांवें म्हजे कडेन आशिल्लो तो थोडोसो चेर लायलो आनी ती चीट ना. गोपाळकृष्ण गोखले, लेखक साने गुरुजी ह्या पुस्तकांत घालून रेखा हुबळीकराच्या हातांत दिली. चंद्रकांत काकोडकाराल्या कादंबरींतल्यो प्रेयसी, 'ईश्श्यऽ हे काय आज नवीन?' अशें म्हणून प्रियकराल्या हातांतलें पुस्तक रोखडेंच घेतालीं. हांगां काय तशें घडलें ना.

''मी नाही वाचत असली पुस्तकऽ'' - रेखा भुजंगराव हुबळीकर.

''अगं थोरांची पुस्तकं वाचावी ना, गोपाळकृष्ण गोखले आहे ते.''

''दिसतच की. नाव पण आहे, फोटो पण आहे. मी फक्त योगिनी जोगळेकर वाचते.''

''अगं अधून मधून गोपाळकृष्ण गोखले पण वाचावा.'' - हांव काकुळटेक येवन.

''नऽक्कोऽ.''

"अगं, अनुक्रमणिका तरी वाच." हांवें चीट पयल्या पानांत घाल्ली.

"नऽक्कोऽ." अशें म्हणून तें वाचन मंदिरांतल्यान तोंड घेवन गेलें. हांवें नामदार गोपाळकृष्ण गोखलेक आशिल्ल्या त्या जाग्यार दवरलो.

कादंबरींत जातात तशे खरे जिणेंत मोग जायनात हें म्हाका म्हजें वय वाडटा तशें कळून आयलें. कादंबरींतलो विनायकराव उद्यानांत सुशीलेच्या दोळ्यांत दोळो घालून सकाळीं बसतालो तो 'संध्याकाळी दिनकर निरोप घेऊ लागला, पाखरे घरट्यात परतू लागली तरी विनायकराव सुशीलेच्या दोळ्यातून मद्य पीत होते. रात्र पडत होती तशी नशा वाडत होती' हें हांवें वाचिल्लें. हांगां हांव सकाळीं हांड्यांक उजो घालतलों काय नदरेन नदर घालून बसतलों? मागीर सुमनाचें (आमची म्हस) दूद काडून बाबल्याच्या हॉटेलार पावोवपाचें आसतालें तेन्ना दिनकर माथ्यार पावतालो. कॉलेज बी जावन घरा पावता सर सांज जाली. मागीर सुमनाक घेवन घरा येवचें आसतालें (आतां तुमची सुमना कडेन वळख जाली). मागीर गोठ्यांत जळरां आनी किट्ट्यो जावंच्यो न्हय म्हूण गायरे कडेन उजो घालता सर रात जाताली. मागीर नशा आनी खंयची? सुमन मात म्हाका पळेत आसतालें. ताच्या दोळ्यांत दोळो घालून बसल्यार जातालें. ताचे वयल्यान पसून आमचीं फकंडां. कॉलेजींत आसतना सगळ्यो चलयो (सगळ्यो चलयो म्हणजे रेखा, रमा, संध्या आदी) कॅण्टीनांत, बडे बाप के बडे बेटे वांगडा बसतालीं. हाची, गांवगिऱ्या वाठारांतल्यान आयिल्ल्या म्हज्या सारक्या चल्याक नसाय जाताली...

"कितें गो, आमचीय बी खबर घेया मगो." हांवें एक दीस रावंक नजो जावन तांकां म्हणलें.

"तुजी खबर मरे? घेवया तर! घेया गो ताची खबर!"– रमा.

"सुमन कशें आसा रे?"– संध्या.

"पोस केन्ना दिता रे आमकां?"– रमा.

"पेण सोडून आंबट खावं वाटतं का रे तिला?"– रेखा. (तेन्ना सुमनाक 'दीस' गेल्ले.)

"नाहीं पेण सोडून ती हल्ली करड खाते." अशें म्हणून हांव थंयसून कडसरलों.

हांवें मोगांत कशे पडटात हाचेर खूब अभ्यास केलो. तातूंत म्हाका अशें दिसून आयलें की चलयो ओगीच मोगांत पडनात. लैला-मजनू, शिरीन-फरहाद हांचे दीस गेले. आतां चल्यां कडेन बुद्दी, 'माया' किंवा रुप आसल्यारुच चलयो तुका लागीं धरतात. तुमकां आतां यादी दिल्या तातूंतलें म्हजे कडेन कांयच नाशिल्ल्यान म्हाका कोणेंच लागीं धरलो ना अशें म्हाका तरी दिसता. पांच फूट देह आनी आठतीस किलो वजन आनी दोनूय कडलें इकॉनॉमिक्स बरें नाशिल्लें. दोनूय कडलें इकॉनॉमिक्स म्हळ्यार, कॉलेजींत इकॉनॉमिक्स विशय आनी घरचें इकॉनॉमिक्स म्हळ्यार आर्थीक स्थिती. चलयो जेन्ना हिरो, कर्ज, शान असले सिनेमे नॅशनल थेटरांत पळेतालीं तेन्ना हांव कॉलेजींत, The Canon of Economics चेर नोट्स काडटालों. आई म्हाका येवपा वचपाचे तिकीटीचे एक रुपया वीस पयशे आनी सुमनाक एक किलो सरकी पेण ताचे दोन रुपया पंचवीस पयशे, वट्ट तीन रुपया पंचवीस पयशे दिताली. ताका लागून हे सगले सिनेमे लग्ना उप्रांत टि.व्हीचेर चाळीस मिण्टांच्या ब्रेका सयत पळेले. हाका लागून म्हजें लुकसाण जालें अशें हांव म्हणना. हांवें 'सखू आली पंढरपुरा', 'हर हर महादेव', 'झाला महार पंढरीनाथ' हे सिनेमे थेटरांत पळेल्या तेय बी आई बरोबर. कॉलेजींत निमण्या वर्सा ऑटोग्राफ दिवपाची पद्धत आसता. तातूंत हांवें म्हजो आवडटो नट शाहू मोडक बरयलो. ताचे वयल्यानूय म्हजीं बरींच फकंडां जालीं. आसूं.

मोगान हांव फाटीं उरपाक कारण थारलों तो म्हज्यांतलो न्यूनगंड अशें म्हाका दिसता. म्हाका चलयां कडेन वा बायलां कडेन उलोवपाक भंय सो दिसता. अजुनूय हळडी कुकमा दिसा हांव सालांत येना. 'तुगेलो घरकार खंय गो?' अशीं सगळीं जाणां बाबडीं वासपूस करतात. तरी हांव भायर सरना. सोड. सगळ्याच चलयांनी म्हाका वाळींत उडयल्लो अशी परिस्थिती नाशिल्ली. थोडीं आमगेर येवन बीं गेल्यांत. तांकां आईन, 'तांबडी भाजी बारीक शिनूंक

येता मगो?', 'गंध कशें वाटूंक येता गो?', 'तुमगेर लेपाचो हाथ दुसरे कडेन लायतात?', 'माडयेची खाज कमी येवपाक तुमगेर कितें करतात?', 'चटणी पानार खंयचे वटेन वाडटात?', असले प्रस्न विचारिल्ल्यान ताणीं आमच्या घराचो परतो हुंबरो हुपलो ना, माप लवंडूपाचें पयसूच उरलें. आतां हातूंत म्हजी चूक कांयच नाशिल्ली आनी आईकूय दुशण दिवन कांयच उपेग ना. हिकाय आईन आमची सोयरीक जातकच हे सगले प्रस्न विचारिल्ले. हिणें 'सगळं प्रत्यक्ष रंगमंचावर पहा' अशी जाप दिवन आईक चूप केली. आतां गेलीं एकवीस वर्सां आई सगळीं नाटकां 'रंगमंचावर' उगत्या दोळ्यांनी पळेत आसा.

मोग बी म्हाका न्ही हें कळपाक खूब वर्सां लागलीं. हें कळपाक इतलीं वर्सां कित्याक लागलीं हो प्रस्न तुमच्यांनी म्हाका विचारूं येता. ताची जाप मात म्हजे लागीं ना. 'कटी पतंग' ह्या सिनेमांत एक पद आसा. तें म्हजे सारकेल्याक व्हड तत्वगिन्यान सांगता आनी म्हाकाय तें पटलां. ताच्यो सुरवेच्यो वळी अश्यो आसात –

ये जो मोहबत है ये उनका है काम
महबूब का जो बस लेते हुए नाम
मर जायें मिट जायें हो जायें बदनाऽऽऽऽम
रहने दो छोडो भी जाने दो यार
हम ना करेंगे प्यार...

मोग करपा खातीर जे गूण ह्या पदांत सांगल्यात ते म्हजे कडेन ना हें हांवें मान्य केलें आनी 'हम ना करेंगे प्यार' अशें जाहीर केलें. मागीर सोयरीक करुन लग्न केलें, सप्तपदीचीं सात पावलां भियेत भियेत हांवें मारलीं and they lived happily ever after...

आतां तुमीं कोल्याक द्राक्षां आंबट म्हणटले. म्हणटल्यांचीं तोंडां हांवें धरूं येता?



# रसीक

**'मुलानो** माणसानी रसीक असावं' अशें पाटील गुरुजीन आमकां सांगिल्लें. आमचो पाटील गुरुजी खूब रसीक आशिल्लो (गुरु बाबतींत शिश्यान चड उलोवप बरें न्ही). सगलींच मनशां रसीक आसतात अशें ना, आमच्या गांवांतले लोकूय नाशिल्ले. आमच्या सरपंचान, पाटील गुरुजींची बदली जावंची म्हूण अर्ज केलो आनी पाटील गुरुजींची बदली जाली. आमी एका रसीकाक मुकले. गुरुजीन नाका त्या गजालिनी रस घेतिल्ल्यान अशें जालें, अशें गांवांत लोक उलयताले. नाका त्यो गजाली कितें हें कळपा इतली तेन्ना म्हज्या मेंदवाची वाड न जाल्ल्यान म्हाका त्यो कळ्ळ्यो ना (वाड अजुनूय जावंक ना अशें आई म्हणटा). गुरुजी गेलो तरी ताचो संस्कार म्हज्या मनार उरलो. (तोंड घेवन गेलो अशें आई म्हणटाली हांव म्हणना.)

गुरुजीन आमकां ल्हान ल्हान गजालींनी रस घेयात म्हूण सांगिल्लें. ह्या खातीर तुमी एक नदर तयार करात अशें तो सदांच सांगतालो. हें करचे खातीर सुरवेक हांव साखर उडोवन मुयो ती साखर शिस्तबद्ध पद्धतीन कश्यो एकठांय करुन व्हरतात हें पळोवपांत रस घेतालों. 'तांची चाल कितली सोबीत' अशें नकळत म्हज्या तोंडांतल्यान भायर पडलें आनी म्हाका जाणवलें हांव हाडांचो रसीक म्हणून.

''पापया, देड कील साखर मुयांक खावयली रे?'' एक दीस रिकामो

डबो पळोवन म्हाका आईन विचारलें.

''आई, देड कील साखरेक रडटा? मुयो ल्हान आसल्यो म्हूण कितें जालें? तांची चाल पळे, तीं कानान फुतफुततात तीं पळे. तुमकां नदरुच ना. म्हाका ती नदर आसा.'' हांवें दोळे घुंवडांयत म्हणलें.

''मास्तर तोंड घेवन गेलो, बरें कांय शिकयलें ना. हीं अंवचिनपणां मात शिकयलीं.'' आई चाळवली.

कितेंय जांव, मास्तर आमकां ती नदर दिवन गेलो. मुंयांच्या पांयां कडेन पळयतां पळयतां हांव दोन पांयां कडेन पळोवपाक लागलों तेन्ना लोकांनी म्हाका बायजण म्हणलो तें सोडून दियात. ह्या जगांत बारीक बारीक गजालीं कडेन लक्ष्य दिवपाक लोकांक वेळूच ना. चडशे सगले जेवा, खाया, न्हिदा इतलेंच करपाक उरले. आशीकुशीक सगलेच अरसीक. देखीक, एक दीस तिनसना हांवें म्हज्या बापायक विचारलें,

''बाबा, तीं पळे सुकणीं एका प्रकारचो आकार करुन घरा वतात. तीं अशीं आकार करुन कित्याक घरा वतात?'' बापायन पिरंगत म्हणलें ''हांवूच सदां घरा कित्याक येतां आनी कसलो आकार करुन येतां, तें म्हजे म्हाकाच खबर ना. तांचें आनी कितें सांगू?'' ही जाप आयकून म्हजे जाग्यार आनी कोणूय निर्शेतलो आसलो. कोणाचोय विरस जावपाचोच पूण तशें जालें ना. हांव झपाटलेलों, म्हाका रसीक जावपाचोच आशिल्लो.

हांवें सकाळचें उठचें कित्याक तर सकाळीं सुर्याचीं कोवळीं किरणां बी आंगणांत खेळटात. थंडेच्या दिसांनी गुलाबी थंडी पडटा. दंव पानार पडून सूर्य प्रकाशांत तो मोती कसो चमकता अशीं वर्णनां हांवें वाचिल्लीं. हीं वर्णनां व्हड व्हड रसीक मनाच्या कविनी आनी लेखकांनी केल्लीं. हांवें तेन्ना सकाळीं उठून पहाटेचें वर्णन करपी कविता केल्ली,

किलबिल किलबिल सुकणीं करतात
फात्या पारार आमकां जागयतात

पदेराक आमच्या केन्ना केन्ना जाता वेळ
तीं मात ज्यूस्त सुरु करतात आपलो खेळ

हांवें सुर्याक सकाळीं तेळत बसचें (तेन्ना आमकां दनपारची शाळा आसताली). अशें चड वेळ केल्ल्यान म्हजे रसीक नदरेक रोखडेंच वक्ल लागलें. सुर्याच्या वेग वेगळ्या मुडांचें म्हाका अप्रूप दिसचें. हांवें तशें आईक म्हळ्ळें लेगीत. पूण सदचे भशेन आईन म्हाका साथ दिली ना.

''पाड पडूं, सूर्य माथ्यार येता म्हणल्यार म्हाका कलकलता, प्रेसांव सगलें हालोवन वडयता.'' - आई.

आईक हांवें व्हड मनान माफ केली. तिका म्हजी नदर नासली. तिका ती केन्नाच आयलीना.

आईचे काळे केंस म्हाका धवे फुल्ल शितार मेळचे. कोणूय बेजार जातलो आसलो. पूण म्हाका ती धवे फुल्ल कॅन्वासाचेर काळी नक्षी कशी दिसऽ. आईन बेजार जावप, 'तें म्हजें भाग्य कितें तोखेत बसला? काड कुशीक तें. तें तोखेवपाक तुजें आयुश्य पडलां, म्हाका फुडलीं कामां आसात.'

पाटील गुरुजीन आमकां व्हड व्हड मनशांच्यो काणयो सांगिल्ल्यो. असल्या मनशांक सुरवेक लोक पिशे समजतात अशें आमकां सांगिल्लें. तांची दृश्टी लोकांक खूब उसरां समजता अशेंय ताणें आमच्या मनार बिंबयल्लें. आमच्या व्हड व्हड कविनीं गोंयच्या सैमाक खूब श्रेय दिलां. ताका लागुनूच आमकां ही दृष्टी आयली अशें ताणीं म्हणलां. हांवूय आतां बांदार वचून बसपाक लागलों, कामेऱ्यां लुवतात तें पळोवपाक लागलों. तांच्यो त्यो सोबीत हालचाली म्हज्या रसीक मनाक भुरळ घालपाक लागल्यो. पूण म्हजी रसिकता तांकां बाबड्यांक समजलीच ना. दुसरेच दिसा कामेरीं आमगेर हजर जालीं,

''आतीबाय, बाबाक येन्नाच सांबाळ आं! बांदार बसून आमकां पळयत बसता. आमी तुमकां वळखतात म्हूण ओगी रावलीं.''

आईन रोखडेंच ॲक्शन घेतलें. 'बांदार पर्तून वचत जाल्यार दोको मोडून घरा उडयतलीं' अशें वॉर्नींग दिलें.

हांवें, व्हडले व्हडले कवी रेंदेरांचीं कांतारां आयकताले आनी एक रसीक मनीस कानसेन आसपाक जाय अशें वाचिल्लें. आमचो रेंदेर कायतान कितेंच गाय नासलो पूण ताचे आमिजादीक लागून म्हाका, माडाची फेणी, काजू फेणी परस बरी, तिका वास येना, हें गिन्यान ल्हानपणांतूच गावलें.

वय वाडटा तशें म्हजी रसिकता तेंगशेक पावली. पाटील गुरुजीचो शिश्य ही पदवी सार्थ ठरली. हांवें म्हजे कुडींतलो घैरांव लेगीत काडपाचो बंद केलो. तातूंत लेगीत म्हाका ब्यूटी दिसपाक लागली. तातूंत नाचपी कोळी म्हाका 'आज कल तेरे मेरे प्यार के चर्चे हर जुबान पर' हे चालीचेर नाचतात कशे दिसपाक लागले.

वयर सांगलां ते प्रमाण रसीक मनशाक जायते त्रास सहन करचे पडटात. तांचे विशीं नाका ते गैरसमज लोक करुन घेतात. लोक कित्याक, घरचीं लेगीत तांकां सोडीनात. आतां सादी गजाल, आमगेलें शेंवतें ('आमगेलें' आपलेपणान म्हणलां. बेटो गैरसमज नाका) ओलीं सुकत घालता तेन्ना ओल्यांक एक लेगीत मीरी उरना. ही एक कला. तें सुकत घालता तें पळेत रावचेंशें दिसता. आतां हांव हें एक रसीक म्हणून पळेतां. पूण तेंय घरच्यांक सोसना. आई तर 'बापायचेर गेला' असो उद्धार करता (तो गोठ्यांत बसून कामेरें गायेचें दूद काडटा तें वरांची वरां पळेतालो). बापायन एकदां म्हाका सांगिल्लें,'बाबा दुदाची धार आनी कामेऱ्याच्या हातांतल्या कांकणाचें किण किण हातूंत एक नाद आसा'.

हालीं तेंपार हांव लोकांक त्रास नाका म्हणून काळें वक्ल लावपाक लागलां. हाका लागून म्हजें उद्दिश्टूय साध्य जाता आनी लोकांकूय हांव खंय पळेतां तें कळना. हें वक्ल लावन हांवें संध्याक केंस वळेतना पळेलें (ताचे केंस कमरा मेरेन पावतात) आनी हांवें ताका ताच्या माथ्यांत खरड जाल्या म्हूण सांगलें. 'तुजी नदर पयलींचीच आसा मरे! सो स्वीट' असो ताचे कडल्यान कॉम्प्लीमेण्ट मेळ्ळो.

हें सगळ्यांकूच जमता अशें ना. 'ती नदर' जाय पडटा. ही नदर

वयल्यानूच घेवन येवची पडटा. हांवें असो रसीक हालीं तेंपार तरी पळोवंक ना. बाबुली भट अशी नदर आशिल्लो मनीस. आपलें सगलें श्रेय तो हेलनाक दिता. 'हेलनला बघून बघून मी रसीक जालो' अशें तो नमळायेन सांगता. लग्न जावन हांव पयलींचो रसीक उरुंक ना काय? असो केन्ना केन्ना म्हाका प्रस्न पडटा. लग्न जातकच कांय तेंप म्हजी रसीक नदर तशीच आशिल्ली. हाका लागून हांव मर्दी मर्दी रोमेण्टीक जातालों. हिका डायरेक्ट पळोवच्या बदला म्हाका हिची वण्टीवयली सावळी पळोवपाक खूब आवडटालें. आमच्या वाड्यार टान्सफॉर्मराक लागून परत परत लायट गेल्ल्यान आमगेर मेणवातींचो भरपूर उपेग जातालो. मेणवातीच्या उजवाडांत हिची वण्टीवयली सावळी चड सोबीत दिसता तें म्हजे रसीक नदरेक रोखडेंच कळ्ळें. ही उजवाडा परस काळखांत चड बरी दिसता होय सोद म्हाका तेन्नाच लागलो. हिचे लांब केंस हिचो एकमेव प्लस पोयंट. हाका लागून हांव माड्डोळसून मुद्दम जायांचो पोड हाडटालों आनी हिका तो माळूंक लायतालों. हिका फाटल्यांतल्यान पळेत रावप हें तेन्ना म्हजें एकमेव काम. ही फाटल्यांतल्यानूच चड बरी दिसता हें जेन्ना हांवें हिका नमळायेन सांगलें, ''हो म्हाका तुमचो व्हड कॉम्प्लीमेण्ट'' अशें म्हणून हिणें मानून घेतलें. फुडें, खरड हें नीब जालें आनी हिचे केंस आंबाडो घालपाक लेगीत पावना जाले. आसूं, म्हजे नशीब आनीक कितें!

जशीं जशीं वर्सां गेलीं तशे तशे वक्लाचे नंबर वाडत गेले आनी 'ती नदर' मात फ्राक जायत गेली. जिणेंत जाणीं म्हाका ही नदर दिली आनी ती घडयली तीं मनशांच ह्या ना त्या कारणांक लागून म्हज्या आयुश्यांतल्यान गेलीं (थोड्यांचीं लग्नां जालीं). अशें घडटकच 'ती नदरुय' मरता दिसता.

नजर नवाज नजारों में जी नहीं लगता
वो क्या गये की बहारों में जी नहीं लगता



# आमच्यो रुची आनी जेवणां

**आमी** गोंयकार रुची धोडे म्हूण फामाद. च्या पाल्याच्यो कंपनी च्या पाल्याचो दर्जो थारावपाक लाखांनी रुपया पगार दिवन खास मनीस नेमतात. तांचें काम फकत च्या पियेवन ताचो दर्जो थारावप. आमी गोंयकार फकत च्याच कित्याक, कित्यायची रुच पळोवन आमी ताका नांवां दवरतात. त्या खातीर आमी पगार पासून मागनात. हें आमी फुकटांत करतात.

''हें हुर्राक पोरुंचें काय कितें गो?'' सावळो एक घोट मारुन वितोरीक विचारता.

''फुडल्या वर्सा तूं फेणयेचो कळसो सावंता कडल्यान घेवं नाका आं! बरी ऽऽ मजा येना.'' दत्ता सीतारामाक सांगता.

ह्यो जाल्यो गादये वयल्यो गजाली. घरा कडेन म्हणून आमकां वेगळें चित्र पळोवपाक मेळना. बाजारांतल्यान इतले 'त्रास' घेवन हाडिल्लें नुस्त्याचें हुमण सारकें जालें ना म्हणून अवतार घेवपी दादले हांवें पळेल्या.

''आगो मानशेचीं सुंगटां मगो तीं.''

''जाणां आं हांवेंच उजरायल्यां.''

''मागीर हुमणांत दोन बिमलां उडोवंची न्हय?''

''बिमलेक म्हजो हात पावना.''

''हिंगाचो वास ना. घाण ना. तुमगेर हिंग घालीनांत? अशेंच करतात?''

''आतांच्या हिंगाक वास नासता, घाण नासता. हांव कितें करुं? घाला हांवें हिंग.''

''तुज्या म्हूण हातांक सुवादूच ना. आई पळे हुमण करताली ताचो चौकेर वास येतालो. गोविंद भट विठोबाच्या देवळान निवेद्य घेवन वतना रावतालो आनी विचारतालो,'आज सुंगटां हुमण काय कितें?' आतां हें हुमण सुंगटां आसात म्हणून कळ्ळें म्हाका सुंगटां हुमण म्हणून.''

''म्हजे हाताक सुवाद ना तें इतले वर्सांनी कळ्ळें तुमकां?''

''आतां कनफर्म जालें.''

शीत जेवलो ना जाल्यार गोंयकारांक रातची न्हीद पडना.

''आज म्हाका न्हीद पडचीना.''

''आज एकादस. ही फाटल्यान लागल्या म्हणून करपाची, हरशीं कोण करता? रातच्यो दोन चपात्यो, शिकरण आनी उसळ. मागीर पोट भरता रे गॅसान, आमकां कोंताक येवपाचें हें?''

हीं उतरां गोंयकाराकूच सोबता. बर , फकत शीत आसलें म्हूण जायना. थोड्यांक निबर जाय जाल्यार थोड्यांक मोव.

''आगो हें शीत काय पेज?''

''शीत म्हणून केल्लें पूण जाली पेज. म्हाका ह्या तांदळाचो अदमास आयलो ना.''

''ह्या शिताक आतां हुमण लागतलें? सगळी मजाच गेली. आयतार सगळो पिड्डिर जालो.''

''तें शीत कडेक काडून दवरा. परत शिताक दवरतां. रोखडें जातलें.''

अशे घोव आनी परतून शिताक दवरपी बायलो गोंयांच पळोवपाचीं. गोंयकार घोस्त कसो काडप हाचेर पुस्तकां बरयता. बाकिचीं पुस्तकां खप ऽ ना पूण ह्या पुस्तकाच्यो हजारांनी प्रती खपतात. हाचे वयल्यान हें पुस्तक गोंयकारांनी कितल्या घोस्तान वाचलां हाचो अदमास आमकां येता.

जपानाक च्या पियेवपाक जाय म्हणून पियेनात. च्या पिवपाचो सुवाळो आसता. तशेंच गोंयकार जेवपाक जाय म्हणून कसोय जेवना. ताका तें जेवण वेवस्थीत वाडिल्लें जाय. ताट कशें वाडटा हाचेर चलयेची परिक्षा जाताली. हालींसर परिक्षा करपी जाण्टेय गेले आनी त्यो चलयोय गेल्यो कारण पंगती वचून आतां बुफे आयलो. तर मीठ ताटांत खंय वाडप, वोडयो खंय वाडप, चटणी खंय वाडप हें थारिल्लें आसता. गोंयकाराक उकडें शीत प्रीय. उकडें शीत जेवणाक आसत जाल्यार खाऱ्या बांगड्याचें हुमण ताका शिताच्या डोंगरार जाय. कुशीक न्ही. मागीर, तो, तें सू सू करुन जेवता आनी मदीं बांगडो मोडून तोंडांत उडयता. सार ताका व्हांवयल्लो आवडटा. वरणाचो बेत आसलो जाल्यार ताका तुपाची धार शीत फोडटकच सोडिल्ली जाय. पापड ताका रोसान भिजिल्लो आवडना. मागीर ताका शिट्ट जाता. परबेक पाना भोंवतणी ताका रांगोळी घालीना जाल्यार चलता. 'तें नक्शी काम म्हाका नाका आं' अशें तो विनोदान म्हणटा.

शिवराक जेवण म्हणटकच ताचेर आकांत येता. चवथ केन्ना आयल्या तें पळोवच्या बदलाक पंचम केन्ना आयल्या तें तो पयलीं पळेता. चवथीचें सामान हाडटा तेन्ना तो बडीशेप हाडपाक विसरना. दोन दीस शिवराक जेवन ताचें पोट फुगतकच तो ती तोंडांत उडयता. शिवराक जेवण आसता तेन्ना ताका भूक चड लागता. निवेद्य बी टायमार जालो ना जाल्यार तो घर माथ्यार घेता. 'भटमाम आरती एकाच्या ठोक्यार जावपाक जाय आं! पोरुं जेवणाक तीन जाल्लीं याद आसा मूं.' अशें तो भटमामाक बजावन दवरता. आतां मांसाहारी जेवण म्हणजे गोंयकाराचें नुस्त्या जेवण. 'आरे जेवणाक शिवराक आशिल्लें रे, गोंया केन्ना पावताशें जालें. चिकन मटण आशिल्लें पूण तें आमकां खंय जाय!' अशींय उतरां केन्ना केन्नाय आमच्या कानार पडटात.

गोंयकाराच्यो यादी अचकीत उचकतात. मागीर तो हुमण करपाक बाणस्तारीं वचून मुद्दम कुंडलें हाडटा. केन्नाय पोरसांत वचून तो बांगडो तणांत

भाजता. सुको बांगडो कोळश्यांचेर भाजून तो ताचेर खोबरेल सोडटा. केळी पानार भाकरी थापून ताका खावचीशी दिसता. बटाटाचें भर्त करुन तातूंत कोळशे मुंगरुन दवरता. ताका केन्नाच गेल्ल्या बापायची, आज्याची, पणज्याची याद येना, ताका याद जाता ती आवयची, आजयेची, पणजेची. तीय बी जेवणा खाणा वयल्यान. ''तुमी आजयेच्या हातची बांगड्या उड्डमेथी खावंना, तुमची मम्मा (तुमच्यानी हांगां आई, मम्मी, माँ जाय तें घालूं येता) करता ती कांयच न्ही. मम्मा उब्यांली, तांचीं हुमणां मिळमिळीत, हुमणां खांवची ती आडव्यालीं. तुमची आजी दोन नाल्लांचो रोस घालताली. मम्मा मागीर रागार जाता आनी दोन दीस घरांत शांतता आसता. दोन दीस मागीर जेवण भायर जाता तरी असतना आमी आमचें तोंड बंद करीनात. 'आगो वेल्ल्यो अश्यो तळटात? त्यो कश्यो चरचरीत तळपाक जाय. मागीर खावपाक मजा येता. चणे कशे तोंडान उडोवंक मेळटा.' विसवणाचीं पोस्तां थोड्यांक चरचरीत तळिल्लीं आवडनात. कोणाक विस्वणाची पोस्तां दाट जाय, कोणाक पातळ. कांय वर्सां पयलीं, चली पळोवंक गेल्ले कडेन, चल्यान चलयेक नुस्त्याचीं नावां सांगून तांचें तेफळाचें करपाचें काय कांद्याचें हें विचारुन, ताणें दिल्ल्यो जापो पडताळून पसंत केल्ली, हांवें पळेल्या. आपल्याक बाळ्यांचें सुकें करुन घालीना म्हणून बायलेक कुळारा व्हरुन सोडपी घोवाक हांव वळखतां. लग्नाचे पयलेच राती सांगटाक गोबोर लावन कशें उजरावप हें शिकोवपी गोंयकार गेंयांत आसा हाचो म्हाका अभिमान दिसता. हें करपा खातीर व्हंकलेन चुडो तेच राती देंवयलो तें कवतूक करपा सारकें.

गोंयकाराक ताच्या जेवणाक लागून ताची कालेत इबाडटा अशें सांगल्यार ताची तकली फिरता. ''आरे रातचें शीत जेवं नाका. तुजें पोट खंय पावलां तें पळे.'' अशें तुमी ताका सांगां आनी पळया. रोखडीच ताची जाप ''आमचो विठ्ठल भट खंय शीत जेवता? ताचें पोट पळे ढोल कशें फुगलां, शिताचो आनी पोटाचो कांयच संबंद ना.''

''आरे सुंगटां खांव नाका तुगेलें युरीक ॲसीड वाडटलें.''

''म्हजो कोल्हापुरचो आमीग सावंत ताचें जेवण झुणका भाकर, कैरीचे लोणचें. पूण ताचे दोनूय पांय आंतरे पयऱ्यान पुरी कशे फुलिल्ले आसता.''

अशें म्हणून तो दोन मोट्टीं तळिल्लीं सुंगटां तोंडांत उडयता.

गोंयकाराचें जेवणा बाबतींत जोड्या लावा हें थारिल्लें आसता. म्हणजे कितें? दाळीचो रोस-बांगड्यां किस्मूर, तोय-बटाटा फोडी, मसूरीचें तोंडाक म्हणटकच भितर सुंगटां जायच, ताकाची कडी-करबीलाचीं फोण्णां, खुटी कडी तातूंत कोथमिरे पालो आनी हिंग जायच. आतां, खतखतें म्हणजे गोंयकारांचो आत्त. तो जरी शिवराक पदार्थ आसलो तरी तांकां ताचें व्हड अप्रुप. आमच्या वाड्यावयल्या दत्तागेर एक दीस खतखत्याचो बेत आशिल्लो. त्या दिसा हो नाच्च जालो. सगळ्याक सोदलो. फकत पुलिशेंत कळोवपाचें उरिल्लें. दुसरे दिसा हो मुंडल्यो घेवन प्रकटलो...

''आरे खंय रे पापया तूं? आमी कितें समजुचें?''

''कितें म्हणजे? मुंडल्यां शिवाय खतखतें कोण खातलो? मुंडल्यो खंयच ना. शेवटाक बेळगांवां वचून ह्यो हाडल्या. आतां करात खतखतें.'' अशें ताणें सांगलें. मागीर सगळ्यांनी ताणें केलां तें योग्य केलां ह्या अर्थान मानो हालयल्यो. आतां खतखतें म्हणटकच तातूंत गोंयकाराक पोपाय, दुदी, मुंडल्यो, केळें, मुळो, तवशें, कणस, कारांदो, काटे कणंग, उशेकाणो जायच. हातुंतलो खंयचोय एक नग नासतकच तो भुरको मारतना 'बरीड्डड मजा आयलीना' अशें म्हणटा.

गोंयकारांच्यो कांय सिजनल डिशीज आसतात. त्यो, त्या त्या सिजनांत केल्यो ना जाल्यार ताका चैन पडना. गिमांत ताका अनस, पणस घोंट, सासंव, आमरस, धोणस, चाको, सुशेल, घरय हें जायच. पावसा दिसांनी गडगड मारतकच तो व्हाळांनी कुल्ल्यो सोदपाक वता. हे बाबतींत घरच्यांचेंय बी ताका सहकार्य लाभता. तीं लायट वच्च्या पयलीं कुल्ल्यांचें वांटप पयलींच तयार

करुन दवरतात. लायट गेल्यार लेगीत तीं वानार सगळें वांटप करतात. पावसान मातसो आसोर करतकच तो तायखिळो, मस्का पालो, तेरें, कुड्डुके पालो, लुती पालो बुड्डुंक वता. थंडेच्या दिसांनी गोंयकारांक झणझणीत तोणाकां खावपाची रुच येता. मागीर तो खडपी कुल्ल्यो हाडून, घरचो मसालो बी घालून कुल्ल्यांचें तोणाक करता. मागीर ताचे वयलो पोळोव घेवन आनी कुरकुरीत तोर्राद उंडो घेवन उकडयां बसून सू सू करुन खाता आनी नाकांतल्यान व्हांवपी शेमूड दाव्या हाताचे मुठीन फर्र ऽऽ करुन पुसता.

नुस्त्याचो उल्लेख बाकी कडेन जांवक ना तितलो कोंकणी भाशेंत जाला. आमचो बाकिबाब तर 'गोंयकार नुस्तें ना जाल्यार व्हीर' अशें म्हणटा तोच कवी 'सुंगटां घालून कर गो बेस बिंबलांचो रोस' अशें म्हणटा. आतां खंयचें हुमण वा कडी ताजी खावपाची? खंयची शेळी खावपाची? हें गोंयकारुच जाणा. हाचेर आमच्या आल्फ्रेड बाबान कांतार सुद्दां केलां. अडेचें नुस्तें खावपी लोक (मुंबयकार बी) कांटो नाशिल्लें नुस्तें सोदतात पूण आमी जातीचे नुस्तें खावपी. आमकां बुरांटो, पातसाळीं, बारीक ताल्ले, पेडवे, पेडी, कल्ली असलीं कांट्याचीं नुस्तीं आवडटात. आमकां तळिल्ल्या नुस्त्यां परस हुमणातलें नुस्तें चड आवडटा. आमी खाल्ले नुस्त्या कांटें माजर पसून खायना. ते इतले साफ केल्ले आसतात की माजराक कांयच उरना.

गोंयकार अन्न हें पूर्ण ब्रह्म मानतात. तें ग्रहण करतना ताका कसलीच फॉर्माल्दाद लागना. फॉर्माल्दाद म्हणल्यार टेबल एटिकेट्स. सासंव, खतखतें, मणगणें तो भुरकायता. खुटी कडी, लोशणी कडी तो पोसो फुडें काडून तातूंत घेवन पियेता, कुल्ल्यां दोके तो सुर्र ऽ सुर्र ऽ करुन चोखता, खट्ट ऽ करुन फोडटा. आतां हें तो अशें करता ताचें बाकिच्यांक व्हडलें दिसना. कित्याक तर बाकीचेय बी हेंच करपांत मग्न आसतात. हें सगळें जातकच मागीर आमी गोंयकार भीड मुरवत सोडून अ ऽऽऽ य करुन असो व्हडलो धेंकर दिवन आमचो आत्मो तृप्त जालो हाची साक्ष दितात. आनी बरो ऽ मूड आसल्यार..

'सांगटांचें आमट तीख करचें तें तुवेंच' अशें सर्टीफीकेट दितात आनी घरकान्न भुरकुटून 'सांगटां बरीं ताज्जीं आशिल्लीं' अशें सांगटां हाडप्याक सर्टीफिकेट दिवन रेसिप्रोकेट करता. 'सांगटां ब ऽऽ रीं ताजीं आसलीं म्हण तें करप सारकें जावं नाका?' अशी मागीर तोखणायेची जुगलबंदी सुरु जाता.

हांवें गोंयकाराक रुची धोडो म्हणला. ताच्यो रुची तो वयर पावलो तरी वचना हाचो अणभव हांवें घेतला. म्हज्या बापायक आमरस खूब आवड्टालो म्हणून ताच्या श्राद्धाक आमरस पुरी केल्ली. ते राती तो आईच्या सपनांत आयलो आनी 'आगे आमरसांत घोंट कोणे पिळ्ळें?' अशें विचारलें. सकाळीं आमगेलेन आमरसांत दोन घोटां पिळिल्ल्याची कबूली दिली आनी ताच्या फोट्या समोर रावन माफी मागली.

तुकारामाच्या सगळ्या देहांतल्यान 'विठ्ठल विठ्ठल' आयकूंक येतालें खंय, तशी गोंयकारांची कूड. ताची रुच फकत जिबेरुच आसा अशें म्हणूं नजो. आमच्या सावळ्याक एकदां हॉस्पीटलांत ॲडमीट केल्लो आनी ताका ग्लुकोजाचे सोर लायिल्ले 'दोतोर ग्लुकोज तितली गोड ना' अशें जेन्ना ताणें दोतोराक म्हळें तेन्ना दोतोर हें आयकून शेजारचे खाटीर आडवो जालो आनी ताकाच मागीर ग्लुकोजाचे सोर लावंचे पडले.



# रेफोर्मार गोंयकार

**फात्या** पारार उठतो
दुसऱ्याना उठवतो
सगळ्याना पिडतो
मी कोण?
चोवीस वरां घरीच असतो
घरच्यांचा जीव खातो
मी कोण?

आमकां दुसरेक काय तिसरेक आसतना 'मी कोण ' कविता आशिल्ली. हे कवितेंत मनशांचें वर्णन करून मागीर, मी कोण? असो प्रस्न आसतालो. तांच्यो जापो मागीर कुंभार, पोस्टमन, धोबी, सोनार अश्यो आसताल्यो. आतां हांवें वयर विचारल्या त्या प्रस्नाच्यो जापो विंगड विंगड ना. ती एकूच रेफोर्मार गोंयकार. म्हणजे गोंयकार जाणें आपले जिणेची मोलादीक (?) ५८ वा ६० वर्सां कामाक वचून आतां घरा बसला तो.

देश भर अशे लोक रिटायर जातात किंवा निवृत्त जातात. ओर्राद गोंयकार रेफोर्मार जातात. रेफोर्मार म्हणटकच ताणें फाटलीं वीस तीस वर्सां आघाडीचेर शौर्य गाजोवन आतां तो घरा येवन बसला अशें दिसता. तातुंतले तातूंत हांव

एका दादल्याचें उलयतां, एका गोंयकाराचें. बुद्धान काय कोणें तरी म्हणिल्लें खंय 'म्हाका एक घर दाखया ज्या घरांत कोणाचेंच मरण जावंक ना.' तशें हांव म्हणन, म्हाका एक घर दाखया जंय कोण रिटायर जावंक ना. पूण हांव सोडून तांचे कडेन आनी कोणूच सिरियसली पळयना. आतां म्हजे कडेन अभ्यास वृत्ती आशिल्ल्यान हांव सगळ्यांचो अभ्यास करतां. तातूंत भर म्हणजे आमगेर एक महान व्यक्ति रिटायर जावन गेली, म्हजो बापूय ( १९११-१९८१ पेन्शन १६०००/-) त्या खातीर म्हज्या अभ्यासांत भर पडली म्हणल्यार जाता.

हांवें फकत दादल्यांचोच अभ्यास केला. कारण बायलो आपूण रिटायर जाल्यांत म्हणून सांगीनात. ताणीं तशें सांगल्यार तांचें वय उक्त्यार पडटा. ताका लागून त्यो रिटायर जाल्या उपरांत पासून आपूण अजुनूय कामार वता अश्यो भासयतात. म्हाका याद आसा, आमच्या वाड्यावयली सरकारी प्राथमिक मराठी शाळेन शिकोवपी बाई रिटायर जाल्या उपरांत, वर्स भर तरी सकाळीं, दोन पुस्तकां, चार तरेचे खडू, कापडाचो फळो पुसपाचो डस्टर छातये कडेन धरुन तारी मेरेन वताली. बाजारांत पावतकच कोण्णें न विचारतां 'शाळेला चालले मी'अशी घोशणा करताली. आसूं.

एकदां हांव आनी म्हजो रिटायर जाल्लो सोयरो पणजे गेल्ले. कोर्तीन पावतकच ताका ताची पयलींची टीचर मेळ्ळी. ताणें सहज विचारलें "Teacher where are you going this way?" टिचरीन म्हणलें "To school, its time for my class." हांवें आनी म्हज्या रिटायर जाल्ल्या सोयऱ्यान आमचीं विसूय बोटां अजापान तोंडांत घालीं. ही जाली बायलांची खबर. तीं आपूण रिटायर जाल्यांत म्हणून वास लागपाक दिनात.

आतां गळ्यांत माळ पडटकच जशे लग्नाचे भोग सुरु जातात तशे रिटायर जाल्लो दादलो रिटायर जातकच घरा ताका घाल्ले हार आनी दिल्ले तुरे घेवन येता. त्या दिसाच्यान ताचे न्हय तर ताच्या घरच्यांचे भोग सुरु जाता. तातूंत आनी ताच्या ऑफिसांतले आमिग भेट म्हणून दितात. ती आनीक

साडेसाती घरच्यां खातीर. म्हज्या बापायक ऑफिसांतल्या लोकांनी वण्टीर लावपाची व्हड घडयाळ दिली जी मेजून तीन दिसांनी बंद पडली. घरा बेकार आशिल्ल्या बापायक उद्योग मेळ्ळो. तो खुर्चेर चडून एक एक वरान आपल्या हातांनी घडयाळीचे कांटे हालोवंक लागलो. तो ते हालयतालो ते हालयतालो बरोबर आपलें तोंडूय वाजयतालो. 'टंण्ण, एक वाजलो गो, न्हांवपाक उदक काडलां?'

"वावराडी दवरल्या?"-आई.

"टंण्ण टंण्ण, हांवें कांटो दोनार दवरला गो. जेवण जांवना?"

"कांटो दोनाचेर दवरला म्हण जाणां. हांगां रानपीण दवरा नाजाल्यार तुमचे दोन हात आनी घडयाळीचे दोन हात काडून म्हाका लायात म्हणजे तुमकां जेवण टायमार पडटलें." आई रांदचे कुडींतल्यान फडफडटाली. फुडें टंण्ण टंण्ण बंद पडलें. कारण बापायक खुर्चेर चडटना कमरान भरुन येवपाक लागलें. तें घडयाळ साडे सातार बंद पडलें. हांवें बापायक त्या बद्दल विचारलें तें ताका बरें आवडलेंना शें दिसता.

"बाबा तुजें घडयाळ बंद पडलें मरे!"

"तें दिसांतल्यान दोनदा तरी सारखो टायम दाखयता, तितलो तरी ताजो उपेग. तुजो आमकां कितें उपेग मातसो सांगशी?"

हांवें बापायक केन्नाच परतें सांगलेंना हें आयच्या भुरग्यांनी म्हजे कडल्यान शिकचें. बापूय गेलो तेन्ना ताचे इत्से प्रमाण तो गेल्लो तो टायम (तीन वरांचेर) टंण्ण, टंण्ण, टंण्ण करुन वाजयलीं, कांटो तिनाचेर दवरुन घडयाळ ताचेर दवरली. सोडा.

रिटायर जातकच मनशाक आपूण useless करो दिसता. आतां आपल्याक घरांत कांयच वालोर ना अशें ताका दिसपाक लागता आनी वालोर मेळोवपा खातीर तो घरच्या मनशांक पिडपाक लागता. म्हज्या बापायन सावळ्याक 'सावळ्या आतां हांव मरे बुच काडिली सोदाची बाटली. गॅस गेलो

फकत उदक उरलां' अशें सांगिल्लें खंय.

रिटायर जातकच मनशाची न्हीद खंय वता हें चिंतून म्हजी सुद्दां न्हीद गेली. पूण जाप मेळ्ळी ना. रिटायर जांवच्या पयलीं साडे आठांक उठपी हो मनीस रिटायर जाल्या बरोबर चारांक उठून खाटीर बसता. आनी घरांतल्यो लायटी टका टका करून पेटयता आनी घरांतल्या सगळ्या मनशांच्या न्हिदेचो सत्यानाश करता. केन्नाच च्या चो घोट न पिवपी ह्या प्राण्याक सकाळ फुडें च्या जाय पडटा. बायल न्हिदाव्याक पडिल्ल्यान हो आपूण स्वावलंबी जावपाचो प्रयत्न करता आनी च्या करपाचें ऑब्र आपल्या कडेन घेता. 'आगो गॅस पेटोवपाचो गो रेग्यूलेटर, दाव्यान घुवणांवपाचो?'

''ऊं.'' बायल पांगरुण तोंडार घेता. कित्याक तर हाणें सगळ्यो लायटी पेटयल्ल्यो आसतात.

''आगो साखर खंय दवरल्या?''

''च्या पावडर मेळ्ळो? ताच्या फाटल्यानूच साखरीचो डबो आसा.''

''बरें, आड्डूनाका शेजाऱ्यांक उठोवन घालतलें तूं.''

''तुमी केन्ना ऽऽऽ उठोवन घालीं तांकां.''

''आगो गाळणी खंय गो?'' शेवटीं तो हावा शिवा करून एकदांची च्या करता. एका म्हयन्याची च्या आनी साखर पंद्रा दिसांनी सोंपयता, वयल्यान न्हिदेचें खोबरें. म्हजो बापूय च्या बी करपाचे भानगडींत पडलो ना. तो ताचो पिंड नाशिल्लो. तो बाबल्याच्या हॉटेलार च्या घेवपाक वतालो. बापूय गेलो तेन्ना बाबलो मुद्दम आयिल्लो. ताणें बापूय आपल्याक सकाळीं तिनांक कसो उठोवन घालतालो तें दोळे पुसत सांगलें.

रिटायर जातकच तो ऑफीस खूब मीस करता. ताका ऑफीसांत कितें चल्लां हाची उमळशीक आसता. मागीर तो आतऱ्या पयऱ्यान आपल्या आमिगांक फोन करून पिडटा.

''शिरवयकार येता मरे कामार?''

''रेगो पिडटा मरे तुमकां?''

''शैला दिसभर सायबाल्या कॅबीनांतूच मरे?''

असले प्रस्न विचारुन तो आपल्या ऑफिसांतल्या मनशांक सतायता. मागीर ते ताचे फोन घेनांत. मागीर हो बेजार जावन हाचें प्रेशर वाडटा. फोग परतो घरच्यांचेर.

''खुर्चेर आसासर कोणूय विचारता. मागीर कोणांक नाका, ऑफीसांत जाल्यार ऑफीसांत घरांत जाल्यार घरांत.''

''तुमचे फोन घेनांत तें बरे, ह्या म्हयन्याचें बील कितलें आयलां तें खबर आसा तुमकां? शैला सायबाल्या कॅबीनांत वचूं नाजाल्यार घरा वचूं. तुमकां ताचें आतां कितें? कपडे सुकोवपाक दोरी बांद म्हणून सांगिल्ली, बांदली? फ्रिजाचें हॅन्डल सैल जालां तें घट कर म्हणून सांगिल्लें, केलें?'' बायल तापता. मागीर घेऽ घरांत धुमशण.

घरांत नातरां आसली जाल्यार विचारुं नाका. हो रिटायर्ड जाण्टो तांचो काळ जाता. तो बेठोच तांच्या फाटल्यान लागता.

''अभ्यास जालो तुमचो?''

''हय ग्रॅन्डपा.''

''अभ्यास केन्नाच करुन सोंपना, परत करा. विद्या म्हणजे सागर. घेता तितली कमी.''

''म्हणजे कितें ग्रॅन्डपा?''

''तें तुमकां व्हड जातकच कळटलें.''

''मागीर तें तूं आमकां व्हड जातकच सांग. आतांच कित्याक पिडटा?''

''सुबेज खंयचे कडलीं! परत्याक परतें सांगतात. आवय बापायचो धांक ना.''

घे ऽ मागीर सुनेचें आनी मांवाचें भुरग्यां वयल्यान पेट्टा.

रिटायर जातकच मनशांक उसतण्यो खूब लागतात. तो माळ्यार,

कपाटांत, खाटी पोंदच्या ट्रंकांनी, मेळत थंय उसतिता.

"आगो आमच्या त्या कुंकळेच्या भाटाचे पेपर खंय गो?"

"आतां म्हाका वेळ ना उस्तुपाक, म्हाका कामां पडल्यांत तीं तुमी करचेना."

"आगो ते कितले म्हत्वाचे तुका खबर आसा?"

"इतले म्हत्वाचे जाल्यार सारके दवरपाचे, हांव किरवंटेक लावन भोवना ते पेपर."

"आगो आमच्या लग्नाचो तेर्म खंय गो?"

"तो आतां सो जाय पडलो तुमकां?"

"आगो आतां ताची गरज ना म्हण उडोवपाचो? तशें जाल्यार आतां तुका म्हजोय कांय उपेग ना, म्हाकाय काडून उडय खंय तरी."

"आतां म्हाका टायम ना."

"म्हणजे, टायम आशिल्लो जाल्यार म्हाका उडयतलें आशिल्लें!"

"तुमकां उडोवपाक टायम ना म्हणूंक ना हांवें, तेर्म सोदपाक."

"म्हणजे म्हाका उडोवपाक टायम आसा तर तुजे कडेन, तेर्म सोदपाक ना."

आतां फकत गोंयांतूच लोक रिटायर जायनांत. बाकीकडेंय रिटायर जाल्ले लोक जें कामार आसतना करूंक शकलेनात तें रिटायर जातकच करतात. वाचन, फिरपाक वतात, थोडे संगीत शिकतात. थोडक्यांत आपल्यो अपुऱ्यो उरिल्ल्यो हौशी पुऱ्यो करतात. आमकां तें जमना. हांगां दोग तीग जाण रिटायर जाल्ले जार्दिनांत मेळटात आनी चकाटां मारतात.

"आतां आमी आशिल्ले जाल्यार आमची बेजिक ५४६१/- जातली आशिल्ली न्हय रे?"

"आनी कितें तर. आज सादो एसएससी जाल्लो प्यून २०००/- टेक होम व्हरता मरे!"

''आमी त्या वेळचे बी.ए. तीय बी Bombay University. इतलें करुन आमकां कितें मेळ्ळें रे? रिटायर जाल्लो तेन्ना म्हाका ११,२५५/- ग्रॉस.''

''हांव हेड क्लार्क जावपाचों काय बरो! पूण ज्यूस्त तेन्ना ग्रॅजुएशन जाय पडलें. म्हजें नशीबूच फुटकें.''

''आमच्यो बायलो तरी नोकरी करताल्यो रे? हिका तेन्ना प्रोवेदोरियान काय बरी नोकरी मेळटाली. ही म्हणपाक लागली नाका. आतां रडटा. म्हजें पेन्शन बसलां ६५६/- . घरचें आसा म्हण सालवार.''

पूण कितेंय सांग घरा भायर एक तुळस नाजाल्यार खुरीस आनी घरांत एक रिटायर्ड मनीस हे शिवाय घराक सोभा ना.



# लग्न

**'लग्न'** हो आमच्या धर्मांत सांगिल्ल्या संस्कारा पैकी एक. हो संस्कार नॉर्मल आनी ॲबनॉर्मल ह्या दोनीय कातेगोरिंतले मनीस एकदां तरी करताच. थोड्यांक अती उमेद आसता ते दोन तीन वेळां करतात हेंय हांवें पळेलां. जांकां भरपूर पासियेंस आसा ताणीं करचेंच. हांव नाका म्हणिना. सगळेचजाण माटवा पोंदच्यान (लग्नाच्या) वतात अशेंय हांव म्हणिना. जांकां जिणेंत उमेद ना, जांकां फकत च्या पियेवन तरतरी येता, जांच्यो गांठी ब्रह्मदेव मारपाक विसरला, जो वा जी आपले जिणेंत राजकुमारी वा राजकुमार येतलो म्हणून व्हडा आशेन रावल्यांत अशीं कुळां लग्न ह्या संस्कारा पासून वंचीत उरतात.

आमचो एक सोयरो विनोद (गुप्तते खातीर नांव बदल्लां) आपले जिणेंत खुबसुरत सिनेमांतली रेखा (जेमिनी गणेशन) भशेन चली येतली म्हणून अडून बसलो. 'आरे, रेखा सोड गोंयांत रेखाच्या सावळेची लेगीत सर येवपी चली ना.' अशें सांगून आमी ताका कितलो समजायलो. निमणें कडेन पन्नाशी हुपतकच ताचे जिणेंत खुबसुरत सिनेमांतली दिना पाठक आयली. नशीब एक एकल्याचें! हिंदींत एक म्हण आसा, 'शादी का लड्डू जो खाये वो पछताए जो न खाये वो भी पछताए.' आतां जो न खाये वो पछताए हें हांव समजूंक शकतां पूण जो खाये वो पछताए हें म्हाका बरें पटना. म्हाका काय तसो अणभव येवना आनी लग्न

करतना तसो हांवें विचारुय केलो ना. वयल्यान 'अकरा वाजून दोन मिण्टांच्या शुभमुहुर्तावर ब्राह्मणांच्या साक्षिने' जेन्ना हांव लग्न जालों तेन्ना दोन काशी स्टॅण्डर्ड कम्पनीचे माराण (ज्याचेर सोबीत चलयेचें चित्र आसता कित्याक खबर ना) पेटयल्ले. लग्न जावंक सोदप्यांक आकांताचें पासियेंस जाय आनी तें शेवट मेरेन टिकून उरपाक जाय हें लग्न जाल्ल्या सगळ्या वाचकांक आतां मेरेन कळ्ळांच आसतलें. जांचें पासियेंस सोंपता तांच्या तोंडांतल्यान 'इतकेच मला जाताना सरणावर कळले होते, मरणाने केली सुटका जगण्याने छळले होते' असलीं नाका जाल्लीं उतरां भायर पडटात आनी आमी तांची काकुळट सोडून कांयच करुंक शकनात. 'छत्रपती शिवाजी महाराज शूर होते, त्यानी हिंदवी स्वराज्याची स्थापना केली.' हें आमी इयत्ता चवथेंत शिकिल्ले. सगळें बरें आसा पूण तांकां आठ बायलो आशिल्ल्यो, तें आमी सोड, व्हडले व्हडले इतिहासकार लेगीत विसरतात. सकवारबाई, पुतळाबाई, सईबाई, सोयराबाई, गुणवंताबाई, सगुणाबाई, काशीबाई, लक्ष्मीबाई ह्यो सगळ्यो बाई घरांत आसतना शिवाजी महाराजांनी आपली तकली थंड दवरुन हिंदवी स्वराज्य स्थापन केलें. 'समय प्रसंग ओळखावा राग निपटूनी काढावा, आला तर कळो न ध्यावा जगा माजी' हो तांचो गूण तांच्या कामी आयलो काय खबर ना. ते गनिमी काव्यांत सामके तरबेज आशिल्ले. ताचो कितलो उपेग हांगां जालो हो संशोधनाचो विशय. म्हज्या वैवाहिक जिवनांत आणिबाणिचे प्रसंग येतात तेन्ना समर्थांच्यो 'शिवराजांचे आठवावे रुप, शिवराजांचा आठवावा साक्षेप, शिवरायाचा आठवावा प्रताप ह्या भू मंडळी' ह्यो वळी हांव धा फावटीं म्हणटां. मागीर म्हाका कसलेय आणिबाणीक तोंड दिवपाची आपशींच ताकत येता. बायलेक घरा दवरुन हांव खंयूय सुशेगाद असो बसूंक सोदतां म्हळ्यार तें कशेंच जमना. घरोघरी मातयेच्योच रांदनी, तुमचोय होच अणभव आसतलो हें हांव जाणां. हांव उगडपणान सांगतां तुमीं धांपणी घालतात इतलोच फरक.

पयर हांव पणजे गेल्लों. नॅशनल थेटरा भायर बरो बोर्ड पळोवन हांव

भितर सरलों. सिनेमाचें नांव सुनहरी रातें (ए). पड्ड्यार सर्टिफिकेटाक सोबऽ सारको बरो सीन चलतालो. इतल्यांत हिची एसएमएस आयली...डियर, मिल्क स्पोयल्ड ब्रिंग वन पॅकेट. हांवें जाप दिवंचे पयलींच परत रोखडीच टिंग टिंग... डियर व्हेर आर यू? नो रिप्लाय सो स्ट्रेंज. ब्रिंग गोकूळ पॅकेट ओनली. ईट ईज थिक एण्ड गूड साय. गोकूळ दुदान म्हाका स्वस्थ चित्तान पड्ड्यावयलीं सुनहरी रातें पळोवंक दिलीं ना. जिणेंत सुनहरी रातें आयलींच ना. पड्ड्यारुय पळोवपाचें भाग्य म्हाका लाभलें ना. आतां लिव-ईन रिलेशनशीप हो नवो कॉन्सेप्ट आयला. हाका लागून लग्न संस्थेक धक्को बसला. लिव-ईन रिलेशनशिपींत लग्नाचे सगळे फायदे मेळटात पूण लग्नाक लागून जे त्रास भोगचे पडटात ते भोगचे पडनात. दूद जाय म्हणून कोण अख्खी गाय घरांत हाडून बांदीनात, आमी लग्न करुन ज्यूस्त हेंच करतात. लिव-ईन रिलेशनशिप्सांनी अशें घडना. हाका लागून सगळ्या प्रस्नांचो सुटावो जाता. आमच्या टायमार लिव-ईन रिलेशनशिप कॉन्सेप्ट येवं नाशिल्लो हाचें म्हाका भयंकर दुख जाता. आज बऱ्यो बऱ्यो हिरोईणी लिव-ईन रिलेशनशिपींत रावतात तें पळोवन म्हजो जीव अर्दो जाता. हाचो अर्थ हांव तांच्या बरोबर लिव-ईन रिलेशनशिपींत रावतलो आशिल्लों असो न्हय, तें शक्यूय नाशिल्लें. तांकां वेवसायाक लागून गोंयां येवन रावप शक्य जावंचें नाशिल्लें आनी म्हाका गोंय सोडून आई मुंबय धाडची नाशिल्ली. आसूं, म्हज्या नशिबांत लिव-ईन रिलेशनशिपूच नाशिल्ली अशेंच म्हणचें पडटलें.

लग्न खूब तरांनी जावं येता, सोयरीके वरवीं, मोग करुन. तातूंत मागीर आनीक सब कॅटेगरी आसा, मोग करुन पळून वचून लग्न करप. सोयरीक करुन पळून वचून चडशें कोण लग्न करीनात. ते हॉल वा देवूळ अश्या भौशीक सुवातीर ब्राह्मणाचे साक्षींत लग्न करतात. घरांत लग्नाक विरोध बी आसल्यार पळून वचून लग्न करतात आनी मागीर एक भुरगें जातकच सगळीं जाणां कांयच जावं नाशिल्ल्यावरी एकठांय येतात. सगळीं जाणां म्हणजे जाल्लें भुरगें

सोडून सगळीं जाणां. पळून वचून लग्न करपांत खूब थ्रील आसता. खर्चूय कमीं पूण हाचे खातीर खूब कापास्दाद जाय. म्हाकाय दोन तीन पळून वचून लग्न जावपाचीं प्रोपोजलां आयिल्लीं पूण म्हजे कडेन ती कापास्दाद आनी पळून वचपा खातीर लागपी तिकेटीचे पयशे लेगीत नाशिल्ले. रायबंदर ते पणजे तिकेटीचे (अंयशी पयशे) इतलेच पयशे गांठीक आसताले. हें हांवें प्रोपोजल हाडप्यांक सांगतकच (नांवां सांगना, आतां तांचें लग्न जावन दोन तीन भुरगीं पदराक आसात) ताणीं कपड्यांनी भरिल्ल्यो बॅगो रित्यो केल्यो. सोयरिके वरवीं लग्न जावपांतूय प्रकार आसा. कांय दिसाळ्यांनी मॅट्रीमोनियल कॉलम येतात. तातूंतल्या चलयांचीं वर्णना वाचतकच म्हाका मॅट्रीमोनियल कॉलमांतलेच एके चलये कडेन लग्न जावंचेशें दिसतालें. मागीर दोळे धांपून हांव दिसाळ्याचेर बोट फिरयतालों आनी मदींच बोट थांबोवन दोळे उगडटालों. ज्या कॉलमाचेर म्हजें बोट थांबलां ती म्हजी भावी पत्नी अशें समजून हांव मनांतल्या मनांत मुर्गुट्टालों. हे कॉलम चडशे आयतारा येताले. आई हीं पानां वाचऽ नासतना डायरेक्ट नुस्तें उजरावपाक घेताली हाचे वयल्यान आईचें ह्या कॉलमा बद्दल मत तुमकां कळ्ळांच जातलें. शेजारच्या राज्यांत एलिजीबल चल्यांक वा चलयेक आनी तांच्या आवयबापायक 'यंदा कर्तव्य आहे का' अशें विचारपाची प्रथा आसा. हांगां ती फॉर्मेलिटी पळोवपाक मेळना. हांगां, 'आगो, आमच्या स्वप्नीलाक बरी कोणूय चली आसल्यार पळे गो. आसा तुजे नदरेंत कोणीय? आमकां तुज्या सारकीच सून जाय आं!' अशीं वाक्यां लग्नाचो मौसम लागीं पावतकच देवळांनी, लग्नाच्या हॉलांनी, वाडदिसाच्या पाट्यांनी आयकूंक मेळटा. फाटीं जिएमसींत दुयेंतीक मेळपाक गेल्ले कडेन एकटेन लारांजां खाटी कडेन दवरुन वयलो डायलॉग सोर लायिल्ले दुयेंतीक मारलो. हांवें तो म्हज्या ह्या कानांनी आयकलो (हांवें दुयेंतीक मारी बिस्कुत्यांचो पुडो व्हेल्लो ही म्हायती तुमच्या खातीर).

गोंयांत सोयरीको करतना थळाचें इन्फॉर्मेसांव सदांच बरें मेळटा. आमची

सोयरीक करपी मध्यस्ताक, चली कशी रे, ह्या आईन विचारिल्ल्या प्रस्नाक ताणें सालांत मर्दी रावन चलयेचें वर्णन सकयल दिल्लो श्लोक म्हणून केलें. श्लोक म्हणटना ताणें दोनूय हात जोडिल्ले. कित्याक कोण जाणां..'आमचें बाय मगे, कार्येषु मंत्री, कर्णेषु दासी, भोज्येषु माता, शयनेषु रंभा, रुपेषु लक्ष्मी क्षमया धरित्री...' म्हजे दोळे भरुन आयले. श्लोक सोंपतकच हांवेंय हात जोडले आनी लग्नाचे तयारेक लागलों. लग्ना उप्रांत एका म्हयन्यांत होच मध्यस्त आमचो संवसार कसो चल्ला तें पळोवपाक आयिल्ले कडेन आईन ताका सालांत जे सुवातेर उबो रावन ताणें श्लोक म्हणिल्लो तेच सुवातेर उबो करुन, 'हीं पापां तूं खंय फेडटलो रे पापया?' असो प्रस्न विचारलो. ताणें मोन्यांनी परतेय हात जोडले. हांवेंय ताका व्हड मनान माफ केलो.

लग्नाचीं उलोवणीं सर्व साधारण सगळे कडेन सारकींच जातात. फकत शब्दावळ बदलता. शेजारच्या राज्यांत उलोवणे वेळार हुंडा बी असलें उतर वापरतात. आमी,'तुमी कितें घालतलीं तें घाला' असलीं उतरां वापरतात. तांचो अर्थ एकूच. तुमी 'घालतलीं तें घाला' हाका एकूच शब्द दिया असो पेपरांत प्रस्न आयल्यार गोंयकार विध्यार्थी हाका हुंडो अशीच जाप दितलो हाची म्हाका खात्री आसा. सगळीं जाणां आपले तांकी प्रमाण घालपाचें तें घालताच, सोड. मागीर प्रसाद पाकळी जाता. देव कोणाक लग्न जावं नाका म्हणिना. हॉल पयलीं थारता त्या प्रमाण मागीर लग्नाची तारीख थारता. आतां लग्न गास्पार डायसांत करपाचें काय सातेरीच्या हॉलांत करपाचें तें लग्न कोणाचें हाचेर निंबून आसता. आमचें लग्न आमचे तांकी प्रमाण सातेरी मंडप भोम, गोंय हांगां जालें. सगळ्या लग्नांनी भट आसता आनी मंगळाश्टकाय तींच आसतात. तेलाक आमी नॅपकीनां आनी जिंगल बॉल आयस्क्रीम वांटिल्लें. मागीर थारिल्ल्या म्हुर्तार लग्न लागता तशे भायर माराण पेट्टा. आतां कितले माराण पेटोवप तें जाचे ताचे उमेदीर निंबून आसता. अडिल्ल्या चल्याच्या वा चलयेच्या लग्नाक दोन पेटयो स्टॅण्डर्ड माराण पेटिल्ल्यो हांवें पळेल्यात. मागीर पुलाव,

बटाटाची भाजी, पुरयो अळसांद्यांचे बियो घालून तोणाक, मिर्ची, लोणचें पापड अशें जेवण जाता. पार्टी ताळगांव, मिरामार, दोनापावल रावप्यांची आसत जाल्यार मेनूंत बदल जावं येता. गास्पार डायस हॉला भायर मर्सिडीस, बिएमडबल्यू असल्यो गाडयो उब्यो आनी बुफेक बटाटा भाजी आनी पुलाव असलो मेनू सोबना हें तुमी मान्य करतले. म्हज्या लग्नाक म्हज्या ताटा सरभोवतणी रांगोळी घालून गुलाब छाप उजवाती पेटयल्ल्यो. हांवें हिच्या तोंडांत मिरसांग घाल्ली आनी हिणें म्हज्या तोंडांत वोडी (कुंवाळ्याची). आदल्या तेंपार व्हंकल पावणे वेळार रडारड जाताली खंय, आतां तें चित्र दिशटी पडना. हाचे फाटलें कारण एक संशोधनाचो विशय. आवय बापायचें धुवे वयलें (वायस वर्सा) प्रेम कमी जालां अशें म्हणपाक हांव धजना, फाल्यां म्हज्या आनी दारांत सगळीं जाणां उबी रावत. तर, आमचे व्हंकल पावणे वेळार रडारड काय जाली ना. गाडयेंत बसतना आवयचो व्हंकले कडेन संवाद मात जालो...,

''आई हांवें आंगणांत म्हजे चुडीदार सुकत घाल्या ते काड गे, रातचो पावस बी पडत.''

''काडटां गो.''- आवय.

''आनी मशिनांत कपडे घालतना धवे कपडे सेपरेट घाल.''- व्हंकल गाडयेचो हारसो सकयल काडीत (एसी गाडी केल्ली).

''बरें गो.''- आवय.

आनी आमची गाडी सुटली. घरा पावतकच आनीक व्हडलें कितें इन्ट्रेस्टींग घडटा अशें म्हाका तरी दिसना. आमी हॉलांतल्यान उरिल्लें जेवण डब्यांनी भरुन हाडिल्लें (शीत, मूग, उड्डमेथी उरिल्ली). तें जेवन न्हिदलीं. हिंदी सिनेम्यांनी मैत्रिणी दुल्हनीक बेडरुमांत धुकलतात आनी किटकिट्टात. प्रत्यक्षांत तशें कांय घडना. 'कसलो बाये उजो हांगां' अशें म्हणत दुल्हन भितर सरली. केंसांची लिगां काडलीं, फांतयो कोनश्याक मारल्यो आनी घोऽ करुन खाटीर घालून घेतलें. म्हजो सामको विरस जालो. घुंघट घेतिल्ली दुल्हन भितर सरतली

अशें धरुन सगळी कल्पना शक्ती तांणून हांवें फुडलो प्रॉसेस आंखिल्लो. तें सगळें पाड पडलें.

लग्ना उप्रांत थोड्यांगेर पुजा बी करतात. जांकां थार ना तीं डायरेक्ट हनीमुनाक प्रयाण करतात. आमचीं पांच पर्तवणां जालीं. पांच पर्तवणां ही बरी प्रथा. ताका लागून मावोडेच्या मनशांचीं आपल्यां कडेन वळख जाता. पांच पर्तवणाच्या मेनू वयल्यान आपली पत मावोड्यां कितें ती जावंयाक रोखडें समजता. म्हाका रोखडें समजलें (कसलें तरी हुमण. वाटयेंत बोट दोनदां घुंवडायलें तरी कळ्ळें ना, पातसाळीं तळिल्लीं, मुगां उसळ, पापड, ताका कडी). मागीर आमी बांद्या मधुचंद्रा खातीर प्रयाण केलें. सावळ्यान वळखीन शेतांत पोरणें घर घेतिल्लें. मधुचंद्र सैमाच्या सानिध्यांत अपेक्षे भायर बरो जालो. हांव पांचां पैकी तीन गूण दीन. दोन दिसांनी घरा आयलीं. फुडल्या दोन दिसां भितर..., 'म्हाका कितल्योश्योच सोयरिको येताल्यो. दोगांनी तर म्हाका मागणी घाली. खंयची दुर्बुद्दी सुचली आनी तुमकां हय म्हणलें' हीं उतरां कानार पडलीं आनी म्हाका हांव लग्न जाल्ल्याचें जाणवलें.

हांवें ही म्हज्या लग्नाची कर्मकाणी सांगल्या. कोणाकूय आपल्या लग्नाची काणी बरयिल्ल्यावरी दिसत जाल्यार तो केवळ योगायोग समजुचो.



# वाज येता तेन्ना

**Boredom** results from a defect of sensory responsiveness to the external world अशें कोणें तरी म्हणलां. वाज येवप म्हणजे मराठींत कंटाळा येणे, हिंदीत उब जाना, इंग्लीशींत To get bored. संवसारांतल्या सगळ्या भासांनी ताका शब्द आसा. हाचो अर्थ हे भुंयेवयली सगळी मनीसजात केन्ना ना केन्ना वाजेतात.

देव सुद्दां वाजेतात अशें म्हाका सावळ्यान सांगलें तेन्नाच म्हाका जांबय येताली, ती हांवें गिळ्ळी (हय, जांबय गिळूं येता). ताणें म्हाका हाचेर इंफोर्मेसांव दिलां तें अशें, देवान खंय पयलीं दादलो तयार केलो. मागीर देवाक कितें जालें खबर ना. ताका वाज सो आयलो आनी ताणें जांबय दिली. दुसरो स्टेप ताणें आळस दिलो आनी मागीर बायल तयार केली. हाचो अर्थ देवाक वाज आयलो म्हणून ताणें बायल तयार केली आनी आतां हीच बायल आमकां वाज हाडटा. आसूं तांकां देव पळोवन घेतलो.

मनशांक वाज येता तसोच जनावरांकूय येता असो म्हजो अभ्यास सांगता. म्हाका वाज येता तसोच टायगराकूय (आमचो कुत्रो) वाज येता. तो मागीर आपले चारुय पांय स्ट्रेच करता, एक जांबय दिता आनी मागीर चारुय

पांय वयर करुन आंगणांत वताक पडटा. हांवूंय जांबय दितां, म्हाका देवान दिल्या तें दोनूय पांय आनी दोनूय हात स्ट्रेच करतां आनी दोन पांय वयर करुन सोंप्यार बसतां. तरी आसतना आई जनावरां परवडलीं म्हणटा (तिणें टायगर परवडलो, तूं न्ही म्हणिल्लें, आसूं).

वाज एकदम येना तो कसो येता तो वयर इंग्लीशींत सांगलां. ताका प्रोसेस आसा. पयलीं हात स्ट्रेच करुन आळस दिवप 'आवय गेऽ, वाऽऽज आयलो' अशें जाहीर करप. मागीर ' हाऽय हाऽय हाऽय' अशी जांबय दिवप आनी जांबय दितना आपल्या तोंडा कडेन हाताच्या आंगठ्यान आनी दुसऱ्या बोटान टिचकी वाजोवप. थोडीं मनशां वाज येवन जांबय दितना आपले कुलदेवतेक याद करतात आनी तिका पाव म्हणटात. देखीक, 'आऽहाऽ हाऽय हाऽय शांतादुर्गे पाव गे सायबिणी' आनी मागीर टिचकी वाजयतात. आतां वाज येता तेन्ना कुलदेवतेक कित्याक याद करतात आनी टिचकी कित्याक वाजयतात हाचो सोद आमी (आमी म्हणल्यार हांव आनी सावळो) लावपाचो यत्न केल्लो पूण अजून यश मेळूंक ना. सोद लागतकच सगळ्यांक कळयतले. आतां जांबय दितकच सॉरी म्हणपाची स्टायल आयल्या ती म्हाका खबर नाशिल्ली. फार्टी व्हडल्यान (उगतें मळब फेम) जांबय दितकच सॉरी म्हणलें. पयलीं म्हाका कळ्ळें ना. मागीर ताणें म्हाका विस्तारुन सांगलें. तशें म्हणलें ना जाल्यार लोक ॲटिकेट्स ना म्हणटात हो बोध हांवें तातूंतल्यान घेतलो. म्हाका तें म्हणटा तातूंत तथ्य आसा हें रोखडेंच कळ्ळें कित्याक तें सांगतां. दुसरे दिसा हांव मडगांवां वतालों. लेडीस सीटा फाटल्यान बशिल्लों. मन बरें रमिल्लें तरी आसतना अडेची जांबय दिली आनी व्हडल्यान 'सॉरी' म्हणलें. लेडीस सीटान इम्प्रेस जावन फाटल्यान पळेलें आनी म्हाका जांबय दिल्ल्याचें चीज जाल्ले भशेन दिसलें.

आमचें श्रद्धास्थान समर्थांनी दासबोधांत उत्तम नाम लक्षणां सांगल्यां. तातूंत मुर्खाचींय लक्षणां सांगल्यां. दासबोध कोणें वाचूंक बी ना जाल्यार तीं

सगळीं लक्षणां म्हाका पळेल्यार कळटात अशें आई म्हणटा. म्हणूनी बाबडी. तर, हातूंत समर्थ म्हणटात 'आळसे सुख मानू नये' हें उत्तम मनशाचें लक्षण. जो आळसान सुख मानीना तो उत्तम पुरुश. वाज येतकच आळस येता हें आमी आमच्या अणभवांतल्यान जाणां. हाचे वयल्यान आमच्यांतले कितले जाण उत्तम पुरुश हें आप आपणें ठरोवपाचें. हाचेर हांव भाश्य करिना, It is personal matter.

आमकां (आमकां म्हणल्यार म्हाका आनी दत्ताक) शिकप म्हणल्यार वाज येतालो, पयली सावन. हांगां पयली म्हणल्यार इयत्ता पयली. पाटील गुरुजी पुस्तकांतल्या कवितांक बऱ्यो चाली लावन शिकयतालो तरी सुद्दां आमकां वाज येतालो हें तुमकां सांगल्यार फट दिसतलें. एक दीस गुरुजी 'या बाळानो या रे या' कविता तल्लीन जावन शिकयतालो. हांवें तेच चालीचेर एक व्हडली जांबय दिली, फोलोव्ड बाय दत्ता.

''बाळानो तुमीं जांभई का देता बरे? हा माझा आनी कवितेचा अपमान आहे बरं.'' गुरुजीन कळवळून म्हणलें. तेन्नाचे गुरुजी कळवळटाले हें हांव हांगां नमूद करुंक सोदतां. आतांच्या टिचरांक कितें जाता तें म्हाका खबर ना.

''गुरुजी आम्हाला जरा वाज आला आहे.'' दत्तान आमचे वतीन जाप दिली.

''बाळानो कंटाळा कसा येईल बरं? कवी म्हणटो मजा करा रे मजा करा आज दिवस तुमचा समजा.''

''आमचा दादो म्हणतो हुर्राक मध्ये झेलाद लिम्का आणी त्यावर लिंबू पिळला तर मजा येते. सोबत तणात भाजलेला बांगडा असला तर उत्तम. ही मजा कुठली हो गुरुजी?'' दत्ताचें कोवळें वय तें, ताणें साधेपणान हो प्रस्न विचारलो.

''मी तुझ्या दादोना भेटेन.'' गुरुजीन म्हणलें.

''दादो संध्याकाळी साडे सात वाजता मजा करतो.'' दत्तान टायम

सांगलो आनी गुरुजीन घंटा वाजयली.

वाज येवपाक भुरगेपणांतल्यान सुरवात जाता हाका कोण आडवाद आसत अशें म्हाका तरी दिसना. भगवान कृष्णाक लेगीत ल्हानपणांतल्यान वाज येतालो अशी मोलादीक म्हायती म्हाका सावळ्यान दिल्या. ह्याच भगवान कृष्णान फुडें व्हड जातकच आमकां भगवद गिता सांगली हें तुमकां चडशे जाणांक खबरुच आसतलें. ह्या दोन गजालींनी संबंद आसा अशें हांव म्हणिना. भगवान कृष्णाक खंय ताची आवय तो वाज हाडटा म्हूण बांदून घालताली (हांगां आवय म्हणटकच म्हाका गोंदळूंक जाता देवकी काय यशोदा, आसूं). भगवान कृष्णाक स्वताक वाज येतालो आनी मागीर तो आवयक वाज हाडटालो. भगवानाक कितेंय पचता, सोड. हालींच्या काळांतली गजाल, सावंताली नात सऽ म्हयन्यांची आशिल्ली. सालांत ती खुळखुळो घेवन खेळटाली. टि.व्हीचेर 'आमची माती आमची माणसं' प्रोग्राम लागिल्लो. नातीन तो पळे पळे पळेलो. पिरायेनुसार तिणें ल्हानशी जांबय दिली आनी दिमकुन्यांनी वचून टि.व्ही. बंद केलो. तिचो आजो ही गजाल अजुनूय सांगता. ही पुराणांतली गजाल न्हय.

'आमची माती आमची माणसं' हो वाज येवपा सारको कार्यक्रम न्हय तें हांवूय जाणां. फार्टी हिका ॲग्रिकलचर ऑफिसर पदवे खातीर शेतकी खात्यांतल्यान कॉल आयिल्लो (हय, गोंय सरकाराचें शेतकी खातें म्हणून एक खातें आसा). हिणें आपल्या बायोडेटांत, अणभव ह्या कॉलमा खाला I saw 'आमची माती आमची माणसं' for last five years' अशें बरयलें. फुडें कितें जालें खबर ना. हिका आफोवणें काय आयलें ना. हाका लागून गोंयच्या ॲग्रिकलचराचो कितलो फायदो वा लुकसाण जालें हें कळपाक मार्ग ना.

मनीस खंय चडान चड पंचेचाळीस मिण्टां पासिंयेस काडपाक शकता अशें मानसशास्त्र सांगता. हाका लागून कॉलेजींत लेक्चरां पंचेचाळीस मिण्टांचींच आसतात हें हांव सांगतां. देवळांत किर्तन, पालखी भायर काड ऽ सर चलता. हाका लागून ताची लांबाय वाडटा आनी म्हाका मागीर वाज येता.

तुमचें म्हाका खबर ना. एकदां कवळ्यां किर्तन रंगार आयिल्लें. 'सीताहरण' बुवा हाव भाव करुन म्हाजनांक समजायतालो. महिलांनी ह्या बाजूला बसावे. हे वटेंतल्यान 'आवय म्हजे!', 'शी बाये' अशे उद्गार आयकूंक येताले. ते उद्गार आयकून बुवाक आनीक चेव आयलो.

'सीता माईने लक्षिमण रेखा ओलांडली तोच साधूने तिला उचल्ली!' बुवान हाव भाव करुन तिका कशी उचल्ली तें दाखयलें.

'ह्याच साठी मी फ्लॅटचं दरवाजा उघडत नाही बाई. नले, तू पण उघडू नको. आता रावण कुठल्या रुपानी येईल सांगता येत नाहीं.' मुंबयकाल्लीन हें वाक्य म्हाका पळोवन म्हणलें अशें म्हाका ओगीच दिसलें. इतल्यांत हांवें व्हडली जांबय दिली, 'शांतादुर्गे पाव गेऽऽ' हांवें पालखेंतले देवतेक म्हणलें आनी बुवाचो इन्सल्ट जालो.

' सीतामाईचे हरण झाले असता लोकाना जांभई येते हा घोर कलयुग आल्याचा पुरावा नव्हे काय?' ताणें म्हाका पळोवन सवाल केलो. म्हाका हांवूंच कली कसो खीणभर दिसलें. दुसरी जांबय हांवें गिळ्ळी.

Love affair fails usually out of boredom अशें म्हणलां. म्हाकाय हाचो हय न्हय सो अणभव आयला. आमचें लव अफैर न्ही हें पयलींच सांगतां. बेताळाक बायल मेळना आनी काळबा देवीक घोव मेळना अशी आमची गत आशिल्ल्यान तें अफैर फेलूय जालें ना. ताचें अशें जालें, म्हाका शेर्मांव कशें उलोवप आयकुपाक वाज येता. आमच्या लग्नाच्या रजिस्ट्रेशनाची पयली सय जातकच हिची आवय म्हणपाक लागली..

''तुमी मेळात न्हय.''

''ताणें कितें जातलें?''- जावंय (हांव)

''एकामेकाची वळख जातली आनी फुडें संवसार सुखाचो जातलो.''

''अशें? तशें जाल्यार बरें आसा. हांवें त्या एंगलांत विचारुच करुंक नाशिल्लो.'' अशें हांवें म्हणलें आनी आमी दोगांय मिरामार नुस्त्यान 'आं' केलां

त्या पुतळ्याच्या तोंडांत वचून बसलीं. हिणें संवसार सुखाचो करपा खातीर तोंड उगडलें..

"आयकता न्हय?"

"हय.." हांगां म्हाका पयली जांबय आयिल्ली. नुस्त्या भशेन तोंड आं ऽ जाता तें हांवें बंद केलें.

"आज हांव पयले खेप रांदचेकुडींत भितर गेलें. आतां रांदपाक शिकपाक जाय न्हय? आयकता न्हय?"

"हय.." हांवें परत जांबय गिळ्ळी.

"पयलीं खंयचो जिनस करपाक घेतलो तो सांगां पळोवया?"

"खंयचो?"

"सांगां न्हय? तुमीं मात्तूय इन्ट्रेस्ट घेना."

"च्या?"

"च्या जिनस?"

"मागीर?"

"सांगां न्हय? फुडारान संवसार सुखाचो जावपाक जाय जाल्यार तुमी इन्ट्रेस्ट घेवपाक जाय."

म्हाका हांगां 'छोटी सी बात' सिनेमांतल्या एका सीनाची याद जाली. अरुण( अमोल पालेकर) आनी प्रभा( विद्या सिन्हा) हांची नवीच वळख जाता आनी तीं बस स्टोपार मेळटात.

"मैने EROS में नई पिक्चर देखी. आपने देखी?"- अरुण

"नहीं."- प्रभा

"आजकल बस लेट आती है, नहीं?"- अरुण

आनी मागीर प्रभा जांबय दिता. आमचेंय तशेंच जाल्लें, मात म्हाका जांबय येताली...

"कितें चित्तात तें सांगां न्ही."

''पाव भाजी?'' हांवें विचारुंक जाय म्हूण विचारलें.

''आवयस! डायरेक्ट इतली डिफीकल्ट डिश?''

''मागीर सांग बाये एकदांचे!'' हांव मनांत आङ्कुलों... ''सांग मुगो.''

''चायो बोयो.''

''आवयस इतली डिफीकल्ट?''

''मागीर विचारीना कशी केली ती? पयलीं फुटिल्लें दूद घेतलें आनी मागीर घात जालो.''

हांवें नुस्त्या परस व्हडलें तोंड उगडून जांबय दिली.

''तुमकां इतल्यानूच म्हजो वाज आयलो? आमचो फुडाराक संवसार सुखाचो जांवचो ना दिसता.''

'म्हाकाय तशेंच दिसता' हें हांवें मनांत म्हणलें. ''आगो ऑक्सीजन कमी जातकच मनशांक जांबयो येतात''.

''हांगां वेळेर ऑक्सीजन कमी जालें तुमकां?''

''आगो हें खारें वारें तातूंत ऑक्सीजन कमी आसता. हे ऽ त्या जोडप्याक पळे नवेंच लग्न जालां दिसता. हनीमूनाक आयलां दिसता. तो पळे दादलो कसो जांबयेर जांबयो दिता.''

''हय आं खरेंच. हांव बी.एस.सी जालां खरें पूण कितें शिकिल्लें तें सगळें विसरलें. हांव बी.एस.सी विथ जियोलॉजी खबर आसा न्ही तुमकां?''

''हय तर.''

''यू आर सो स्वीट. घरा वतकच तुमकां हांवें म्हज्या हातानी केल्ल्यो चायो बोयो खावयतां.''

''खावय मुगो, तुज्याच हातान खावय मुगो.'' हांवें जाता तितलो रोमॅण्टीक जावपाचो यत्न केलो.

''शीऽऽ लग्ना पयलींच? हांव ना.''

मागीर घरा वतकच हांवें चायो बोयो खाल्ल्यो.

''हाणें केल्या त्यो''. आवयन म्हणलें

मागीर सात दीस डिसेण्ट्री जाली. दोतोर रायकारान फूड पोयजनींग अशें विधान करतकच आईन घर माथ्यार घेतलें. आसूं.

केन्ना केन्ना तुमकां वाज आयिल्लो नासता, दुसऱ्यांक आयिल्लो आसता पूण त्रास मात तुमकां जाता. हांव केन्ना न्ही तो 'काकस्पर्श' ह्या मराठी सिनेमाक गेलों (आयनॉक्स तिकेट २२०/-). फुडें एक साठ वर्सांची बायल, एक तिशींतली बायल आनी एक आठ वर्सांचो भुरगो अशीं बशिल्लीं. राष्ट्रगीत जालें आनी सिनेमा सुरु जालो.

''सिनेमा श्राद्धाचेर काय कितें गो? आऽ हाऽ हाऽ हाऽय.'' साठी जांबय दीत.

''राव गे सिनेमा सुरु जाता थंय आसा.''- तिशी.

''सिनेमांत सल्मान चाचू आसा गे?''- आठको.

''ना.''

''तुवें म्हाका सांगिल्लें तो आसा म्हणून आं. चिटींग केलें तुवें.''

''आगो ताका कित्याक फट मारली तुवें?''

''नाजाल्यार तो येवंचो नाशिल्लो. ताका खंय दवरपाचो मागीर? तूं एक!''

''कावळो पिंड व्हरना गो सिनेमांत? आऽ हाऽ हाऽ हाऽय.'' परत जांबय.

''राव गे, वाज सो.''

''हांव, चार दिवस सुनेचे आज एक वराचो एपीसोड आशिल्लो तो तरी पळेतली आशिल्लीं.''

''शूऽ शूऽऽ.''- हांव

''आमीं कितें पयशे दिवन येवंक ना? थेटर हांचें बेंस?'' साठी म्हाका पळेत.

''ओगी राव गे!''- तिशी.

"मांय सुनो आसा मगो हातूंत, आऽ हाऽ हाऽ हाऽय."

जांबय येदी व्हडली की पड्ड्या वयल्या सचीन खेडेकारान पसून फार्टी वळून पळेलें अशें म्हाका ओगीच दिसलें.

'न्हय त्या गोष्टीचो वाद करचो न्हय रे' अशें एकदां म्हाका म्हज्या बापायन (१९११-१९८१) पोरसांत नदर मारीत सांगिल्लें. म्हाका ताचें हें सामकें पट्टा. हे बाबतींत आमकां (हांगां आमी म्हणल्यार समेस्त पुरुशवर्ग) खूब पासियेंस. वर्सांचीं वर्सां आमी एकेच बायले बरोबर संवसार करतात. दोन दीस सेगीत सांगों घाल्लो दाळीचो रोस पानार पडटकच तोंड वाकडें करपी दादलो वर्सांचीं वर्सां एकेच बायले बरोबर संवसार कसो करता हें कुवाडें लग्नाच्यो गांठी मारपी ब्रह्मदेवाक लेगीत सुटूंना अशें सावळो म्हणटा. सोड.

वाज कोणाक केन्ना खंय कसो येत हें सांगू नजो. कारण boredom is a state of mind. कितलें खरें..... आऽ हाऽ हाऽ हाऽय..... आवय गे देवाऽऽ... सॉरी!



# वातावरण निर्मिती

**आमी** गोंयकार उठले आनी कामाक लागले अशें केन्नाच घडना. आमी त्या खातीर फावो तशें वातावरण पयलीं तयार करतात नाजाल्यार आमकां तें काम करपाक फावो तशी उमेद येना. ह्याच खातीर गोंयकार फावो तें वातावरण निर्मिती करता आनी मागीरुच त्या कामाक हात घालता. दर खेपे तें कामूच आसूंक जाय अशेंय ना तें मागीर कितेंय आसूं येता. सादो आयतारुच आमी घेवंया. आयतार आशिल्ल्यान त्या दिसा शाळा, कॉलेज, ऑफिसां, दोतोर बी सगळे बंद आसतात, हें आमीं अणभवान जाणां. हांवूंय त्या दिसा घराच आसतां (मुंबई आनी कल्याण बाजार शनिवारी आणि रविवारी बंद राहील). आतां ह्या आयतारचे सुटयेचो उपभोग गोंयकारांक डायरेक्ट घेवपाक जमना. त्या खातीर तो शेनवार सावन वातावरण तयार करता आनी मागिरुच सुटयेच्या मोडांत (Mode) वा मूडांत (Mood) वता. आमगेलीच गजाल घेवंया. आमगेर आयतारा खातीर वातावरण निर्मिती कशी जाता ती पळोवया...,

''फाल्यां आयतार, पोळ्यांक घालूं काय इडल्यो करपाच्यो?'' घरची अन्नपूर्णा सालांत कंबरार हात दवरुन.

''फाल्यां खतखतें करतली म्हणटाली न्ही गे तूं?''- आई देवा कुर्डितल्यान.

''सामान हाडल्यार जावपाचें न्ही तें? हय व्हो, दुदया शीर आनी मुंडल्यो हाडात. दुदया शीर आं नाजाल्यार अख्खो दुदी हाडश्यात त्या मालाची भर करपाक!'' (माला, पणजी बाजारांत भितर सरतना दाव्यान तिसरें).

''जालें?''- हांव.

''ना याद जाता तशें सांगतां. आं, येतना दंतांच्यो गुळयो हाडात. रातभर म्हज्या काना कडेन दांत करकरायतात तुमी.''

''आनी तूं केंस केन्ना मारतलो रे? बेनुल्ल दोळ्यां कडेन येवपाक लागली तुज्या. आमचें शास्त्र्यांचें घराणें पापया. मतींत दवर. याद उरना जाल्यार मदीं मदीं माळ्यार चडून भोंवरे दवरिल्ल्या जाण्टेल्यांचे फोटो पळे.''- आई.

''केंस म्हणटकच बरी याद जाली. फाल्यां हाव माथ्यार न्हातलें. क्लिनीक शाम्पूची एक बाटली हाडा, माथ्याक सामकी खरड जाल्या.''- ही.

''माथ्याक खरड जाल्या जाल्यार बरें एका लिम्याचें अर्द घांस माथ्याक.''- आई.

शेनवारा अशे तरेचे संवाद कानार पडटकच आमी सगळीं घरचीं आयताराक येवकार दिवपाक सज्ज जातात आनी रातची ही माथ्यावयल्यान पांगरुण ओडून लायट काडच्या पयलीं, ''हांवें पोळ्यांक घालां आं, फाल्यां आयतार म्हणून न्हिदून रावश्यात म्हाका संक जागया.'' अशी म्हाका शिटकायता. मागीर हांव सामको सुटयेच्या मोडांत वतां.

हें चित्र आमकां गोंयांतूच दिश्टी पडटा कारण हांव आमच्या नलूगेर (म्हजी मेवणी. माहिमाक आसता) आठवडोभर उरिल्लों. थंय सगळे दीस सारकेच अशें म्हाका दिसून आयलें. सगळे हिशोब घड्याळिच्या कांट्याचेर. तांकां पोळ्यांक घालें कितें वा फोव कालयले कितें. कांय फरक पडना.

''नले उद्या आयतार ना ग.''- हांव. (आमचें नलू मुंबय रावन मराठी उलयता. तुमकां खबर आसतलेंच.)

''हो भावोजी उद्या सात दोनची घाई नाहीं.'' (सात दोन म्हळ्यार विरार-

चर्चगेट. म्हज्या साडवाची धरपाची ट्रेन).

"नलू मग काय बेत आयतारचा?"- भावोजी.

"दररोजचे कांदे पोहे, दाळ आमटी आनी फ्रिज मध्ये हाताला लागेल ती भाजी." नलून पदराक हात पुसलो आनी भावोजीन आपल्याक आयिल्लो घाम पुसलो.

रातचें न्हिदतनाय म्हाका नलूगेर आयतारची व्हडली उमळशीक दिसली ना. सगळें अळणी अळणी.

"भावोजी स्वीट ड्रीम्ज." अशें म्हणत नलून हॉलांतली लायट काडली आनी साडूय 'हरे राम हरे राम राम हरे हरे' म्हणत नलूच्या फाटल्यान गेलो. म्हाका हॉलांत शेंदरी घाल्ली.

"पहाटे तीनचा गजर लावा. पहाटे तीन वाजता पाणी येणार. शेजारच्या जोशी काकू सांगत होत्या." नलू साडवाक सांगतालें. म्हाका मात सपनांत हांव गोंयां आसां आनी..,"फाल्यां आयतार उसगांवां वचा आनी मटण हाडा." म्हाका ही सांगता अशें स्वीट ड्रीम पडलें. म्हज्या साडवान उदका खातीर नळ चालू दवरिल्ल्यान आनी ताचो सोंऽ सोंऽ आवाज जाल्ल्यान मागीर न्हीद आयलीना. सोड.

आमी गोंयकार खंयूय भायल्या गांवांक फिरपाक वच्चे आसल्यार ताची उमेद आमकांच न्हय तर सगळ्या शेजाऱ्या पाजाऱ्यांक जाता. आनी ही सगळी मंडळी त्या खातीर वातावरण निर्मितीक आपलो हातभार लायता. ताका लागून हे भोंवडेर वचप्यांची उमळशीक आनी उमेद आनीक वाडटा आनी तांची भोंवडी यशस्वी आनी याद उरपा सारकी जाता. आमी लग्नां उप्रांत, पुजा बी जातकच (घरा सत्यनारायण आनी कवळ्यां दोन दारी पुजा) बांद्या मधुचंद्राक वचपाचीं आशिल्लीं. ही खबर आमच्या वटेन आनी तांच्या वटेन (व्हंकले वटेन) सगळ्यांक खबर आशिल्ली. म्हणटकच ताणीं आपले परीन त्या खातीर फावो तें वातावरण तयार केलें.

''बाय, तूं मधूचंद्राक वता तें शेजारच्या राज्यांत. पोर्तुगेजां वेळार थंय पासपोर्ट लागतालो जाणां तूं?''- तांच्या वटेंतली जाण्टेली.

बांद्यां वचपाक केन्ना तरी पासपोर्ट लागतालो हें आयकून म्हजें कॉलर ओगीच टायट जालें.

''दिदी, थंयचें हवामान सामकें थंड खंय आं! तूं म्हजो स्वेटर आनी आईचें तोपरें व्हर.''- नलू (तेन्ना तें कोंकणी उलयतालें).

''गुलाबी थंडी काय कितें गो?''- लग्नाक आयिल्ली एक अस्तुरी.

''बाय तुमी बांद्यां पावतात तो दीस सुक्रार याद आसा मगो? तुजें संतोशी मातेचें व्रत, आतां आनी तूं सवायशीण. वेगळीं सवळीं आयदनां घे आनी संतोशी मातेची पटी घेवपाक विसरूं नाका. आतांच घाल बॅगेंत.''- जाण्टेली.

''थंय केन्नाय पावस पडटा खंय, इंग्लण्डाक पडटा तसो. केन्ना केन्ना बर्फ पडटा खंय, आत्तां वत आत्तां पावस, सदा सांगतालो.'' हिच्या बापायन हवामानाचो अंदाज सांगलो. हांवें बेगीन बेगीन एक फोल्डींग सत्री हिच्या खातीर आनी लाकडी मुठीची सत्री म्हज्या खातीर भितर घाली.

''भावोजी, तुमची एस.टी. कितल्यांक?''- नलू.

''एस.टी. मगो? पणजे ते सावंतवाडी व्हाया इन्सुली घाट. ती पणजेसून रातची णवांक सुट्टली म्हणजे रिपोर्टींग साडे आठांक जालें ना?''- भावोजी.

''मागीर हांव आठांक वचून जनेला कडेन लेंस उडयतां.''- नलू.

म्हाका हें आयकून भरुन आयलें.

''बांदें सामकें लागीं म्हणटात खरें पूण तुमचें सिमोलंघन जालें ना?''- जाण्टेली.

आमच्या बांद्या ट्रिपी पयलीं अशें वातावरण तयार जालें की म्हजी मधुचंद्राची धुंदी दोब्राद जाली. I was looking forward to अशें इंग्लिशींत म्हणटात तशी म्हजी स्थिती जाली. केन्ना एकदांची पुजा जाता

आनी आमी एस.टींत पांय दवरतात अशें जाल्लें. जर ही वातावरण निर्मिती जावं नाशिल्ली जाल्यार आमीं डायरेक्ट एस.टींत बसून चेक पोश्टार वडा पाव आनी च्या मारुन मधुचंद्राक वतलीं आशिल्लीं. असल्या मधुचंद्रांत कांय अर्थ ना अशें म्हजें तरी मत.

वातावरण निर्मिती खंयच्याच कार्या खातीर वॉर्म अप करता अशें म्हाका तरी दिसता. आमच्या वाड्यार दिवाळी जावन पाडव्याक नाटक जाता (वयलो वाडो, हौशी नाट्य मंडळ, स्थापना १९८९). आमी गोंयकार मागीर हौशी जावं, नाटका कडेन सामके गंभीरतायेन पळेतात. शिगम्यां कडलीं वा जात्रे कडलीं नाटकां जालीं म्हणून दोन येसायो मारल्यो आनी चडले स्टेजीर अशें केन्ना करीनात. आमचो दत्ता तर, 'रंग देवतेला वंदन करुन' स्टेजीर साश्टांग नमस्कार घालता, हाचेवयल्यान तुमी पळेया. तर, पाडव्या कडलीं आमचीं नाटकां. नाटकाची तारीख लागीं पावता तशे आमी सगळे कलाकार आपआपले भुमिकेंत भितर सरतात. ह्या कारणाक लागून आमच्या वाड्यार वेगळेंच वातावरण तयार जाता. एक वर्स आमी *एकच प्याला* हें नाटक करपाक घेतिल्लें. पोरोब ह्या नाटकांत तळीराम जाल्लो आनी नाटक लागीं पावता तशें तो हे भुमिकेंत भितर सरिल्लो. आमकां हें खबर आशिल्लें म्हणटकच आमकां ताचें व्हडलें कांय दिसऽ नाशिल्लें. पूण एक दीस ताचे बायलेचो सावंतवाडीचो काका हालवो करपाक मयंडोळी केळ्यांचो फेणो घेवन आयलो. ताणें आंगणांत पांय दवरला मात भितरल्यान, 'जातेस का पितेस? दादा साहेबाच्या तिथं लावालावी करुन मला त्यांच्या घरी जायला बंदी करवलीस? चल घे हा दारुचा घोट का घेऊ नरडीचा घोट?' हे शब्द ताच्या कानार पडले. आनी ताणें मयंडोळ्या केळ्यांच्या फेण्या सयत आंगणांत बसकण मारली. मागीर ताच्या पुतणयेन ताच्या तोंडार उदक मारुन, ताका, तो चिंत्ता तशें कांय ना, ताचो जावंय नाटकांतली आपली भुमिका अव्वल करपा खातीर फावो तें वातावरण तयार करता अशें सांगलें. मागीर ताणें च्या घेतली, शेव चिवडो खावन गेलो. म्हाकाय त्या नाटकांत शास्त्र्याची

भुमिका आशिल्ली. आमच्याय घरांत, 'धनवंतरी जरी कोळून पाजला तरी रोगी जगायचा नाही' असलीं वाक्यां आयकूंक मेळटालीं. त्या दिसांनी आमगेर मयंडोळ्या केळ्यांचो फेणो घेवन कोण येवंक नासल्या कारणान कांय अनर्थ घडलो ना.

परिक्षे आदीं टेन्स अशें वातावरण निर्माण जाल्या शिवाय हांव केन्नाच परिक्षेक बसलों ना. इयत्ता पयली ते इयत्ता पंद्रावी मेरेन हांवें कितल्योश्योच परिक्षा दिल्ल्या कारणान म्हाका ह्या विशयाचेर उलोवपाचो अधिकार आसा. आतांचीं भुरगीं वर्सूयभर शिकतात वा ट्युशनाक वतात. तांकां हांव कितें म्हणटां तें बरें कळचें ना. आमच्या तेंपार ह्यो शिकवण्यो नासल्यो. आमी परिक्षेक धा पंद्रा दीस आसा म्हळ्यार शिकपाक बसताले. परिक्षेक धा पंद्रा दीस आसा म्हळ्यार एका पानार म्हज्या शिकपाचें वेळा पत्रक तयार करुन तें आमच्या सालाच्या जनेलार खळीन चिकटायतालों. तें जनेलाचेर एकदां चिकटलें म्हणजे म्हाका परिक्षा लागीं पावलीशी दिसताली. आतांच्या भुरग्यांनी वेळा पत्रक तयार केल्यारुय तीं दीस, वेळ आनी विशय इतल्याचेंच वेळा पत्रक करतात. हांव म्हज्या संपूर्ण दिनचर्येचें वेळापत्रक तयार करतालों. ताका लागून म्हाका परिक्षेचो 'फील' येतालो. म्हजे दिनचर्येचें वेळा पत्रक सादारण अशें आसतालें,..

सोमवार- रात्री अकरा वाजता मनचाहे गीत ऐकून झोपणे. पहाटे ब्रह्म मुहुर्तावर तीन वाजता उठण्याचा प्रयत्न करणे. गजर लावून सुद्धा उठणे शक्य न झाल्यास पहाटे सहा वाजता उठणे. साडे सहा ते सात चहा व नाश्ता. सात ते आठ इतिहास. साडे आठ तोंडात काही टाकण्यासाठी ब्रेक. णव ते दहा पेज. अकरा ते बारा मिळेल त्या विशयाचा अभ्यास. बारा ते एक आंघोळ. नंतर जेवण. तीन वाजे परेंत वामुक्षी. साडे तीन चहा नंतर कठीण विशयाचा अभ्यास. पांच ते सहा पांय सैल करुन येणे. हातपांय धुवून जेवण. शतपावली. अकरा वाजता मनचाहे गीत ऐकून झोपणे.

कांय कुच्छित्री लोकांचो म्हजी ही 'दिनचर्या' फकाणांचो विशय जातलो

हें हांव जाणां. पूण ताणीं हांव मुंबई विद्यापिठाचो पद्वीधर हें मतींत दवरचें. पूण म्हज्या ह्या वेळापत्रकाक लागुनूच वातावरण निर्माण जातालें आनी आई थर्मासांत खुटी च्या बी भरुन ह्या वातावरणाक आपले परीन हातभार लायताली. म्हज्या येसांत तिचो बरोच वांटो आसा. Behind every successful man there is a woman म्हणलां तें ह्याच खातीर.

गोंयकार म्हणजे उत्सव मुर्ती. हाका लागून खंयचीय परब येता म्हळ्यार ताका धा काय कितले तरी हतयांचें बळ येता. हातूंत कांयच अडेचें आसना. अशें बळ येतकच तो रीण काडून सण करता ती गजाल वेगळी. चवथ गोंयची व्हडली परब. हेच परबेक वर्जी बी येतात. नवो जावंय आसल्यार विचारुंकूच नाका. शेजारी पाजारी ताका एका नव्याच विश्वांत वचपाक मजत करतात आनी मागीर तो थंय तरंगत उरता. हें हांव म्हज्या अणभवा वयल्यान सांगतां. वडां पुनवेक नवी व्हंकल आपल्याक सात जल्म, ज्याचे कडेन लग्न जालां तोच घोव दी म्हणून मागता थंय आसा, सगळ्यांक चवथीचे वेद लागतात.

'अंदूं पयलें वजें मरे? आसतलें बरें गडगंज!' येतलो वतलो चले भुरग्याक सांगतात. ताकाय भितरल्या भितर खातकुतल्यो जातात आनी तोय उमळशिकेन चवथीची वाट पळेता. मागीर तो ओगीच गणपतीचे शाळेंत पासयो मारता आनी मुर्ती पळोवन येता. (हांवें अशें केलां म्हणून सांगतां.)

'वज्याक बरे व्हऽड बियांचे लाडू येतले, आमकां दोन धाड आंऽ.' बाजारांत जाण्टेलो कवतुकान म्हणटा, तें आयकून चलो भुरगो लजून तांबडो जाता. (वज्याक काजुचे लाडू येतात अशें हांव आयकून जाणां.)

'अंदूं नवें जोडपें, गणपती कितले दीस?' असले प्रस्न घरच्यांक म्हणजे चले भुरग्याच्या आवय बापायक आसतात. अशे तरेन चवथीचे परबेचें वातावरण तयार जाता. फाटीं हिंगेलो (सत्तरी म्हालांत) पयसुल्लो सोयरो भायर पडलो. म्हणटकच घरच्यांक पाचारपाक आमी वच्चीं आशिल्लीं. ही भितर न्हेंसताली आनी हांव सालांत टिव्हीचेर 'राधे कुणी सैल केला तुझा आंबाडा' हे सिरियलीचो

रिपीट टेलिकास्ट पळेतालों. इतल्यांत ही तरऽ तरऽ करुन आयली आनी टक्कऽ करुन टिव्ही बंद केलो.

"आमी पाचारपाक वतात, मात तुमकां हेंऽ ना. थंय वतकच हेंऽ हेंऽ करुन भितर सरुं नाकात. वेळा प्रसंगाचें भान दवरा!"

"म्हाका तूं सामको हो समजता काय कितें गो?"

"खबर आसा! सुमल्याक (अंत्रुज म्हालांतली हिची सोयरी) पाचारपाक गेल्ले कडेन तुमी कितें केल्लें तें तुमकां याद आसा? हो पाट तुमी नारव्यांचे अष्टमीक घेतलो काय कितें, अशें तुमी सुमल्याकूच विचारिल्लें. थंय रांदचेकुडींत तुमी कित्याक पावले देवाकूच खबर! म्हाका थंयच जीव दिवचो सो दिशिल्लें. हांगां सुदेशाक हात दियात, भितर आकाक मेळात आनी तोंडार पाचारपाक आयला असो भाव आसूंदी." हिणें म्हणलें. आमच्या सालांत हिणें सुतकीशें वातावरण निर्माण केलें आनी हांव पाचारपाच्या मोडांत गेलों.

गोंयकारांक खंयच्याय कार्याक तशी वातावरण निर्मिती जायच हें तुमकां आतां सामकें पटलां आसतलें हातूंत म्हाका मात्तूय दुबाव ना.



# श्री

**'कार्य** सिद्धीस न्हेण्यास श्री समर्थ आहे' हें वाक्य हांव फकत गोंयकारांचे होंवळीक पत्रीकेंतूच वाचतां. हांवें गोंयकारांचें म्हणलें कारण मुंबयकारां आमकां खंयच्याच कार्याक आपयनात म्हणटकच तांचीं कार्यां सिद्धीक व्हरपाक कोण समर्थ आसता तें खबर ना. आमचे गोंयकार हालीं इंग्लिशींतल्यान पत्रिका छापपाक लागल्यात. पयर अशीच एक पत्रिका म्हज्या हाताक लागली. तातूंत हांवें 'To execute the work Shree is capable' अशें बरयल्लें वाचलें. हो घडये 'कार्य सिद्धीस न्हेण्यास श्री समर्थ आहे' हाचो अणकार. म्हज्या लग्ना वेळार होंवळीक छापून आयली. म्हजें नांव होंवळीक पत्रिकेचेर छापून येवपाचो पयलोच प्रसंग आशिल्ल्यान ती हातार पडल्या बराबर हांवें उमळशिकेन उगडली आनी वाचली. शेवटाक 'कार्य सिद्धीस न्हेण्यास शिरी समर्थ आहे' अशें छापून आयिल्लें. हांवें सावळ्याक त्या बद्दल विचारलें.

''बाबा तुज्या लग्नाचो सगळो भार तुज्या मामान शिरी भाटकारान घेतला तें आमकां खबर ना? म्हणून तुजो 'श्री' शिरी.''

''तशें तें?'' अशें म्हणून हांवें होंवळीक धांपली.

गोंयकारांचें कार्य सिद्धीक व्हरपाक श्री समर्थ आसपाकूच जाय. कारण

तें काम खांवपाचें न्ही. लग्नकार्य जाता सर 'श्री' आसा थंय जाम जाता आसुयें हें हांव म्हज्या अणभवा वयल्यान सांगतां. 'श्री' चें काम होंवळीक छापून आयली की सुरु जाता. कारण होंवळीकेचेर ताचें नांव छापून लग्न सारकें जाग्यार घालपाचें ऑब्र आमी ताका दितात. व्हंकल पावणी जाली की 'श्री' एक व्हडलो सुस्कारो सोडटा जांवयें! कारण गोंयकारांच्या लग्नाक हजार विघ्नां, तीं निस्तारपाची जबाबदारी 'श्री'ची. नाजाल्यार कार्य सिद्धीस कशें वतलें?

गोंयां भायर होंवळीक कोणाक गेली, कशी गेली हाचें कोणाकूच पडून वचूना. गोंयकारांचें तशें न्ही.

''आगो शमाले चलयेचें लग्न ठरलें गो?''- कवळ्यां देवळांत खांब्याक तेकून भटान दिल्लो गुलाब आंबाड्याक खोचीत एक जाण्टेली.

''म्हाकाय होंवळीक पावली.''- ही आंबाड्याक कांय खोचिना. घडये भटान तिचो स्टॅण्डर्ड पळोवन तिका फकत तीर्थ घालां.

''बरी दाटी आसा दिसता तुमची.''

''तुवें आमंत्रण पत्रिका कशी मेळ्ळी ती विचारुना!''

''कशी?''

''पोस्टांतल्यान.''

''आगो शमाल्या व्हडल्याक तुगेल्यान मेडिकलांत लायिलें न्ही गो?''

''तूंच पळय उपकार कशे फेडटा तें.''

''मागीर तूं वतलें तर?''

''हांव अहेर धाडून दितलें.''

बरें, होंवळीक घरा व्हरुन दीली तरीय भागना...

''देवतेचो शालू पळयलो मुगो? त्याच कोराचो म्हजे कडेन आसा. मंगलाच्या तेलाक न्हेंसतलें हांव.''

''मंगलाच्या तेलाक सांगलां तर तुका?''

''हय स्पेशल आग्रो केला, तुका सांगूक ना?''

''ना आमकां फकत रिसेप्शनाक आमंत्रण. तुमच्या सारकेल्यांकूच सांगलां दिसता. आमी मारुती ८०० वालीं न्ही गो!''

अशें घडटा म्हणून 'श्री' आमच्या लग्नाक जायच पडटा. नाजाल्यार लग्नाच्या माटवांत आमकां फुगिल्लीं तोंडांच दिश्टी पडटलीं आनी रडारड सुरु जाल्यार विचारुंकूच नाका.

आतां हांवें क्रिस्तावांच्योय पत्रिका पळयल्यात. तातूंत 'श्री'क कांयच काम नासता. हाचेर आमी हिंदु भाव भयणांनी विचार केला? ना. कोणाकूय विचारल्यार तें परंपरेन चलत आयलां अशी आमकां जाप मेळटली. आमचे पुर्वज कितें पिशे? क्रिस्तावांच्या लग्नाक अशीं आडमेळीं नासतात म्हणून 'श्री'क व्हडलें काम आसना अशें म्हाका तरी दिसता. हांवें ह्या बद्दल बस्त्यांवाक विचारलें (आमिगोज देशी दारुचें दुकान. तो कुट्ट करुन जातकच गिरायकाक तोंडाक लावपाक आमली दवरता. हें तुमचे म्हायती खातीर.) ताणें म्हाका सांगलें की फात टायमार मेळटलो काय ना तितलीच चिंता तांकां आसता. आमगेलें तशें ना. लग्न ठरत पसून न्हवरो व्हंकल गुलाबां लायिल्ले गाडयेंत बसऽ मेरेन आमी कितें करतात? आमी म्हळ्यार स्टेजीर वयर आशिल्ले. ते करतात चिंता आनी सकयल बशिल्ले ते करतात तासमपट्टी. हांचो सगळ्यांचो भार 'श्री'चेर.

पयर हांव दोतोर रायकारागेर गेल्लों (जीएमसी २००५ बॅच.) ताणें म्हाका सांगलें ताचे कडेन पेशंट म्हणून चड करुन चलयांचे आवय बापूय येतात आनी तांचे भितर ५० प्रतीशेंक प्रेसांवांचे, ४० प्रतीशेंक डायबेटीज आनी उरिल्ल्या प्रतीशेंक बाकिचें कितें तरी जाल्लें आसता. हांवें विचारलें, 'तांकां मूत खड्याचें बी जायना काय?' जाल्यार ताणें सांगलें 'ना.' हांवें विचारलें, 'कारण?' कारण खंय तांकां लग्नाची याद जातकच तांचो ताळो सुकता आनी तीं दोन दोन मिण्टांनी उदक पियेतात. मागीर मूत खडो जातलो कसो? हें सांगून ताणें म्हजें प्रेसांव पळेलें.

हांव आम आदमी, तातूंत गोंयकार, म्हणटकच म्हजे बाबतींत घडलें तेंच बाकिच्यां बाबतींत घडटा आसतलें. म्हज्या लग्ना वेळार शिरीचें नांव होंवळीकेचेर छापून येवंचे पयलींच गोंदळ लग्नाचे तारखेन सुरु जालो. पयली तारीख पांच मे ठरिल्ली.

"ही तारीख व्हंकलेक चलना."

"पंद्रा मे?"

"ही चलयेचे आवयक चलना."

"वीस में?"

"ही सुभाषाक चलना." (लक्ष्मी रोड पुणे साड्यांचा व्यापारी.)

"ताचो कसलो प्रोबलेम?"

"ताचो लग्नाचो सीजन."

"अठ्ठावीस मे?"

"हॉल मेळना."

"एकतीस मे?"

"म्हुर्त ना."

अश्यो म्हज्या तारखांच्यो भोयो भोयो जाल्यो. मागीर म्हजें लग्न जातलें काय ना ही चिंता म्हाका आनी 'श्री'क पडली. हांव चलेकार आसून म्हाका इतलें टेन्शन जाल्यार चलयेकारांचें कितें जावंक फावो? तांकां 'श्री'ची चड गरज आसता शी दिसता.

एकदां म्हाका चलयेकारां वटेंतल्यान आमंत्रण आशिल्लें. तांगेर म्हाका संडास रिकामोच मेळना जालो.

"कोण गेला?"

"पप्पा. ताका वाजंत्री टायमार येतले काय ना त्या टेन्शनान पोटांत घांस मारला." व्हंकलेन सांगलें.

अर्ध वरान...

''संडासांत कोण गेला?''

''मम्मी. तिका खाजेकाराचें टेन्शन जालां?''

''तिच्याय पोटान घांस मारला?'' हांवें पोटा वयल्यान हात फिरयत विचारलें

''हय.''

एका वरान...

''संडास रिकामो आसा न्हय?''

''हय. पूण आतां हांव वतां.''

शेवटाक हांव भायल्या सुलभ शौचालयांत गेलों. हांचें कशें जातलें हें येवजून म्हज्या पोटांत मागीर खूब घांस मारले आनी हांव सुलभांतूच गेलों. म्हजी ही गत जाल्यार 'श्री' चें कितें जातलें काय? हांव केन्नाय चिंततां. (हय हांव चिंततां.)

आमच्या लग्नानी रुसवे फुगव्यां शिवाय जायना. लग्नांत कोरो धरपाक करवली लागता, व्हंकलेक सव्यार व्हरपाक मामा लागता, ल्हायो घालपाक भाव लागता. हांकां लग्न लागीं पावतां पावतां चडून येता. हांव सगळ्यांक म्हणना. जितले मामा चड तितले तकलेक ताप चड आनी गोंयां मामाचो मान कोणाक हें ठरयतना सिनियोरिटी लागना. व्हडले भयणीक धाकटो भाव लागीं आसता, धाकटे भयणीक मदलो भाव लागीं आसता. व्हंकलेक आनीक खंयचो मामा जाय आसता. मागीर व्हंकलेच्या बापायचें प्रेसांव वाडटा. खंयच्या मेवण्याक दुखोवंचो हो मागीर प्रस्न पडटा.

''श्रीपाद, अरविंद काय मनोहर सुशमाक सव्यार व्हरतलो तें तुमी ठरया.''

''आगो तुजे भाव ते. तूं ठरय मुगो.''

''आतां म्हजे भाव जाले? लोन पास करुन घेतना, लीज करतना ते तुमचे मेवणे? जाय तेन्ना जाय जाय तशीं नातीं!''

''आगो म्हाका सगळे सारखेच. म्हाका तांकां दुखोवपाचें ना.''

“मागीर हांव वायटपण घेंव?”

आमचे मामा म्हूण कमी नासतात. केन्ना केन्ना ते शकुनी, कंसाक सुद्धां फाटीं घालतात.

“मनोहर सुषमाचें लग्न ठरलें रेय.”

“जाणा. भायल्यान कळ्ळें.”

“प्रसाद जातकच सांगपाचें न्हय रे? पयलींच कशें सांगतलें!”

“कित्याक? पयलीं सांगल्यार हांव सोयरीक मोडटलों आशिल्लों?”

“आरे कोण भाच्चयेची म्हणून सोयरीक मोडटा?”

“आतां हांव जाणा?”

“तें आसूं रे, तू मामा.”

“कित्याक? बाकिच्यांनी ना म्हणलें नग घालचो पडत म्हणून?”

अशें संभाशण आयकतच ‘श्री’चेर आकांत येवचोना?

म्हज्या लग्ना कडेन करवलेचो प्रस्न आयलो. मामाचो न्हय. कारण लग्नाची सगळी जबाबदारी शिरी मामान उखल्लेली.(मिनेर. सद्या ही खाण बेकायदेशीर ठरल्या.) म्हणटकच मामा कोण हो प्रस्न नाशिल्लोच. भयण नाशिल्ल्यान प्रस्न आयलो करवली कोणाक करपाची ती. म्हाका पांच बापोल भयणी तीन मावस भयणी. आवय वटेन (म्हणजे शिरी मामा) म्हणपाक लागलो ‘हो मान आमकां, त्यो बापोल भयणी नांवाक’, बापाय वटेन म्हणपाक लागलीं, ‘शीऽऽ, मावस भयणी म्हणून करवल्यो जातात? लोक शेण घालतले आमच्या तोंडांत’. (मागीर तें लग्नाचें जेवण जेवन सोयऱ्यांनी घालेंच.) शेवटीं ह्या झगड्याचेर तोडगो म्हण करवली वाड्यावेल्या आवड्यालें सुमन जालें. ती खंय म्हजी मानिल्ली भयण, हें म्हाका सव्यार कोणें तरी कानांत सांगलें.

लग्नाक ऐन ते वेळार कसलीं अरिश्टां येत म्हणून सांगपाक जायना. म्हजें लग्न म्हुर्तार लागल्या उपरांत (अकरा वाजून चार मिण्टांनी) शिरीश मामान ‘वाजया रे’ अशें खोशेचो उमाळो येवन बँड वाल्यांक (बजरंग बली ब्रास

बँड, बाणसतारी पुला जवळ) फर्मांयलें आनी ताणीं 'दोस्त दोस्त ना रहा' वाजयलें. हांवें सव्यावयल्यान 'मामा तें कितें वाजयता?' काय विचारलें.

''तू ओगी राव आनी म म म्हण'' भटान म्हणलें. (भट व्हंकलकारांनी हाडिल्लो.) हांवूय म म म्हणून ओगी रावलों. हो तो काळ. पयर हांव आमिगाल्या चल्याच्च्या लग्नाक गेल्लों. बँड वाल्यांनी (हें बँड खंयचें तें खबर ना) 'जा मुली जा' वाजयलें.

''हिऽती रड वाजोवपाक पंद्रा हजार दिल्यात? मुन्नी बदनाम हुई वाजया.'' न्हवऱ्यान म्हणलें. हे फावटीं भटान ताका म म म्हणपाक सांगलें ना. कित्याक कोण जाणां!

गोंयकारांच्या लग्नांनी रुसवे फुगवे तशेंच मान अपमानूय जातात. लग्नाक पयली पंगत जेवपाक बशिल्ले कडेन व्हंकलेच्या बापायन 'सारके जेवात आं, जेवण आमचें, रांदपीय आमचो.' अशें म्हणलां मात, न्हवऱ्याचो बापूय मुगां गांठींक भुरको मारतां मारतां रागान उठून गेलो तें हांवें म्हज्या ह्या दोळ्यांनी पळयलां. परत येवन मागीर जेवपाक बसलो जाल्यार खबर ना.

आतां ह्यो लग्नांत जावपी घडामोडी पळयल्यार कार्य सिद्धीस व्हरपाक 'श्री' जायच. म्हणून गोंयकार जरी कितलोय नास्तीक आसलो तरी होंवळीकेचेर 'कार्य सिद्धीस न्हेण्यास श्री समर्थ आहे' आसा काय ना तें पयलीं पळयता.



# संवगां

**ह्या** संवसारांत कांय संवगां आसतात आनी कांय संवगां घेवपी आसतात. दोगांयचो आमकां फावो तो त्रास जाता, ना न्हय. पूण आमी ते बाबतींत कांयच करुंक शकनात. संवगांक कांय दुसरी नांवांय आसात. म्हाका तीं कशीं कळ्ळीं तें विचारुं नाकात. संवगांक, 'रत्न', 'अरवळ', 'पिसांट', 'नमुनो' हीं नांवां प्रसंगानुसार वापरतात.

म्हाका सीमा शिरवयकारान ताच्या लग्ना कडेन सव्यार आपल्या नव्या न्हवऱ्या समोर सॅम्पल म्हणिल्लें. मागीर सावळ्यान संवगांक सॅम्पलूय म्हणटात म्हणून सांगलें. तर ताचें कितें जालें, सीमाक हांव सव्यार हात दिवपाक गेलों. ज्यूस्त बॅण्ड वाल्यांनी 'सांग कधी कळणार तुला भाव माझ्या मनातला' हें पद वाजयलें. हांवें हात दितना सीमाक विचारलें, ''सीमा, पदाची याद जाली? हांवें तुका हें खंय विचारिल्लें तें याद आसा?''

''ह्या सॅम्पलाक सकयल व्हरा पळोवया!'' तें गळ्यांतलो फुलांचो हार बॅलन्स करीत म्हजेर चाळवलें. नव्या न्हवऱ्यान ताचो अवतार पळोवन आंग काडलें. आतां आपलें फुडें कशें हाचें कॅलकुलेशन करपाक लागलो जांवये. म्हाका सकयल देंवोंवच्या पयलीं हांवूच सकयल देंवलों. तें सोड, ह्याच सीमान (आतां रामाणी) कवळ्यां, ह्या म्हज्या प्रस्नाक 'रंग कधी दिसणार तुला लाजणाऱ्या फुलातला' अशी जाप दिली. सव्यार तें हें सगळें विसरलें. पूण हांव

सकयल देंवतकच रामाणी ताका कोंपोर मारुन 'सांग मगो ताणें तुका केन्ना विचारिल्लें तें?' असो विचारतालो खंय! म्हाका रामाण्याचें कवतूक दिसलें. म्हाका सीमान सॅम्पल कित्याक म्हणलें तें सीमाक दोन (एक चलो एक चली) भुरगीं जालीं तरी म्हाका कळ्ळें ना.

आतां ह्या संवगांक वा नमून्यांक वळखुपाचो कसो हो एक व्हडलो प्रस्न. गोंयां तर हीं पावला पावलाक आदळटात. पूण तांकां वळखप सोपें न्हय. उडट्या पाखरांचीं पाखां मेजपी लेगीत नाकयां आपट्टात. कारण हीं संवगां नाका दोळ्यान बरीं आसतात, चार चौगांत उठून दिसतात. (हांव हांगां स्त्री वर्गा बद्दल उलयतां). फॅब इंडियांतले चुडिदार बी घालतात. पूण जेन्ना तीं तोंड उगडटात तेन्ना तीं घाणायतात आनी मागीर तीं आमकां संवगां म्हणून कळटात. आई एक गजाल सांगता, म्हज्या आज्याक म्हणजे तिगेल्या बापायक तळिल्ली कल्ली घोस्ताक जाय आशिल्ली. व्हडली कल्ली तळ्ळी म्हणजे तो तीन चार कुडके सहज उडयतालो. पयलिंचीं हाडां तीं! पचतालींय बरीं, आसूं. जेन्ना तो गेलो तेन्ना ताची कूड हॉस्पिटलांतल्यान घरा हाडली. लोक पाचारपाक येवपाक लागले. इतल्यांत म्हगेले धाकटे मावशेन (म्हाका णव मावश्यो) आज्येक विचारलें, 'आई, आतां आमच्या वांट्याक कल्लेचो एक एक कुडको चड येतलो न्हय गे?'

आज्यान खंय सोमते दोळे उगडून, 'आगे, ह्या संवगाचें म्हज्या फाटल्यान कशें गे?' अशें आज्येक विचारलें आनी परते दोळे धांपले खंय! आई म्हण्टा आज्येक दुख्खान तसो भास जाल्लो, खरें खोटें देव जाणां. सांगपाचो मुद्दो म्हणजे हीं संवगां तोंड उगडटात तेन्ना आपलें खरें रुप दाखयतात.

आमचें लग्न जातकच पयलेच दिसा रातची लायट गेली. म्हणटकच आमी भायर बाल्कनींत बसलीं. ओगीं बसून कितें करतलीं म्हणून हांव म्हजो टेप रिकॉर्डर भायर घेवन आयलों. ताचेर हांवें कॅसेट घाली.

''कान्हा बोले ना, पुछे बाऽऽर बाऽर कान्हा बोले ना.... जानेसार

अख्तर... कितें रचना! सलील चौधरी कितें संगीत! दिदी, मन्ना दा कितें आवाज! आयकतना म्हाका हांव सर्गार आसा कसो दिसतां.'' हांवें नवे व्हंकलेक म्हणलें.

''म्हाका हांव केन्ना सर्गार आसा कशें दिसता तें सांगूं?'' नवे व्हंकलेचो प्रस्न.

''सांग मुगो म्हाकाय कळूंदी.'' काळखांत हांव आनीकूय रोमेण्टीक जालों आनी म्हजो आवाज अचकीत घोगरो जालो. म्हाका हिच्या सर्गाची व्याख्या जाणून घेवपाची उमळशीक लागिल्ली.

''मोवशेंच धवें फुल्ल शीत, ताचेर करबील घालून हडवीच ताका कडी, आकुरांचें तोणाक आनी दोणांतली मिर्सांग हें पानार आसतकच म्हाका सर्ग लाभिल्ल्याचें सुख मेळटा.''

''अशें?'' म्हाका काळखांत लेगीत दोळ्यां मुखार काळोख आयलो. सांजचें माप लंवडून आमच्या घरांत आनीक एक संवंग आयलां हाची जाणीव जाली. मागीर हिणें केशर घालून दिल्लो दुदाचो पेलो हांवें तोंडाक लायलो. म्हाका तो थंड पेजेचो निवोळ पियेल्ले भशेन दिसलें. आसूं.

ह्या बायलांचें जितलें सांगत तितलें थोडें. हांव हिचे बरोबर केन्ना न्ही तो भायर सरतां. बसींत आमचे कॉलेजींतली ब्यूटी क्वीन ॲनी चडटा. अजून तश्शें! सांग कशी! अजाप म्हणजे म्हाका वळख दाखोवन हांसता आनी सायडीच्या सीटार बसता. हांव ताच्या फिगराक मॅच करपाक म्हजें सुटिल्लें पोट भितर घेवन कुंभक करतां आनी सारको बसतां..

''हय व्हो सकाळीं डायबेटीस आनी प्रेशराच्यो गुळयो घेतल्या मूं?''

ही म्हाका विचारता. म्हाका डायबेटीस आनी प्रेशराचें आसा म्हूण GDX3143 बसींतल्या सगळ्या पॅसेंजरांक कळटा, धरुन ॲनीक. ॲनी म्हजेर सुतकी नदर मारता. हांव म्हजें पोट श्वास सोडून ऑरिजिनल पोजिशनाचेर हाडटां.

''आज तुमकां दोन सुक्यो चपात्यो आनी घोंसाळ्यांची सुकी भाजी, कळ्ळें?'' रातचो मेनू GDX3143 आनी हांव आयकतां. ॲनीन आपल्या हॅन्कीन दुकां पुसलीं अशें म्हाका ओगीच दिसता.

संवगांक खंय कितें उलोवचें तें कळऽना हेंच खरें.

समेस्त स्त्री वर्गान आमी सगळे दादले सरसकट संवगां असो गैरसमज करुन घेतला अशें म्हाका तरी दिसता. सादें दोन मिण्टां तांकां टक लावन पळेल्यार.. 'हें तें संवंग म्हाका कित्याक पळेता गो?' असो अर्थ नाशिल्लो प्रस्न ती शेजारच्या बॉबकटाक विचारता. म्हाका हो अणभव जायते खेपे आयला. कवळ्यां हांव सगळ्या पंचमींक वतां. थंय हांव कमाविस्दाराचे कुशीक, खांब्याक तेकून 'महिलानी ह्या बाजूला बसावे' हे पाटयेक फुडो करुन बसतां. म्हजे बरोबर शिकपी (आतां लग्न जाल्लीं) पंचमीक येतात. तीं लग्ना पयलीं कशीं दिसतालीं, आतां दोन भुरगीं जातकच कशीं दिसतात, फाटल्या महापंचमीक कोण शिडशिडीत आशिल्लें, हे पंचमीक कोण फुटून पडलां? हें बारीक पळोवप म्हजो छंद. हाचो हरशीं कोणाक त्रास जावपाक जायना. पूण खूब जाणांक ताची नसाय जाता.

''हेऽ त्या संवंगाक हांव दर पंचमीक पळेतां. आमकां पळेत्त आसता. देवते खातीर येता काय किद्या खातीर देव जाणां! असल्यांक कमाविस्दाराक सांगून देवुळूच बंद करपाक जाय.''

असलीं जळजळीत उतरां म्हाका देवते समोर आयकुचीं पडलीं. देवता तांकां पळोवन घेतली. हांव हाडांचो रसीक म्हणटकच म्हाका ताचो व्हडलो फरक पडलो ना. बरें आसा. 'पायरीशी होऊ दंग गाऊनी अभंग' हांवें म्हणलें. जांकां पळोवन म्हज्या तोंडांतल्यान 'मेहताब तेरा चेहरा किस ख्वाब में देखा....'(मुकेश *आशीक* १९६२) वा 'ए हुस्न ए बेपरवाह तुझे शबनम कहूँ शोला कहूँ..' (गुलाम अली) असले उद्गार भायर पडटात, तीं म्हाका देवूळ बंद करुंक सोदतात! लोक हांगां देवळां उग्तीं करा म्हणटात. हांगां सगळेंच परतें.

हांव तांचे खातीर इतलेंच म्हणन 'देवते तांकां माफ कर, तीं कितें उलयतात तें तांकांच खबर ना.'

सगळ्या स्त्री वर्गान दादले संवगां पांगुरपाक फिशाल अशें बेठेंच मत करुन घेतलां. ताका कसलोच आधार ना. देखीक, हांव म्हज्या कामा निमतान मडगांव वतां. दनपारचो समजा फाटलें फुडलें घेवन लोशणीचे कडयेन विस्वणाचीं पॉस्तां लावन जेविल्लों आसत जाल्यार लकणी येता. मागीर जनेला कडलो सीट आसल्यार विचारुंकूच नाका. हांवें फाटल्या जल्मांत पुण्य केल्लें देख्खून म्हज्या म्हऱ्यांत तिशींतलो स्लीवलेस बसता. आतां म्हजें नशीब पळेया, तें त्याच दिसा सनसिल्क शाम्पू लावन माथ्यार न्हाल्लें आसता आनी ते केंस वाऱ्यार भुरु भुरु करुन म्हज्या तोंडार येतात. हांव सहज दीर्घ श्वास घेवन तो वास भितर ओडटां आनी कुंभक करतां. म्हाका लकणी येता, हांव सपनेतां. दोन मिण्टांच्या सपनांत हांव ताका म्हणटां 'चेहरे पे गिरीं जुल्फें कह दो तो उठा दूं मैं गुस्ताकी माफ...' (सुरज १९६६). हो सगळो हरशीं एक नॅचरल प्रॉसेस. कोण काय बळयां करऽना. तें बळयां माथ्यार न्हावन येवना हांव बळयां न्हिदूना. इतल्यांत... 'अंकल सारके बसात. नसतीं न्हिदेचीं संवगां नाका' अशीं उतरां म्हज्या कानार पडटात. हीं उतरां आयकून म्हाका कितें जालें तें हांव शब्दांनी बांदपाक शकना. म्हज्यो भावना फकत सावळ्याक कळ्ळ्यो.

''कौरवांनी, तुमकां सुयेच्या पोंतार मावऽ इतली लेगीत जमीन मेळची ना अशें जेन्ना पांडवांक म्हणलें आनी पांडवांक तेन्ना जें फिलींग जालें तेंच तुका जालें आसतलें.'' सावळ्यान म्हज्या खांधार हात दवरीत म्हणलें. हांवें हयकारी मान हालयली. आसूं.

कितेंय जांव! संवगांनी कोंकणी विनोदी साहित्याक खूब हातभार लायला. तांचे आमचेर उपकारुच म्हणल्यार जातात. जो मेरेन हीं संवगां आमचे भितर आसात तो मेरेन कोंकणी विनोदी साहित्याक मरण ना.



# साडेसाती

**मनशाक** जशी भूक, तान, न्हीद, वेसनां लागतात तशीच साडेसाती लागता. भूक, तान, न्हीद, वेसनां लागलीं म्हूण मनशाक कांय त्रास जायनात, पूण साडेसाती लागतकच ताचो जीव अर्दो जाता. कित्याक तें खबर ना. हांवें साडेसाती दोन पांयांच्या जनावरांक लागता अशें जरी म्हणलें तरी तो चार पांयांच्या जनावरांक, तांकां रास जरी नासली तरीय लागता. हें म्हाका आमच्या टायगराच्या (१९७१-९३) एका स्टेटमॅण्टा वयल्यान कळ्ळें. एका वर्सा नवरात्रां शेनवारच्यान सुरु जाल्लीं. बिरेस्तार-शुक्रार आमगेर नुस्तें खायनांत.

'म्हजी साडेसाती सुरु जाली शी दिसता' टायगरान कालनिर्णयाचेर नदर मारीत म्हणलें. मागीर ताणें कपलार हात मारलो आनी आंगणांत वचून चारुय पांय वयर काडून पडलो. साडेसाती लागतकच अशें करचें आसत जाल्यार म्हाका वर्साचे तिनशें पांसश्ट दीस दोनूय पांय वयर करुन आंगणांत पडचो पडटलो.

म्हाका वर्साचे बाराय म्हयने साडेसाती चालूच आशिल्ल्यान साडेसाती प्रकरण कितें तें तुमकां सांगतां. वयर शनी म्हणून एक गिरो आसा खंय! तो तुमचे कुंडलेंत प्रवेश करता खंय आनी फुडलीं साडे सात वर्सां तुमचे कुंडलेंत धुमशण घालता. थोडे म्हणटात तो वतना थोडें बरें करुन आपणें साडे सात

वर्सां जें केलां ताका कॉम्पेन्सेट करता. म्हाका काय तसो अजून मेरेन अणभव येवंक ना. हो गिरो खंय पवन पुत्राक थारांयच भिता, कित्याक खबर ना. हेच खातीर साडेसाती लागतकच सगळे शेनवार करतात. हांवें लग्न जातांच रोखडोच शेनवार करपाक सुरवात केली. आतां हाचो साडेसाती कडेन कांयच संबंद ना, विशय आयलो म्हणून सांगलें. बायलां मारुतीच्या देवळांत तेल घेवन वतात आनी मारुतीरायाक ताचो अभिशेक घालतात. आमचो मारुतीराय ब्रह्मचारी, तो शेनवारा दिसा कशें पासिंयेंस काडटा म्हणून खबर ना. आमच्या वाड्यार एक ल्हान मारुतीचें देवूळ आसा. एक वर्स हांव ते कमिटीचो अध्यक्ष आशिल्लों. तेन्ना हांवें थंय एक बोर्ड लायिल्लो, 'मारुतीराय ब्रह्मचारी आहे हे स्त्रियानी लक्षात ठेवून त्यांच्यावर तेल ओतू नये. ते काम भटजी करतील.' तो बोर्ड दुसऱ्या शेनवारा आमच्या घराचे गेटीक लायिल्लो सांपडलो. आसूं.

साडेसाती सुरु जाली म्हणटकच आपशींच विनाश काली विपरीत बुद्धी येता. देखीक, थोडे आपूण जावन लग्न करतात, थोड्यांक सोयरिको येतात आदी आदी.. आतां साडेसाती सुरु जावप म्हणजेच लग्न करप असो तुमी बेठोच गैरसमज करुन घेवंचो न्ही. बेठी लग्नसंस्काराची बदनामी नाका. लग्न जावन आपूण सुखी जालां अशें सांगपी अजून म्हाका मेळूंक ना, हाचो अर्थ लग्न म्हणजेच साडेसाती अशें बेजबाबदार वक्तव्य हांव करचो ना. साडेसाती खूब रुपांनी येता. ताका वळखुपाची नदर जाय. म्हाका ती खूब वर्सांच्या अणभवान आयल्या. सांगपाचें म्हणल्यार म्हजी मकर रास आनी राशी स्वामी भौमानेस्त शनीबाब हातुंतूच सगळें आयलें. तशें पळोवंक गेल्यार ह्या मृत्यु लोकार जल्म घेवप म्हळ्यारुच साडेसाती सुरु जाल्ल्याचीं लक्षणां. हेच खातीर संत लोक मुक्ती मागतात. हाच्या उलट आमी. 'मीं शिरेंतली घोंटऽ खायला कित्येक जल्म घेईन बाई',असो स्टेटमेन्ट घोंट चोखीत आमचे मुंबयकान्नीन केलो. तो स्टेटमेन्ट आयकून हांवें ह्या मृत्युलोकांत जल्म घेतिल्ल्याचें सार्थक जालें अशें म्हाका दिसलें. म्हजो साडेसाती खऱ्या अर्थान म्हाका शाळेंत

घालतकच सुरु जालो. म्हजे सारक्या सगळ्याच भुरग्यांचो सुरु जाता. ताका आडवाद आसता, ना न्ही. रेखा भुजंगराव हुबळीकर त्या मदलें आशिल्लें. एकदां पाटील गुरुजीन, 'मुलांनो तुमच्या आयुष्यातला सर्वात आनंदाचा क्षण कोणता?' अशें विचारिल्लें तेन्ना रेखान, 'शाळेत पाऊल ठेवला तो' अशी जाप दिल्ली. ती आयकून हांवें आनी दत्तान फाटल्या बांकार एकदम आंग काडिल्लें.

''तामूचा पहिला पोस खाल्ला तो क्षण मी विसरुच शकत नाही गुरुजी.'' हांवें म्हजो खीण सांगलो.

''परत परत थंडी होते तेव्हा चमचा भर फेणी घेतली तो क्षण आजूय आठवतो गुरुजी.''- दत्ता.

''श्शीऽऽऽ..!'' रेखान नाकार हात दवरलो.

''प्रत्येक जण आपल्या बुद्धीमत्ते प्रमाणे उत्तर देतो बाळा.'' गुरुजीन रेखाक समजायलें. सोड.

फुडें गणीत हो विशय आयलो आनी म्हजो साडेसाती खर जालो. पाटील गुरुजी एकोणीस त्रीक, एकुणतीस द्रुणे असले नाका जाल्ले प्रस्न भुरग्यांक विचारुंक लागलो. मागीर गणितां आयलीं. पणजी ते शिरोडा बेचाळीस किलोमिटर आहे. हे अंतर रामा पायी चार तासानी पार करतो. बस ताशी वीस किलोमिटर धांवते. रामाला पणजी ते वास्को जायला पांच तास लागतात. तर बसीला किती तास लागेल? वास्को ते पणजी अंतर किती? असलीं नाका जाल्लीं विचित्र गणितां पाटील गुरुजी घालपाक लागलो. म्हाका पणजी ते वास्को अंतर एक हजार चारशें बत्तीस किलोमिटर अशें मेळ्ळें. दत्ताक णवशें पस्तीस मेळ्ळें. रेखाची जाप सारखी आशिल्ली. तें गोंयां भायलें जावन लेगीत गोंयची ताका इतली म्हायती कशी? हो प्रस्न तेन्ना आमकां पडिल्लो.

म्हाका खाल्लें आंगाक लागना जालें. आईन कवळ्यां वचून प्रसाद घेतलो. 'ताका जी बाधा जाल्या ती तुज्या पांयां खाला दवरुन ताका मेकळो कर' अशें आईन बाबुली भटा वरवीं सांगणें केलें. गणीत आपल्या पांयां खाला कशें

दवरुं, देवतेन प्रसादार विचारलें. साडेसाती लागतकच देव पसून हात वयर करतात ते अशे.

साडेसाती लागल्या उप्रांत नांव घाण जावचें बी आसल्यार तें जाता. लोकां मर्दी (आई जनां मर्दी म्हणटा) लज जाता, अब्रू वता (म्हणजे कितें जाता तें खबर ना.) थोडक्यांत सगळें कितें जावपाचें तें जाता. ती पॅकेज कशी. कॉलेजींत आसतनाची खबर. पावसाचे दीस. साडे सातांची 'कामाक्षी' कॉलेजींत वचपी भुरग्यांनी भरिल्ली आसताली. भायर पावासान गुप्प काळोख केला हे परिस्थितींत हांवें जीव बशींत घालो. बस भुरग्यांनी पॅक भरिल्ली. अशें आसतना, फुडें आमचे कॉलेजीचे ब्यूटी क्वीन ॲनी कुशीक एक सीट तोय बी जनेला कडेन खाली आसलो. ह्या भायर पडपी धुंवादार पावसांत ॲनी वांगडा रायबंदर ते पणजी सफर यादगार करची अशें चिंतीत बसीच्या फाटल्यांतसून सगळ्यांक माट्टीत हांव ॲनी म्हन्यांत पावलों आनी त्या सीटार घालून घेतलें. जालें. यादगार प्रवास हांवें ॲनीक अळणी स्मायल ॲलोंग वीथ गूडमॉर्नींग म्हणून सुरु केलो. फोंडव्यां कपेला कडेन कामाक्षीन पयलो ब्रेक मारलो आनी बशीवयल्या कापेतींत एकठांय जाल्ल्या उदकाचो घस्सऽ करुन म्हजेर म्हजे माथ्यावयल्या बुराकांतल्यान अभिशेक जालो. हांव माथ्यावयल्यान पांयां मेरेन चिप्पऽ भिजलों. बस इतली भरिल्ली आसतना एकूच सीट तोय बी ॲनी म्हन्यांत खाली कसो उरलो तें हांवें चिंतलें ना. कारण साडेसाती आसतकच चिंतप बंद जाता. 'मेघा रे मेघा रे मत परदेस जा रे, आज तू प्रेम का संदेश बरसा रेऽऽ' सगळी बस कोरसांत गावपाक लागली. म्हजे दांत दांतार आपटूंक लागले. मागीर ॲनीक कर्मीपणा आयली. तें उबें रावन भेंड मोडीत गावपाक लागलें "Our baba in the rain sha la la la la" (तुमी Brown girl in the ring हे चालीर गावपाचें.) अशे तरेन म्हजी वरात पणजे पावली. पणजे सगळीं जाणां देंवलीं. सोडून हांव. हांव दुसऱ्या सिटार बसून साडे आठांच्या वराराचेर परत रायबंदरा आयलों. एक मात खरें, म्हजी ॲनी बरोबरची सफर

यादगार जाली.

साडे सातीक लागून लग्नांत हजार विघ्नां येतात. म्हज्या जिवा भावाचो इश्ट दत्ता ज्याचे बरोबर हांवें शाळेंत आनी कॉलेजींत वर्सां काडलीं (हाचो अर्थ तुमी जाय तसो घेयात.) ताच्या लग्नांतली गजाल सांगतां. दत्तान उमेदीन 'लक्ष्मी ब्रास बँड' (आम्हीं लग्नांत व मुंजीत नवीन गाणी वाजवतो) सांगिल्लें. लग्न जालें, न्हवऱ्या व्हंकलेन एक मेकाच्या गळ्यांत उमेदीन माळो घाल्यो, इतल्यांत फाटले वटेंतल्यान बोवाळ सो आयकूंक आयलो. ताचें कितें जालें बँड वाल्यान 'जन पळ भर म्हणतील हाय हाय, मी जाता राहील कार्य काय' वाजयलें. कोणाक हाचें व्हडलेंशें कांय दिसलें ना. पूण लग्नाक व्हंकलेची देवगडची आजी (वय वर्स सत्यांयशीं), तिका हें मुज्ग आयकून कलकलपाक शें लागलें आनी तिचें प्रेसांव वाडलें. कित्याक खबर ना. पद हरशीं बरें वाजयल्लें. मागीर घेऽ बोवाळ. तिका मागीर दोतोर रायकारागेर व्हरची पडली आनी ती निवळ्ळी ती गजाल वेगळी. दत्तान मागीर बँडवाल्याक व्हंकलपावणी जाय सर फकत 'मळ्याच्या मळ्या मदी कोण ग उभी' वाजोवपाक लायलें. दत्ता म्हणटा आपलो तेन्ना साडेसाती चलतालो जावंये. खरी खबर.

शांताबाईचें एक सुंदर पद आसा, काटा रुते कुणाला. तातूंत एक वळ आसा, 'माझे अबोलणे ही विपरीत होत आहे.' साडेसाती लागिल्ल्या मनशाचें अशेंच जाता तो उलयलो कितें, ओगी रावलो कितें सगळें विपरीतूच जाता. एकदां मावोड्यां गेल्ले कडेन आमी उलयताले. विशय आशिल्लो आयचे तरणाटे. आयज तरणाटे अपघातान जावं वा वेसनान जावं ऐन वयार भायर पडटात. उलोवपांत वांटेकार जावपी आशिल्ले हांव, हिचो बापूय आनी हिचो आजो. (मुक्काम वांतें, व्हाळा जवळ सत्तरी गोवा.)

''जाण्टेले हांगांच उरतात तरणाट्यांक पावोवपाक तांकां वचचें पडटा. सगळेंच परतें जालां.'' हिच्या बापायन म्हणलें.

''खरें तुमचें. तुमची पिराय कितें व्हो?'' हांवें हिच्या आज्याक विचारलें.

बाबड्यान भलतोच अर्थ काडलो.

''म्हज्या मरणाक टपला काय कितें रे?'' तो उसळ्ळो.

त्या दिसा जावंय मावोडेच्यान मुगां उसळ आनी खुटे कडयेन जेवन वता कडार भायर सरलो. साडेसाती उतरांचो कसो अनर्थ करता तें पळेया.

म्हज्या लग्ना कडली गजाल. पयलेच राती आमी जेवन दनपारच्या बुफेक दवरिल्ल्यो त्यो उरिल्ल्यो पानपट्ट्यो खाल्यो.

''तुमची जीब दाखया.'' व्हंकलेन म्हणलें. हांवें आंऽ केलें.

''आवयस! तांबडी गुंजऽ म्हजो तुमचेर कितलो मोग आसा पळेया.'' व्हंकलेन ताळी मारुन हवेंत उडी मारली.

''आतां तुजी पळोवया मुगो!'' म्हाका दुर्बुद्दी सुचली. व्हंकलेन दोतोराक दाखोवपाक भायर काडटा तशी जीब भायर काडली. खीण भर म्हाका तिचें तोंड देवळांत दरवट्या वयर आसता तशें कितींमुख कशें दिसलें. जिबेर तांबड्या रंगाचें नामोनिशाण नाशिल्लें. भितरली धाकटी जीब तांबडी बी जाल्या काय पळोवया म्हूण बॅटरी दिवो घालून पळेलें. थंयूय तांबडो रंग नासलो. ती, म्हजो तिचेर मोग ना म्हणून फुगून बसली. व्हंकलेक आनीक पानां खावयलीं, परत बॅटरी दिवो घालो. हो प्रॉग्राम फांत्या मेरेन चालू आशिल्लो. निमणें सकाळीं, बाज्जेर ही जीब भायर काडून आनी हांव पेट्टो बॅटरी दिवो घेवन न्हिदिल्लीं आईक सापडलीं खंय! साडेसाती कितें करुंक शकता हाचो अदमास तुमकां आयला आसतलो!

आतां साडेसाती लागपाक वयल्या गिऱ्यांची गरज ना. हांगां आशीकुशीक आसात ते गिरेच पुरो जातात. एकदां हांवें पणजे गेल्ले कडेन, नॅशनल थेटरा भायर दक्षीण भारतीय सिनेमाचो बोर्ड पळेलो. भाशा कसली ती कळ्ळीना. जिलब्यो कश्यो आशिल्ल्यो. पूण बोर्डा वयले फोटो आनी - सर्टीफिकेट पळोवन हांव उमळशिकेन भितर सरलों. हो सिनेमो आनी पळोवंक कोण येतलो? अशें चिंतून हांव निर्धास्त बसलों. सिनेमो खरोच बरो आशिल्लो.

इंटरवालाक, ‘मजा आयली’ असो अभिप्राय म्हाका फाटसून आयकूंक आयलो आनी दाद दिवपी रसिकाचें तोंड पळोवपाक हांवें मान वळयली. पळेत जाल्यार, हिचो बापूय. अठ्ठावन किलोमिटर प्रवास करुन हो सिनेमो पळोवपाक तो आयिल्लो. त्या दिसा आमी एकमेकाचे साडेसाती ठरले. हाचेर एकूच उपाय,

शनी असे वक्री
साडेसाती लावे वाट
बाबा म्हणे तेल घेऊन
धरा आता देवळाची वाट



# धुमक्यार धुमके

## कृ. म. सुखठणकार

| क्र. | नांव | पान |
|---|---|---|
| १ | अध्यात्म | १ |
| २ | आमची विनोदबुध्दी एक अभ्यास | ९ |
| ३ | एकलो चोलो रे | १७ |
| ४ | काळ | २४ |
| ५ | कोळ्ी | ३२ |
| ६ | कौन अपना कौन पराया | ३७ |
| ७ | खीण आनी खिणां | ४४ |
| ८ | डाकिया डाक लाया | ५० |
| ९ | नितळ घर अभियान | ५६ |
| १० | न्हंवरो म्हाका जाय | ६२ |
| ११ | बुफे | ७० |
| १२ | भुतां | ७६ |
| १३ | भुल्लुसप | ८४ |
| १४ | म्हाका तें कित्याक जमना | ८९ |
| १५ | यादी | ९५ |
| १६ | ये जो मोहबत है | १०१ |
| १७ | रसीक | १०५ |
| १८ | आमच्यो रुची आनी जेवणां | ११२ |
| १९ | रेफोर्माद गोंयकार | ११९ |
| २० | लग्न | १२६ |
| २१ | वाज येता तेन्ना | १३३ |
| २२ | वातावरण निर्मिती | १४२ |
| २३ | श्री | १५० |
| २४ | संवगां | १५७ |





कृ. म. सुखठणकार

कृम बहुप्रसवी. कृमचें सदर ना अशें आयज गोंयांत एकूय कोंकणी प्रिंट मेडिया ना. रोमी जावं नागरी तातूंत कृम दिसतलोच. विनोदी त्रोसात्मक बरोवपी कृम हो एकलोच लेखक अशें आतां लोकांनी मान्य करून घेतलांच. आतां कृमक खंयचें सदर, सदराचें नांव कितें असो प्रस्न पडना. नेमाळ्यांनी छापून आयिल्लें ताचें सदर कोणांक सोदचेंय पडना. कृमची खाडयाळ छबी होच ताच्या सदराचो ट्रेडमार्क जाला. तीच गत पुस्तकाच्या नांवां संबंधान. आतां कृमच्या पुस्तकाक नांवाचीय गरज पडत अशें दिसना. मुखपृष्ठाचेर एक थारावीक तरेचें खाड दिसलें म्हणटकच नांव पळयनासतना कृमचें पुस्तक म्हूण विकतें घेवपाचे प्रक्रियेक आरंभ जाल्लो आसा.

आयज समाज भोगवादा दिकेन,चंगळवादा दिकेन सुसाट धांवता. खंयचींच नितीमुल्यां तो मानून घेवपाक तयार ना. ही सगळी काळाची गती वा गरज अशें म्हणत ह्या सामाजीक बदलाकडेन आडनदर करूं येता, जायच जाल्यार येवकारूय दिवं येता. पूण हे सगळें हातासपाचे सर्तीत मनीस सोसणिकाय वगडावन बसला. मनीस कोणाचेंच सोंसून घेवपाक तयार ना आनी असले हे मानसिकतेक वखद ना. कितलेय बरे विचार मांडले आनी मानसिक बदल घडोवन हाडपाचो यत्न कोणेंय करपाचो प्रयत्न केलो तरी तें आयकून घेवपाचे सोसणिकायेचो मात्तूय अंश जर मनीसकुळये भितर नासलो तर मागीर करप कितें? त्या पासत ही जी मानसिकता आसा तिचें विरेचन करतलो जाल्यार एका सशक्त माध्यमाची गरज आसा. गांवगिरे भाशेंत विरेचनाक भायरी म्हणटात. सोसणिकाय शेणोवन बसिल्ल्यांक सॉलीड अशे एके भायरेची गरज आसा आनी ती भायरी म्हळ्यार विनोद हें ह्या आदीं विचारवंतानी, समाजसुधारकांनी मान्य केलां आनी म्हजोय ताचेर विस्वास आसा. कृम बरयता तातूंत हीं सगळीं तत्वां मोठ्या प्रमाणांत आसपावल्यांत.

–दिलीप बोरकार

बिम्ब
प्रकाशन

Price: ₹ 200/-


ISBN 978-93-85654-13-8
9 789385 654138